# Buy a Luxury Villa with its Own Private Plot

PLOT SIZE 280 TO 425 Sq. Mts

## The Highland Villas
PORVORIM - GOA

The Highland Villas is a residential enclave that is unique in its very concept of private, independent plots within a secure complex with all amenities. The beautifully designed villas, combined with our very central location and the concept of plot ownership assures you of lasting asset value.

SavoirFaire

**Design Combinations**

- 3BHK + Car Porch + Open Terrace
- 4BHK + Car Porch + Open Terrace + Maid's Quarters
- 3BHK + Car Porch + Open Terrace + Maid's Quarters
- 4BHK + Family Lounge + Car Porch + Open Terrace + Maid's Quarters

MEMBER OF CREDAI GOA


Club House


Classy Streetscape


Well-equipped Gym


Tennis Court


Children's Park


Basketball Half-Court

**Project approved by leading Housing Finance Institutions**

**Construction work in full swing and some villas nearly ready for possession**

## HIGHLAND CONSTRUCTIONS PVT. LTD.

www.highlandvillasgoa.com

501, Citicentre, Patto Plaza, Panjim, Goa 403 001 INDIA. Tel/Fax: +91-832-2437296
Mobile: +91 99234 12021 & +91 80077 42020 E-mail: highlandvillasgoa@gmail.com

NATIONAL AWARD WINNER FOR **BEST HOLIDAY HOMES 2010**






## उदकाचो निमाणो थेंबो आसल्यार ताचो तुमी कितले जतनायेन वापर करतले?

# उदक जतनायेन वापरात!

बागे खातीर उदकाचो मर्यादीत वापर करात, मनशां खातीर तें चड गरजेचें आसा. गरजे भायर वापर टाळात. उदकाचे तुमच्या शेजाऱ्याचोय तितलोच हक्क आसा. उदक सांठयतना आनीक एका दिसा खातीर इल्लें चडूच सांठयात. ताची तुमकां आणिबाणीच्या काळांत मजत जातली.






वापरा उपरांत नळ बंद करात

नळांतल्यान गळटलें, वाल्वांतल्यान, टाकयेंतल्यान तशेंच पायपांतल्यान व्हांवपी उदक वांचयात.

लोकांक उदकाची पुरवण करतल्या पायपांतल्यान उदकाक गळटी लागल्यार वा नळ फुटल्यार आनी कोणीय बेकायदेशीर रितीन वाटेवयल्या पायपांतल्यान उदक घेता आसत जाल्यार तात्काळ आमचे नदरेक हाडून दियात.

**आदारा खातीर फोन नं. २४२००६९, २४३००७० (स. ८ ते सां. ८ मेरेन)**

• पणजी वाठार: २२२६४४६ • वास्को वाठार: २५१२३८२
• मडगांव वाठार: २७१४७७७ • फोंडें वाठार: २३१२०८१ • म्हापशें वाठा: २२६२३७४

## कितें? आयज तुमी तुमच्या वांट्याक आयिल्लें उदक वाचयलें?

लोक हिताखातीर वितरावणी

**भौशीक बांदकाम खातें**

**गोंय सरकार**

कोंकणी मासिक
# बिम्ब
१३ वें वर्स





संपादकीय / ३
प्रतिबिम्ब / ४
**कादंबरी** - नं. ध. बोरकार / १५
**भुतकाळांतले बिदिंतल्यान** - रमेश वेळुस्कार / १९
**पोसो** - काश्मिरी पावसकार / २२
**परमळ** - अपर्णा गारुडी / २४
**पडवेर** - कुसूम अगरवाल / २६
**इंद्रधोणू** - आशा शानभाग / २८
**आंकरी** - जॉन एम. आल्फोन्सो कार्मेलीत / ३०
**दिका** - विन्सी क्वाद्रूस / ४९
**अश्रेकणी** - सुषमा तिळवे / ५३
**तेफळां** - रुपा कोसंबे / ५४
**कथा** - सुनीता प्रकाश पेडणेकार / ५७
**कथिका** - विनोद गावडे / ६२
**ओह माय गोंय** - गजानन जोग / ६४
**गरनाल** - कृ. म. सुखठणकार / ६६
**वोंवळां** - शर्मिला प्रभू / ६८
**उमाळे** - सुमेधा कामत-देसाय / ७१
**उस्तवारी** - नेसिओ डिसोझा / ७५
**भलायकी** - राज वैद्य / ८१
**रवीन्द्र विचार** - रवीन्द्र केळेकार / ८२
**प्रियदर्शन** - दिलीप बोरकार / ८३
**उतरकुवाडें** - संतोष हळर्णकार / ८६

५
## शीर्षकथा
गांवा गांवांनी रवीन्द्र केळेकार
ज्ञानमंदिरां उबारप होच
माध्यमप्रस्नाचेर रामबाण उपाय...!
◆दिलीप बोरकार/अनंत अग्नी

३१
## मनसंवेदना
◆माधव बोरकार
◆शालन नायक
◆कृ. म. सुखठणकार
◆अन्वेषा सिंगबाळ
◆डॉ. सुलभा कोरे
◆ऍडवीन फेर्नांडीस
◆अनंत विर्नोडकार

३४
## भुरग्यांचें आंगण
◆माया खरंगटे
◆उषा ज. कामत
◆किरण म्हांबरे
◆श्रीपाद (मंथन) अजित प्रभुदेसाय
◆नयना आडारकार
◆हर्षा शेटये

वर्स: १३ अंक: ६
◆
जून २०१४
◆
मोल २० रुपया
◆
मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार
◆
मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार
◆
छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव
◆
वेवस्थापक
कामिनी किणी
◆
अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नायक
◆
वर्गणीचे दर
वर्सुकी ३५०रु./३ वर्सां १००० रु.
खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणीदार जावं येता. वर्गणीचो चेक 'BIMB MONTHLY' ह्या नांवान धाडचो
◆
संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशीं-गोंय ४०३२०४
दूरध्वनी: ०८३२ २४३८३५५
Email:bimbkonkani@yahoo.co.in

# संपादकीय



## देशाच्या कल्याणार्थ आमचेंय नमोनमो...!

देशाचे पयले प्रधानमंत्री आनी जांकां आधुनीक भारताचे शिल्पकार म्हुण पुराय संवसार वळखता त्या पंडित जवाहरलाल नेहरूंची ५०वी पुण्यतीथ २७ मायाक आशिल्ली. जाणीं आपल्या प्रधानमंत्रीपदाची पुराय कारकीर्द देशांत संसदीय लोकशायेची प्रतिशठापना आनी संवर्धन करपा खातीर सारली त्या पंडित नेहरूंचे पुण्यतिथी दिनाचे पूर्वसंध्येर देशाचे १५वे प्रधानमंत्री म्हुण भाजपचे नरेंद्र मोदी हाणीं सोपूत घेतलो. हो निखटो योगायोग काय नरेंद्र मोदी हाणीं पूर्ण विचारांती हो वेळ थारायिल्लो? काय आमी हे घडणुकेक नियतीचो खेळ मानून सगळो भरीभार त्या विधात्याचेर घालपाचो?

फाटलीं धा वर्सां सत्तेपासून पयस आशिल्लो भारतीय जनता पक्ष सत्ता हातासपा पासत जिवाच्या आकांतान वावुरलो. काँग्रेस पक्षाक मुळासयत हुमटून उडोवपा खातीर जें जें कितें करूंक जाय आशिल्लें तितलेंय करून आपली मोख साध्य केली. ज्या मोदींक प्रचार मुखेली आनी देशाच्या प्रधानमंत्रीपदाचो उमेदवार म्हुण मुखार काडलो, तो मोदी पक्षाक गौण लेखून 'अब की बार, मोदी सरकार' म्हणत फक्त आपल्या नांवाचेर सत्ता काबीज करूंक प्रचंड तांकीन धांवपाक लागलो तेन्ना पक्ष तोंडार बोट धरून रावलो तो सत्ते खातीरूच. कोणाच्याय नांवान जायना, पक्षाक सत्ता मेळटा आसत जाल्यार तुजेंच खरें म्हणपाक पक्षांतल्या ज्येश्ठांक लुकसाण नाशिल्लें. आनी आयज प्रचंड प्रमाणांत पक्षाक जें जैत फावो जालें तें फक्त मोदीन केल्ल्या सांवारा खातीरूच हें पक्षाक मान्य करून घेतले बगर गत्यंतर नाशिल्लें. देखुनूच सत्ता हातासपाची घाई लागिल्ल्या ह्या पक्षान सोपूतविधी पासत तब्बल धा दीस कळ सोसली ती फक्त मोदी पासतच.

मोदीन सोपूतविधी खातीर वा म्हणा आपल्या राज्यभिशेका खातीर जी वेळ सोदून काडली तीय भारताचे भाग्यविधाते जांकां म्हणटात त्या पंडित नेहरूंचे पुण्यतिथीचे पूर्वसंध्येची. गांधी, नेहरू हे राष्ट्रीय स्वयंसेवक



संघाचे आनी भारतीय जनता पक्षाचे पारंपारीक दुस्मान. फक्त निरूपाय म्हुण ते ह्या विभुतीं मुखार नतमस्तक जावपाचें नाटक करीत आयल्यात. अशें आसुनय सोपूतविधी खातीर हीच वेळ थारावपा फाटलें कारण तशेंच आसूं येता, जाचेर फुडाराक उजवाड पडटलो.

नरेंद्र मोदी हे जितले धूर्त तितलेच हट्टी. मोदीचें नांव प्रधानमंत्रीपदाचो उमेदवार म्हुण जाहीर जाल्या बराबर मोदी कोण कितें हें जगा मुखार हाडपाची सर्तूच प्रसारमाध्यमा मर्दीं लागिल्ली. म्हणटकच तेंच हांगा सांगपांत अर्थ ना. ताचेविशीं जितलें बरें आयकूंक येतालें तितलेंच ताचे विरोधक ताचेविशीं खरें दिसपा सारकेंच वायट सांगताले. ह्या समुद्रमंथनांतल्यान वेवस्तीत घुसळून घेवन मोदीन आपूण *अमृताचो कलश* म्हणपाचें सिध्द केलें आनी हें सगळें स्त्रय ताकाच वता. फाटल्या कांय म्हयन्यांत मोदीन पुराय देशांत जे गतीन प्रवास करून आपल्या भाशणांनी मत परिवर्तन केलें तें न भूतो न भविश्यती अशेंच आशिल्लें. आपले हे गतीन ताणें देशांतल्या तरनाट्यांचेर मोनेळ घालो आनी युवाशक्तीन होच आमचो तारणहार म्हणत कौल दिलो. हो सगळो मार्केटिंगाचो प्रकार आशिल्लो. कोकाकोला कंपनी मॅची खेळयता आनी आपलो प्रॉडक्ट खपोवपाक यशस्वी जाता. कोकाकोला सारकीं पेयां वीख म्हणपाचें खबर आसुनय घराघरांनीं फ्रिजांत तांकां सुवात आसा. कितेंय आसूं मोदीन आपले मुखार जी मोख दवरिल्ली ती साम, दाम, दंड, भेद वापरून हातासली. ताचे हे तांकीक ताचो दुस्मान लेगीत सल्यूट करतलो.

(पान ६१ पळयात...)

# प्रतिबिम्ब

## वाल्ह्याचो वाल्मिकी जावं येता न्हय?




भौ. संपादक,

मे २०१४च्या बिम्ब अंकांतली तुमची 'आकांतवादांत चल्ला लोकशायेचो घुस्मटमार' ही शिर्शकथा वाचली. तुमी बरयला तो तुमचोच घुस्मटमार न्हय तर तुमच्या सारक्या खूबशा बुध्दीवाद्यांचो घुस्मटमार हाची कल्पना म्हाका आसा. हांव बिम्ब मासिकाचो एक हितचिंतक. तुमी अंकांत जें जें कितें साहित्य उजवाडायतात तें सगळें हांव आवडीन वाचपी. तुमचेंय चडशें साहित्य हांवें वाचलां आनी हांव तुमचो एक वाचक म्हुण सांगपाक म्हाका अभिमान भोगता. पूण तुमच्या शिर्शकथेंतले सगळेच मुद्दे म्हाका मान्य जायनात.

तुमी म्हणटले हांव भाजपचो वा आरएसएसचो मनीस काय म्हुण! तशें कांय ना. हांव भारतीय जनता पक्षाचो क्रियाशील कार्यकर्तो नासलों तरी आयचे राजकीय परिस्थितीक उबगल्ल्यान म्हज्या सारख्या सर्वसामान्य मनशाक ह्या पक्षा बगर दुसरो पर्याय ना. तुमच्या सारख्या बुध्दीवाद्यांनीं तसो पर्याय निर्माण करूंकच ना. 'आम आदमी पार्टी' आमच्या सारख्यांक अल्टरनेटीव दितली अशें दिशिल्लें. पूण आमचे कडेन प्रयोग करपा खातीर वेळ आसा अशें म्हाका दिसना.

नरेंद्र मोदीविशीं, गुजरातच्या तांच्या वावराविशीं तुमी बरयलां तें सत आसत. सत आसले बगर तुमी कित्या कितेंय बरोवचे नात. तरीपूण आयज आमचो देश चलोवपा सारको दुसरो फुडारी कोण आसा? मनमोहन सिंगाची कारकिर्द आमी पळयल्या. राहुल गांधीय बरो मनीस आसत. पूण ताका मंत्रीपद दिवन लेगीत ताणें नाकारप हाका कांयच अर्थ ना. मंत्री जाल्या बगर तो कारभार चलोवंक समर्थ आसा म्हणपाचें आमी कशें वळखप? केजरीवाल भुरगेपणां करता तसलीं भुरगेपणां करपा खातीर आमचेकडेन आनीक पांच वर्सां आसात? 'नाचूंक येना आंगण वाकडें' अशें म्हणटात तातुंतलीच गत ही.

म्हणटकच आयज देशाक एक कणखर नेतृत्वाची गरज आसा. ही गरज मोदी सारखो एक फुडारी पुराय करपाचो हावेस आमचे मुखार दवरता आसत जाल्यार ताका आमी संद कित्याक दिवची न्हय? ताका आमी राकेस राकेस म्हणून ताचे विशीं भलतोच समज करून घेतलो आनी तो खऱ्यानीच तसो नासलो जाल्यार?

तुमचेविशीं, तुमच्या वावराविशीं पुराय आदर बाळगून म्हाका सांगन दिसता. हो वेळ थेअरी मांडपाचो न्हय, तर प्रॅक्टीकल करपाचो. कॉंग्रेस पक्षान देश भ्रश्टाचारी करून सोडला. भ्रश्टाचारी सगळे कडेन आसात. धरूया मोदीय भ्रश्टाचारी. पूण तो आपूण तसो न्हय अशें सांगून देश सशक्त करपाचें उतर दिता आनी त्याच उतरा फाटल्यान वचून जर देशान ताका पूर्ण भोवमत दिलां जाल्यार मागीर ताका वाल्ह्याचो वाल्मिकी जावपाची संद कित्याक दिवची न्हय?

म्हाका खात्री आसा, मोदी आपल्याक लोहपुरूश म्हुण सिध्द करपाक ह्या पांच वर्सांत देशाचें भांगर करतलो.

■

**– राजेंद्र राया शिरोडकर**
ताळगांव

---

## बिम्ब महिला विशेशांक दिसता...!

संपादक बिम्ब,

एप्रिलाचो बिम्ब हातांत पडून चाळटां म्हणसर मे चो अंक आयलो. हें सगळें नाटक आमचें पोस्ट खातें करता. तुमी धा तारीक मेरेन अंक जर पावलोना जाल्यार कळयात म्हुण सांगलां. पूण तशें कळयलें आनी इकरा तारकेक आयलो जाल्यार तुमकां खर्च न्हय बशिल्लेकडेन?

तुमचो बिम्बूच न्हय, पत्रां लेगीत केन्नाचीं केन्नाय येतात. हांव दुसऱ्या मजल्यार रावतां. हे दिसांनी म्हाका सोडून आमचे बिल्डिंगेंत आनीक कोणाक पत्रां येनांत. म्हाका बिम्ब दिवपा खातीर दोन मजले चडचे परस दुसरे खेप तो दिवया अशें येवजून पोस्टमन वता काय कोणाक खबर! हे फावटी एप्रिलाचो अंक मायाचे सुर्वेक आनी मायाचो अंक आठ तारकेक पावलो. दोनूय एकाच वांगडा वाचपाचो सुयोग म्हणपाचो.

बरेच दीस तुमकां बरयतलों म्हणटां. हे फावट हें निमित्त जालें दोनूय अंक वांगडाच वाचपाचें. बिम्ब मासिक हळुहळू महिला विशेशांक जावंक लागला. सगळ्योच बायल लेखिका, तातूंत कितें वायट आसा अशें न्हय. बऱ्याचीं लक्षणां तीं. मे म्हयन्याच्या अंकांत २० बायलांचें साहित्य आसा आनी एका परस एक सरस. सुमेधा कामत, रुपा कोसंबे, आशा शानभाग, हर्षा शेटये हीं दर्जेदार बरयतात तें जालेंच. पूण जीं कांय नवीं नांवां आसात तांचें बरपूय म्हाका अभ्यासपूर्ण आनी प्रगल्भ दिसलें.

बिम्ब मासिकाचो दर्जो असोच दिसानदीस वयर सरत रावचो. आनीक एक गजाल सांगपाची म्हळ्यार नं. ध. बोरकार हांची कादंबरी सुरू करून बरें जालें. पूण खिस्तीचीं पानां सामकीं थोडीं. वाचूंक घेतले बराबर सोंपतात. निदान धा पानां तरी आसूंक जाय. विचार करचो.

■

**– रामदास नायक**
चोडणें – गोंय



- दिलीप बोरकार

# शीर्शकथा

*विद्यार्थी फकत बुद्धिमान जावचो इतली माफक अपेक्षा हांगा ना. आयच्या स्पर्धात्मक युगांत खंबीरपणान तो उबो रावचो, समाजीक लागणकेचें भान आशिल्लो एक बरो नागरीक जावचो, स्वाभिमानी तशेंच स्वावलंबी मनीस जावचो हो हावेस आसा.*

# गांवा गांवांनी रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदिरां उबारप हेंच माध्यमप्रस्नाचेर रामबाण उपाय...!



जून म्हयनो लागीं पावलो काय तीन घटक ह्या म्हयन्याकडेन नदर लावन आसतात. ह्या तिनूय घटकांमदीं मातशी दुगदूग आनी खूबशी उमळशीक आसता.

हातुंतलो पयलो घटक हो शेतकार. आयज खूबशा शेतकारांनी शेतांवेलें आपलें लक्ष काडून उडोवन तीं पडंग उडयल्यांत आसलीं तरी बऱ्याच लोकांनी दोळ्यांक उदक लावपा पुरतें काय जायना, शेत रोवपाकडेन भर दिला. ताचीं फाटलीं कारणां म्हळ्यार गोंय सरकारचें शेतकी खातें शेतकारांक प्रोत्साहन दिवपा पासत विंगविंगड येवजण्यो राबोवन अनुदान दिता आनी शेगीत तीन वर्सां एखाद्र्या शेतकारान शेत रोय नासतना दवरलें जाल्यार सरकार तें ताब्यांत घेतलो म्हणपाची दिल्ली धमकी.

हाकाच लागून कांय शेतकार शेतांत वावुरतात आनी जून म्हयन्यांत पावस लागतलो काय ना? आमी तरवो घालपाचो काय ना? ह्या हुसक्यांत आसतात.

दुसरो घटक आसता तो विद्यार्थीवर्ग. तांकां शाळा दर वर्सा जून म्हयन्याच्या पयल्या सप्तकांत सुरू जाता हें खबर आसता. नव्या वर्गांत, नव्या गणभेसांत, नव्या इश्टांक भेटपाचे उमळशिकेन हो घटक जून म्हयन्याची प्रतिक्षा करता.

तिसरो घटक प्रतिक्षा करता तो म्हळ्यार भुरग्यांचो पालक.

भुरग्यांचो पालक आपल्या पाल्यांक शाळेंत धाडून गिन्यांनी करपाची सगळी तयारी करता. तांचें ॲडमिशन करता, गरज थंय देणगी दिता, नवीं पुस्तकां घेता, गणभेस, कापेत, जोतीं, बूट सगळें घेता. सरकार कितें दितलो आनी कितें ना हाची वाट पळयत तो बसना. पूण ताका हुसको लागता तो ह्या जून म्हयन्यांत आपल्या भुरग्यांचें माध्यम कितें आसतलें? फाटले वर्सा आसा तेंच आसतलें? सरकारान आश्वासन दिलां तें आसतलें? न्यायालयान दिलां

तें आसतलें? काय कांय पालक मागणी करतात तें आसतलें?

मागीर पालक आपलो भरीभार सरकाराचेर घालता. तरी माध्यमाचो हुसको ताचे तकलेंत मान्सून पूर्व कुपांची गर्दी करता.

ह्याच गोंदळांत आनीक एक गोंदळ मे म्हयन्याचे ६ तारकेक सर्वोच्च न्यायालयान घाला. खरें म्हळ्यार हो न्यायालयाचो गोंदळ न्हय तर आमच्या गोंयांत जे कोण अती विद्वान आसात आनी जे खंयचेय गजालीचो अर्थ आपल्याक सोयिस्कर असो लायतात ताणीं निर्माण केला. त्या गोंदळाचेर आमच्या गोंयच्या बऱ्याच विद्वानांनी चर्चा केल्या.

सर्वोच्च न्यायालयान कर्नाटकावेलो भाशा माध्यम निकाल खंयच्या कारणांक लागून दिला? ताचो गोंयच्या माध्यम प्रस्नाचेर कितें असर जाता? ह्या गजालींचेर पत्रकार संदेश प्रभुदेसाय हाणीं सुनापरान्त ११ मे च्या विचारस्तंभांत आनी उपरांत ॲड. सुरेल तिळवे हाणीं ह्याच स्तंभांत १८ मेचे पुरवणेंत 'सर्वोच्च न्यायालयाचो निवाडो गोंयाक कसो लागू जाता?' असो प्रस्न करीत विस्तारान बरयलां. हे दोनूय लेख वाचून ह्या विशयाकडेन आस्था आशिल्ल्यानी जाय जाल्यार आपलीं मतां थारावचीं.

हांगा एक गजाल मतींत घेवंक जाय. सर्वोच्च न्यायालयान कर्नाटक सरकारचे बाबतींत माध्यम प्रस्नाचेर दिल्लो निर्णय संविधानाच्या कलम १४१ खाला आपसूक कायदो जाता आसलो आनी तो पुराय देशाक लागू जाता आसलो तरी कर्नाटक राज्याचो प्रस्न आनी गोंय राज्याचो प्रस्न एक न्हय. कर्नाटक राज्याचो भाशीक प्रस्न सीमा प्रस्नाक लागून वेगळो थारता. कर्नाटक राज्याचे सीमेर कोंकणी भाशीक आनी मराठी भाशीक वाठार आसात. हे विंगविंगड भाशीक लोक राजकीय आनी भौगोलीक नदरेन कर्नाटकी आसले तरी ते कन्नडींग न्हय. ते 'मराठी' आनी 'कोंकणी'. ते त्या राज्यांतले भाशीक अल्पसंख्यांक. तांचेर कन्नड ही तांची मातृभाशा म्हणत कन्नड माध्यम म्हुण घेवंची अशी सक्ती जाता काय कितें आनी त्या अनुशंगान हो सर्वोच्च न्यायालयाचो निकाल आसा काय कितें तें पळोवचें पडटलें!

गोंयांत न्यायालयाचो हो निर्णय बादीकार जावपा सारकी परिस्थिती कितें आसा व्हय?

गोंयांत कोण अल्पसंख्यांक आसा म्हणपा सारकी परिस्थिती ना. गोंयचो क्रिस्तांव हो मुळचोच गोंयकार. ताची आवयभास कोंकणी. पूण तांकां आपलो फुडार इंग्लेज भाशेचेर निंबून आसा अशें दिसता आनी देखून तांकां आपलीं भुरगीं जल्मासावन वो आवयच्या पोटांत आसतनासावन इंग्लेज शिकून इस्पेर्त जावचीं अशें दिसता. इंग्लेज माध्यम जाय ही तांची मागणी फुडाराचे सेक्युरिटींतल्यान निर्माण जाल्या आनी तांचे तकलेंतलें हें भूत कोंकणी चळवळ पयस करूंक शकलेंना. ते क्रिस्तांव म्हुण न्हय तर आयज हिन्दू आनी हेर धर्मांतले लोकूय न्यूनगंडाक लागून हीच वाट धरतात. म्हणटकच तांकां अल्पसंख्यांक कशे मानप?

दुसरी गजाल म्हळ्यार जे कोण गोंयांत मराठी भाशीक आसात, कन्नड भाशीक आसात, मदरसा चलोवपी उर्दू भाशीक आसात, तांचे बाबतींतूय अल्पसंख्यांकांचो प्रस्न येना. खंयचेय भारतीय भाशेंतल्यान शिक्षण घेवंक सरकार अनुदान दिता. तांचेर कोण कोंकणी माध्यमाची सक्ती करिना. जे कोण इंग्लेज माध्यमाच्यो शाळा चलयतात तांचेरूय सक्ती करिनांत. फक्त सरकाराकडेन मागतात, जे कोण विदेशी भाशेंत शाळा चलोवंक सोदतात तांकां आपले खर्चान शाळा चलोवंदी. कित्याक परकी भाशेंतल्यान मुळावें शिक्षण घेवन भुरग्याची कसलीच उदरगत जायना. जाता तें लुकसाण. तें कशें कितें हें जागतीक स्तराचेर सिध्द जालां. तेंच जर कांय लोक मानिनांत आनी आपल्याक जाय तें करतात जाल्यार सरकारान अनुदान दिवन तांकां प्रोत्साहन कित्याक दिवपाचें? कित्याक जनतेचो पयसो ह्या लोकांच्या मुर्खपणाचेर उधळपाचो?

हॅल्मेट घालिनासतना, सोरो पिवन वाहनां चलयतात ते म्हणटात जीव आपलो मेल्यार आपूण मरतलों! तुमची सक्ती कित्याक?

आत्महत्या करूंक सोदपीय तेंच म्हणटा. जीव आपलो, आपल्याक जाय तें करतलों? मागीर सरकार तांकां कित्याक आडायता?

जुगार, सोऱ्याचो अतिरेक, शिंदळकी हांचेर आळाबंदा हाडूंक सरकार कायदो करता. कित्याक? कित्याक, एक आदर्श समाज, एक आदर्श राज्य घडोवंक. मात शिक्षणा सारख्या म्हत्वाच्या मुद्द्याचेर, हेर सगळ्या वायट गजालींतल्यान मुक्त जावपाक जें शिक्षण म्हत्वाचें आसता तें शिक्षण मात तुमकां जाय तशें जाय ते भाशेंत घेयात अशें सरकारान सांगप?

आयज तशीच परिस्थिती उप्रासल्या देखून हें घडटा. गोंय मुक्त जाल्लें तेन्नाच हो माध्यमाचो प्रस्न सुटावो केल्लो जाल्यार आयज ही परिस्थिती

## दरेक सरकाराक कोणाक अनुदान दिवचें तें थारावपाचो अधिकार आसा

**– प्रभाकर तिंबलो**



घटनेच्या कलम १९(१) (ए) नुसार दिल्ल्या विचार स्वातंत्र्याच्या अधिकारांत ढवळाढवळ करूंक येवचिना अशें सांगत सर्वोच्च न्यायालयाच्या नव्या निवाड्यान पोरणी गजालूच पर्थून एक खेप ठळक केल्या. कर्नाटक सरकारान मुळाव्या स्तरार कन्नड/आवयभास हीच राज्यांतली एकसुरी माध्यमाची भास आसतली अशी सक्ती केल्ली. अशे प्रकारची एकेच भाशेची सक्ती निश्चितूच घटनेच्या कलम १९चें उल्लंघन थारता. हो निवाडो पालकांचे निवडीचें स्वातंत्र्य आनी नागरिकांचें विचारस्वातंत्र्य उखलून धरता. पूण ह्या निवाड्यांतल्यान सरकारान कोणाक अनुदान दिवचें हे संबंदी कसल्योच सुचना करूंक नांत. अनुदान दिवपाचो निर्णय सरकारचो आसता. एकाच प्रकारच्या दोन संस्थां पयकीं एकाक अनुदान न्हयकारलें जाल्यार पक्षपात जावं येता. असो पक्षपात जाल्यार न्यायालय हस्तक्षेप करूंक शकता. हाचो अर्थ सरकारान सगळ्या भाशा माध्यमांच्या शाळांक अनुदान दिवंक जाय अशें जायना. दरेक सरकाराक कोणाक अनुदान दिवचें तें थारावपाचो अधिकार आसा.

## घटनेचीं वेगवेगळीं कलमां कितें सांगतात?

– ॲड. सुरेल तिळवे



सर्वोच्च न्यायालयाच्या निवाड्यांत घटनेच्या ३५० (ए) कलमाच्या आदाराचेर कांय गजाली स्पश्ट केल्यात, पूण हें कलम केन्ना आयलें तेंवूय पळोवपाक जाय. १९५५त केंद्र सरकारान पुनर्रचना आयोग स्थापना केल्लो तेन्ना हें ३५०(ए) दुरुस्ती कलम आयलें. ह्या कलमा प्रमाण भाशेच्या आदाराचेर प्रांत/राज्यांची रचणूक करपाची तजवीज केली. ३५०(ए) कलम आयलें तें भाशा सांबाळपाक. भाशे प्रमाण प्रांत रचणूक करपाक. तातूंत इंग्लिश भास खंयच नाशिल्ली. हातूंत प्रादेशीक भाशेक म्हत्व दिलां.

आतां घटनेचें १९(१) कलम कितें सांगता तें पळोवया. ह्या कलमा प्रमाण नागरिकाक अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य दिलां. जाल्यार १९(१) ए कलमा प्रमाण भुरग्यां खातीर शिक्षण माध्यम निवडपाचो अधिकार पालकांक दिला. घटनेचें २१ कलम नागरिकांक जगपाचो वा व्यक्ती स्वातंत्र्याचो अधिकार दिता. जाल्यार २१(ए) कलम फुकट आनी सक्तीचें शिक्षण घेवपाचो अधिकार दिता आनी तें कशें आसचें हें थारावपाचो आनी फावो त्या प्रमाणांत कायदो करपाचो अधिकार राज्य सरकाराक दिता.

येवपाची नाशिल्ली. बांदोडकारान जर मातसो धेंगसो घाल्लो, कर्नाटकांत कन्नड शिकतात मरे? म्हाराष्ट्रांत मराठी शिकतात मरे? मागीर तुमी कोंकणी शिकात अशें म्हणिल्लें जाल्यार प्रस्न सुटपाचो. पूण बांदोडकाराचेर महाराष्ट्राचें वाघरें पडिल्लें.

कोंकणीची चळवळ चलताली तेन्ना क्रिस्तांव धर्मगुरूंचो शेक तांच्या समाजाचेर चलतालो. पाद्री सांगतात ती आमच्या बऱ्याची गजाल. हें सर्वमान्य आशिल्लें. तेन्नाचे पाद्री कोंकणी राज्य, कोंकणी भास, देवनागरीचें म्हत्व आनी गरज हे विशीं जागृत आशिल्ले. पूण आयज ते लोक नांत. आयचें फुडारपण अध्यात्मीक जिविताक अर्थ ना, भोगवादी जिवितूच खरें अशें मानप्यांच्या हातांत आसा. जण एकलो आपलो धर्म कसो घट करप हाचेर विचार करता आनी ताची सांगड भाशा आनी शिक्षणाकडेन घालता. ह्याच लोकांच्या नाड्यार खंयचें सरकार सत्तेर येतलें तें थारता. सत्ता म्हळ्यारूच सर्वस्व अशें मानपी राजकारणी लोकांक घडोवपा बदला तांचे व्होटबॅन्केचेर आपूण घडटात. म्हणटकच आयचो जो माध्यमप्रस्न आसा जो फाटलीं कितलींच वसां सावन अस्तित्वांत आसा तो सुटावो जावपाचो ना आनी फुडाराकूय जातलो म्हणपाची आस्त ना.

हें विधान आयकून कोंकणी चळवळींतले खांबे चाळवतले. तांचो इंगो दुखावतलो. आमच्या फुडारपणाचो हो अपमान म्हणटले. पूण खरी गजाल अशी कोंकणी चळवळीन कोंकणीचो प्रस्न सोडोवंक ना. जो कितें प्रस्न सुटला असो दिसता तो राजकीय. क्रिस्तांव कोंकणी मनशाचें शक्ति प्रदर्शन करून, भंय घालून पदरांत पाडून घेतिल्लीं जैतां तीं! हाचीं सर्टिफिकीटां आलमारींत आसात. समाजांत ना. आपल्याक 'साहित्य अकादमी' पुरस्कार लाबला आनी आपूण राष्ट्रीय मान्यताय प्राप्त लेखक अशें जशें आमचे कांय कोंकणी लेखक घराकडेन आयिल्ल्यांक तस्त्रिपो दाखोवन सांगतात. तांचे विद्वत्तेवेल्यान, कर्तृत्वावेल्यान तें कळना. तीच गत ह्या जैतांची जाल्या. तशें नाशिल्लें जाल्यार कोंकणी चळवळीचें फळ म्हुण माध्यमाचो प्रस्न सुटावो जातलो आशिल्लो. जो पक्ष ह्याच माध्यमाचो प्रस्न घेवन वेंचणुकेंत देंवलो, सगळ्या भाशीक चळवळींनी त्या पक्षाक तेंको दिलो आनी पूर्ण भोवमतान सत्तेर हाडलो त्या भाजपच्या सरकारान पूर्ण भोवमताच्या नाड्यार माध्यम प्रस्न सुटावो करपाचो. पूण फाटल्या सरकारान घेतिल्लो तोच निर्णय ह्याय सरकाराक मुखार व्हेल्या बगर दुसरो पर्याय ना. मागीर आदलें सरकार वायट म्हणत तें कित्याक आपटिलें?

आदल्या सरकारान माध्यम प्रस्नाचेर निर्णय घेवन तो चालीक लायलो, तोच निर्णय त्या निर्णयाक विरोध करून सत्तेर आयिल्लें आयचें सरकार मुखार व्हरता. म्हणटकच हो निर्णय सर्वमान्य थारूंक शकता हें कोणेंतरी थारायल्लें. संगनमतान थारायल्लें. मनोहर पर्रीकार विरोधी पक्ष फुडारी आसतनाच थारायल्लें. त्या निर्णयाक विरोधी पक्ष फुडाऱ्यान आक्षेप घेवंक नाशिल्लो. पूण वेंचणुके वेळार ताचें भांडवल केलें आनी सत्तेर आयले उप्रांत ह्या निर्णया बगर पर्याय ना अशें सांगलें, कसलें नाटक हें?

भाशा सुरक्षा मंचाचें माध्यम धोरणा आड आंदोलन चलतालें तेन्ना आदल्या मुख्यमंत्र्यान म्हाका आपोवन व्हरून कोंकणी अकादेमीचें अध्यक्षपद घेवपाक गळ घाली. आठ दीस हांवें नाका नाका म्हणत शेवटाक तें घेतलें. ते वेळार मुख्यमंत्री उलयल्ले तें अशें –

माध्यमप्रस्न सुटावो जावप शक्य ना. मुळावें शिक्षण आवय भाशेंतल्यानूच दिवंक जाय हें खरें. पूण सक्ती केल्यार गोंयांत कायदो सुवेवस्थेचो प्रस्न निर्माण जातलो. 'भारतीय भाशा माध्यम' हो विशय आयज समजून घेवपी लोक नात आनी समजावपांतूय अर्थ ना. जण एकल्याचें राजकारण चल्लां. आतां ह्या प्रस्नाचेर कोंकणी अकादेमीन पावलां उबारूंक जाय. अकादेमीक जाय तो पयसो सरकार दितलें. गांवांगांवानी कोंकणी शाळा उबारून मुळा सावन हो विचार समाजांत रुजोवचो पडटलो. तें काम तुजे सारकिल्यांनी करपाचें–

आदले सरकार सदरेर आयलें ना तें जालें. पूण नव्या सरकारान खंयचें धोरण आपणायलें? तेंच न्हय!

म्हणटकच आतां आमकां मुळा सावन वावर सुरू करचो पडलो ना? कोंकणी राज्य घडयतलो जाल्यार शक्तीप्रदर्शन करून तें जावचेंना. तें उखलापें थारतलें. पन्नास वसां केल्ले चळवळीन हें साध्य जालें ना. हरकत ना. फुडल्या पंचवीस वसांत करूं येता असो विचार करून गांवांगांवांनीं कोंकणी शाळा सुरू करच्यो पडटल्यो. कोंकणी चळवळ म्हुण न्हय, काळाची गरज म्हुण! गोपिनाथ गांवस हाणें एक शाळा उगडल्या खंय! कोंकणी भाशा मंडळानूय प्रयोग करून तो यशस्वी केला. तो कसो तें मंडळाच्या रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदिराचे मुख्याध्यापक अनंत अग्नी हाणीं स्पश्ट रूपान हांगा सांगलां–

# 10 सुरक्षा सुचोवण्यो
## संरक्षात्मक वाहन चलोवपाच्यो



1. जतनायेन आनी रस्त्यार चलपी दुसऱ्यांचो विचार करून वाहान चलयात.
2. विभाजक शिस्तीक पाळो दियात.
3. धोकादायकपणान गाडयांक फाटीं घालूं नाकात.
4. चलपी, भुरगीं, सायकलवाले, जनावरां हांचेर नदर दवरून वाहान चलयात आनी वायट हवामानाच्या वेळार खासा जतनाय घेयात.
5. थेट मुखावयल्या गाडयेच्या मुखेल दिव्या झोताकडेन पळोवं नाकात.विभाजक मागदर्शना प्रमाण रस्त्याच्या दाव्या वटेनचो वापर करात.



6. रातचे वाहान चलयतना दिव्याचो झोत कमी दवरात.
7. तुमी गाडी चलयतना भावना प्रधान जावं नाकात.
8. तुमच्या वाहानाची योग्य देखभाल म्हटल्यार तुमच्या जिणेची पुराय सुरक्षीतताय.
9. रस्त्याचेर सुरक्षीत वर्तणूक ही प्रवृत्ती आसूंदी, उपकार करून ताचो जिणेंत आस्पाव करात.



10. दुसरो गाडी चुकीच्या पद्दतीन चलोवंक शकता हें मतींत घेवन संरक्षणात्मक तरेन गाडी चलोवपाची मनाची तयारी करात.

**वेगान वाहन चलोवप, अरिश्टाक आमंत्रण दिवप**



**येरादारी संचालनालय**
गोंय सरकार
पणजी–गोंय




# रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदिराची गरज आसा

- अनंत अग्नी

तिशेक वर्सां आदीं आवय भाशेंतल्यान शिक्षण दिवपाच्या हेतान कोंकणी भाशा मंडळान मडगांवां विद्या भुवन कोंकणी शाळा स्थापन केली. कांय वर्सांभितर मुळाव्या पांवड्यार आवय भाशेंतल्यान शिक्षण दिवपी एक आदर्श शाळा म्हुण तिची वळख जाली. हे शाळेंत मुळावें शिक्षण घेवन भायर सरिल्ले विद्यार्थी जिवनाच्या विवीध पांवड्यार पर्जळपाक लागले. मडगांवच्या पालकांची ती पयले पसंतिची शाळा जाली. कोंकणी भाशा मंडळाच्या जाळवणदारांनी गरज पडटा तशी बोल्सांतले पयशे खर्चून ती चलयली.

काळ बदल्लो. मडगांवची लोकसंख्या हिसपाभायर वाडली. गोंयाभायलो लोक मडगांवांत आयलो. इंग्लीश माध्यमाच्या मुळाव्या शाळांची संख्या वाडपाक लागली. त्या मानान माध्यमीक विद्यालयांची संख्या वाडली ना. तातूंतच कांय माध्यमीक विद्यालयांनी मुळाव्यो शाळा सुरू केल्यो. तांच्या मुळाव्या शाळेंतल्या विद्यार्थ्यांक आपसूक पांचवी यत्तेंत सरळ प्रवेश मेळपाक लागलो. परिणाम असो जालो की विद्या भुवन कोंकणी शाळेच्या विद्यार्थ्यांमुखार पांचवेच्या प्रवेशाचो प्रस्न उबो जालो.

आपलीं भुरगीं पांचवेक पावले उपरांत कटकट नाका अशें चिंतून पालक आपले मना आड आपल्या भुरग्यांक दुसरे शाळेंत धाडूंक लागले. विद्या भुवन कोंकणी शाळेचो दर्जोबरो आसून लेगीत विद्यार्थी संख्येचेर परिणाम जावंक लागलो. गोंयांतली एक आदर्श मुळावी शाळा फकत माध्यमीक फांटो ना ह्या एकाच कारणाक लागून पटसंख्येचे नदरेन फाटीं पडूंक लागली. कोंकणी भाशा मंडळाच्या जाळवणदारांमुखार आतां माध्यमीक विद्यालय सुरू करपा बगर पर्याय नाशिल्लो.

मुळाव्या पांवड्यार भाशा माध्यमाचो प्रस्न गाजतालो. अशे वेळार कोंकणी भाशा मंडळ इंग्लीश माध्यमांतलें माध्यमीक विद्यालय सुरू करता असो विरोधाभास कोणाकय दिसूं येतालो. कांय लोकांक तो दिसलोय. कांय दिसाळ्यांनी ताचेर आपली प्रतिक्रिया म्हुण अग्रलेखय बरयले. पूण इंग्लिशींतल्यान शिक्षण दितना कोंकणींतल्यान संस्कार घडोवप हें ध्येय दवरिल्लें. एक आदर्श माध्यमीक विद्यालय चलोवन ते वरवीं मुळाव्या शाळेकडेन लोकांक आकर्शीत करप हो कोंकणी भाशा मंडळाच्या

जाळवणदारांचो हावेस आशिल्लो.

कितें करता तें शास्त्राक धरून, काळाची गरज वळखून आनी एक खेरीत मोख दवरून करपाक जाय ही भाशा मंडळाच्या जाळवणदारांची आदीं सावनची भुमिका. देखूनच नवें विद्यालय सुरू करतलो जाल्यार शिक्षणीक सिद्धांत आनी आयची गरज ह्यो दोन गजाली नदरेमुखार दवरप गरजेचें आशिल्लें.

आनी हीच मोख नदरेमुखार दवरून सुरू जालें रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदीर. आयचे काळांत संस्थांक आपलीं वा आपल्या जाणटेल्यांचीं नांवां दिवंक कोट्यांनी रुपयांची लेगीत देणगी दिवंक कितलेशच जाण तयार आसतात. पूण एक आदर्श विद्यालय घडयतलो जाल्यार एखादे आदर्श व्यक्तिचेंच नांव दिवंक जाय अशें जाळवणदारांचें मत आशिल्लें. गोंय आनी गोंयकारपणाचे चळवळींत फुडारपण केल्ल्या रवीन्द्रबाब केळेकारां इतलें समर्पक नांव दुसरें मेळप कठीण आशिल्लें.


मनोविकास हायस्कुलान राज्य पावंड्यार आयोजीत केल्ल्या विद्यालयींन पथनाट्य सर्तीत शेगीत दोन वर्सां इनाम जोडलीं

निश्ठावान शिक्षक ही खंयचेय विद्यालयाची मुखेल गरज. ताचे हुशारकायेक निश्ठेची जोड ही जायच. अध्यापनांत नवे नवे प्रयोग करपी, आधुनीक तंत्रज्ञानाचो प्रभावी उपेग करपी, विद्यार्थ्यांच्या सुख-दुख्खाकडेन समरस जावन तांकां गरजेप्रमाणे योग्य समुपदेशन करपी शिक्षक मेळप हें खंयच्याय विद्यालयाचें भाग्य म्हणूंक जाय. रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदीर ते नदरेन नशिबवान म्हणचें पडटलें.

आयचो विद्यार्थी टिवी- संगणक सारख्या ओडियो-व्हिज्युयल माध्यमांकडेन चड आकर्शीत जाल्लो दिसून येता. पुस्तकांतलीं निखटीं चित्रां पळोवचे परस चलचित्रां पळोवपाक ताका आवडटा. हीच गजाल नदरेमुखार दवरुन रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदीरांत तंत्रज्ञानाचो उपेग अध्यापनांत केल्लो दिश्टी पडटा. भास विशय धरुन गणीत, विज्ञान, भुगोल आनी इतिहास सारखे विशय एल.सि.डी.वरवीं पावर पोंयट प्रेजेंटेशनच्या आदारान शिकयिल्ल्यान विद्यार्थ्यांक ताचो व्हड लाव जाल्लो हांगा दिश्टी पडटा. विद्यार्थ्यांची बुद्धिमत्ता आनी तांची आकलन शक्त नदरे मुखार दवरुन शिक्षकांनी आपलीं प्रेजेंटेशन्स स्वता तयार केल्ल्यान



उषांक परब रवीन्द्रबाब केळेकार हांच्या स्मृतीदिना दिसा तांच्या घरा आयोजीत केल्ले कार्यावळींत उलयतना. वांगडा मुख्याध्यापक अनंत अग्नी आनी रोहिणी केळेकार.

तीं चड प्रभावी जातात हो अणभव.

विद्यार्थ्यांक होमवर्क दिवचे सुवातेर तांचो सगलो अभ्यास शाळेंतच करुन घेवपाचेर हांगा भर आसता. होमवर्काचे सुवातेर विद्यार्थ्यांक आलायतें वाचन, सर्जनशील लेखन आदीं वरवीं ताका व्यस्त दवरप जाता. विद्यार्थ्यांचें अशें साहित्य दिसाळ्यांनी बी छापून येतकीच तांची उर्बा वाडटा आनी ते वरवीं आत्मविस्वास.

चडश्या विद्यालयांनी विद्यार्थ्यांक नवे शिक्षण पद्धतींत मुल्यमापनाचो भाग आशिल्ले प्रोजेक्टस/ प्रकल्प करपाचें काम घराकडेन करपाक सांगतात. प्रकल्प बरो जावन ताका बरे गूण मेळचे हे आशेन पालकच घराकडेन विद्यार्थ्यांक पुराय प्रकल्प करुन दितात अशें घडटा. रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदीरांत विद्यार्थी शिक्षकांच्या मार्गदर्शनाखाला स्वता वा पंगडाचो एक भाग जावन आपलो प्रकल्प तयार करता. गरज थंय तो शिक्षकांचें मार्गदर्शन घेता. अश्या विद्यार्थ्यांनी स्वता तयार केल्ले प्रकल्प खासा तयार केल्ल्या एग्जिबिशन स्टॅंडांचेर प्रदर्शीत करतात. हेर विद्यार्थ्यांकय ते पळोवंक आनी ते विशय समजून घेवंक मेळटात.

हें कोंकणी भाशा मंडळ संचलीत विद्यालय आशिल्ल्या कारणान कोंकणी निखटीच एक भास म्हुण न्हय तर संस्कार केळोवपाचें एक प्रभावी माध्यम हे नदरेन शिकोवप जाता. चडशा विद्यालयांनी भाशेचो अध्यापक, विद्यार्थ्यांक तयार प्रस्न-जापो स्वता दिता आनी विद्यार्थी फकत त्यो जापो पाठ करुन परिक्षेक बरोवन मार्क घेता. हांगा तशें घडना. हांगा शिक्षकान दिल्ल्यो रेडिमेड जापो सोडाच विद्यार्थ्यांक डायजेस्ट वापरपाकय मेळना. पाठ आसत जाल्यार विद्यार्थी स्वता ताचें वाचन करता, कविता आसत जाल्यार चालीन ती कविता पाठ करता. तो स्वता तिचें रसग्रहण करता आनी आपले परीन तिचेर आपले स्वताचे प्रस्न आनी जापो तयार करता. तो निखट्यो प्रस्न- जापो शिकना जाल्यार सबंद पाठ वा कविता शिकता आनी देखून परिक्षेक खंयचोच प्रस्न खंयच्याय स्वरुपांत विचारल्यार ताची जाप स्वताच्या उतरांनी बरयता. रेडिमेड प्रस्न- जापो पाठ करुन मेळयिल्ल्या मार्कांपरस स्वताचे हिकमतीचेर मेळयिल्ल्या मार्कांचें ताका चड अप्रूप दिसता.

इंग्लीश भासय प्रभावीपणान शिकोवपाचे नदरेन खासा यत्न जातात. दर दिसा नोटीस बोर्डाचेर एक इंग्लीश उतर ताच्या अर्थासयत संबंदीत विशयाची शिक्षिका बरयता आनी विद्यार्थी तें आपले चोपडेंत बरोवन काडटा. हाचेभायर दर दिसाचें म्हत्व सांगपी, एक विज्ञानीक फॅक्ट सांगपी तशेंच सुविचार सांगपी बोर्ड आसात. मदले सुटयेंत विद्यार्थी आपले खाशेले चोपडेंत ते बरोवन काडटात. ताचेर ते स्वताच केन्ना केन्नाय क्वीज घडोवन हाडटात.

पुस्तकी गिन्यान आनी वस्तुस्थिती हाचो मेळ विद्यार्थ्याक घालपाक कळचो देखून तांचेखातीर सातत्यान अभ्यास दौरे घडोवन हाडटात. इतिहास, विज्ञान, भुगोल, भास आदी विशयांत शिकिल्ल्यो गजाली तांकां सोपेपणी समजुच्यो देखून मिरामार विज्ञान केंद्र, पाट्यार गोंय राज्य वस्तू संग्रहालय, नावेलीच्या जिल्हो वाचपघरांत व्हरुन प्रत्यक्ष दाखोवप जाता. शणै गोंयबाब जयंतीक दिवचले तांच्या मूळ घरा, रवीन्द्रबाबाचे पुण्यतिथीक तांच्या घरा पिरवळा, पेद्रु कुरैय आफोंस जयंतीक शेतां वा कुळागरांत, रवीन्द्रबाबाचे जयंतीक वाचपघरांत अशीं भायर व्हरुन भायल्या जगाची तांकां वळख घडयतात.

भुरग्यांक व्हड जालीं तरी आवयन नाश्ता वा जेवण भरोवचें इतलीं आयज काल भुरगीं पालकांचेर अवलंबून आसतात. तांकां स्वावलंबनाची देख मेळची आनी वांगडाच एकचाराची देख मेळची म्हुण पांचवी-सवी यत्तेंत आसतनाच तांचेखातीर राबित्याच्या स्वरुपांतल्या शिबिरांचें आयोजन जाता. ह्या वर्सा माशें, पैंगीण, पर्तगाळ,



शिक्षकां खातीर कार्यशाळा. दोना सा मारिया हॉटेलांत

खोतीगांव सारख्या वाठारांत भुरग्यांनी घाल्लो धुडगूस तीं केन्नाच विसरचीं नात. मार्शेच्या वाटुरें दर्यावेळेर वतना जिणेंत पयलेच खेपे स्वताच्या हातांनी तोडून खाल्लीं काण्णां आसत वा पर्तगाळच्या विशाल वडाच्या पारंब्यांचेर घेतिल्ले झोपाळे आसत, शारी भुरग्यांक गांवगिऱ्या जिविताचें दर्शन घडूंक पावलें.

भुरग्यांक योग्य समुपदेशन मेळचें हे नदरेन तज्ज्ञांक आपोवन मार्गदर्शन दितात. तांचे कुटुंबीक प्रस्न समजून घेवन ताचेर उपाय काडटात. विद्यार्थ्यांक इश्टागतीन वागयिल्ल्यान तींय शिक्षकाकडेन मेकळेपणान वागतात. नितळसाण, समाजीक जापसालदारकी, व्यवस्थितपणा ह्या सारख्या गजालींचेर खाशेलें लक्ष आसता.

ह्या विद्यालयांत विद्यार्थ्यांच्या सर्वांगीण विकासाक पोशक साबार कार्यावळी आनी सर्तींचें आयोजन घडून येता. सगल्यो कार्यावळी नाविन्यपूर्ण आसतात. देखीक अंदुच्या प्रजासत्ताक दिसाचे कार्यावळीचें पंदरा विद्यार्थ्यांनी बारा भारतीय भासांनी सुत्रसंचालन केल्लें. गॅदरिंगाक पालकांची खाशेली कार्यावळ आशिल्ली. पालकांचें योगदान विद्यालयाच्या वावरांत बेस बरें मेळटा. मुळाव्या पावंड्यार श्री. पंकज नमशीकार आनी माध्यमीक पावंड्यार श्रीमती संगीता भाटिकार हांच्या फुडारपणाखाला पालक गरजेप्रमाणे विद्यालयाक आदार दितात.

विद्यालयांत सगल्या भुरग्यांमदीं इश्टागत आसा. सर्तीवेळार सगले विद्यार्थी एकामेकांक स्फुर्त दितात, आदार दितात. हांगा मेळिल्ल्या संस्कारांक लागून एक पंगड म्हुण ते वावुरतात. एकचार आनी समन्वयाचे धडे ते हांगा घेतात.

विद्यालयाचें वेवस्थापन शिक्षणीक क्षेत्रांत मेळपी सुटयांचें विरोधी. देखून हांगा चवथ आनी नाताळाचे सुटयेचो आडवाद सोडल्यार भुरग्यांक सुटी मेळना. अंदू दिवाळेचे सुटयेंत आयोजीत केल्ले नाट्य कार्यशाळेंतल्यान घडून आयिल्लें गोंय मुक्तीवेलें नाविन्यपूर्ण स्वरुपाचें नाटक दरेकल्याचे तोखणायेक पात्र थारलें. एप्रीलच्या सुटयेंतल्यो नाटक, येरादारी नेम, हस्तकला आदी विशयावेल्यो कार्यशाळा विद्यार्थ्यांच्या सर्वांगी उदरगतीक पोशक आशिल्ल्यो.



मिरामारच्या गोवा सायन्स सेंटरांत

संघटन आनी कार्यावळ आयोजनाचें प्रशिक्षण भुरगीं घेतात. विद्यालयांतल्या सगल्या कार्यावळींच्या आयोजनांत विद्यार्थ्यांचो म्हत्वाचो सहभाग आसता. सुत्रसंचालन, पुस्तकांचो नियाळ, व्यक्तिमत्वांचेर अभ्यासपूर्ण उलोवपां अश्या स्वरुपांत प्रत्यक्ष माचयेरय तांचें वावरप आसता.

विद्यार्थ्यांचे सर्जनशिलतेक उर्बा मेळची देखून साबार सर्तींचें आयोजन जाता. सर्तींत वांटेकार दरेका विद्यार्थ्याक प्रशस्तिपत्रक आनी एक भेटवस्त दिवपाचें ह्या वर्साच्यान वेवस्थापनान थारायलां. हाका लागून सर्तींत पयल्या तीन क्रमांकांनी येवंक जाय हें टेन्शन उणें जावन तो आपलेकडेनच सर्त करपाक लागतलो आनी अशे तरेन ताचे सर्जनशिलतेचो खरो विकास जातलो असो हावेस आसा. अर्थांत दरेकाक ताच्या सादरिकरणाच्या दर्जाचेर आदारुन श्रेणी दिवपाची तजवीज आसा. खात्रीन इनाम मेळटा देखून वांटेकार सर्तकाची संख्या वाडटली असो अंदाज आसा. अशे वेवस्थेफाटलो उद्देश विद्यार्थ्यांक आदींच समजावन सांगिल्ल्यान सर्तीचो दर्जो उणो जावपाची शक्यता ना.

नवीन आनी संख्येन ल्हान आसून लेगीत सबंद गोंयभर आयोजीत विंगड विंगड सर्तींनी हें विद्यालय वांटो घेता. अंदुच्या रवीन्द्र भवन, मडगांव आयोजीत विद्यालयीन पावंड्यावेले एकांकी सर्तींत साश्ट म्हालांतल्या हेर विद्यालयांकडेन सर्त करुन मेळयिल्ल्या पयल्या आनी उपरांत दक्षीण गोंय जिल्हो पांवड्यार मेळयिल्ल्या तिसऱ्या इनामाखातीर जेश्ट नाट्यकर्मी विजय केंकरे हाणीं लेगीत विद्यालयाची तोखणाय केली. भुरग्यांचें वय आनी तांक हांचो विचार केल्यार विद्यालयाक बरो फुडार आसा अशें ताणीं सांगलें.

विद्यार्थ्यांक वाचनाची गोडी लावपाच्या हेतान नेमान पुस्तकां घरा व्हरपाक दितात आनी तांचेर नियाळ बरोवंक सांगतात.

विद्या भुवन कोंकणी शाळेंतय अशे साबार उपक्रम चालीक लायिल्ले दिश्टी पडटात. वर्सुकी बाल मेळावो म्हळ्यार तर खोशयेक अंतपार नासता. मडगांवचो रोटरी क्लब दर वर्सा ह्या मेळाव्याक अर्थीक पालव दिता. कोंकणी माध्यमांत शिकपी विद्यार्थी कशे सर्जनशील आनी स्मार्ट जातात ताची गवाय हांगा पळोवंक मेळटा.

शाळेंत शिक्षिकांक ताई म्हणपाची चाल आसा. ताका लागून विद्यार्थ्यांक आपूण घराच आशिल्ल्याचें दिसता. विद्यार्थ्यांमदीं जावपी भावनीक, बौद्धीक, सर्जनशील बदलाचो नियाळ नेमान दवरप जाता. गरजेप्रमाणे पालकांकडेन भासाभास जाता.

शाळेच्या वर्सुकी स्नेहसंमेलनाक शाळेंतल्या शंबर टक्के विद्यार्थ्यांक आसपावन घेतात. कोंकणी माध्यमांतली शाळा आसून लेगीत विद्यार्थी बरे तरेन इंग्लीश शिकतलो हाची जतनाय घेतात. पांचवी-सवी यत्तेंत हेर विशयांनी येवपी इंग्लीश उतरांची वळख तांकां तिसरी- चवथी यत्तेंतच घडयतात. देखून इंग्लीश माध्यमांतल्या विद्यार्थ्यांपरस चड आत्मविस्वासान ते पांचवी यत्तेंत येतात.

विद्या भुवन कोंकणी शाळेंत सगल्या राश्ट्रीय सणांचें आयोजन जाता. तेभायर कोंकणी भाशा मंडळाचे पयले अध्यक्ष पेद्रु कुरैय आफोंस, शणै गोंयबाब, फेलीक्स कार्दोज, लोकमान्य टिळक आनी हेर फुडाऱ्यांच्यो जयंती मनयतात. प्रार्थनेक विद्यार्थी कोंकणी आनी इंग्लीश भाशेंत सादरीकरण करतात.

ह्या वावरांत साबार जाणांचें योगदान मेळटा. विद्यालयाचें वेवस्थापन सरकारी अनुदान नासतना लेगीत विद्यालयाक कांयच उणें पडचें ना हाची दखल घेता. शिक्षकां खातीर नेमान कार्यशाळांचें आयोजन जाता. पालक-शिक्षक संघ आपले परीन कार्यावळी घडोवन हाडूंक पालव दिता.

विद्यार्थ्यांचे सुरक्षेचे नदरेन वर्गांत सिसिटीवी कॅमेरे बसयल्यात. दरेका वर्गांत इंटरनेट कनेक्शन आसा. विद्यार्थी वा शिक्षक गरजेप्रमाणे इंटरनेटाचो वापर करता.

सकाळचे प्रार्थना सभेंत विद्यार्थी दिसाळ्यांतल्या म्हत्वाच्या बातम्यांचेर उजवाड घालता. तांच्या वर्गाच्या भायर गोंयांतल्यान उजवाडा येवपी सगलीं दिसाळीं शाळेच्या वेळांत दवरिल्लीं आसतात आनी दरेका विद्यार्थ्यान उणीच तीन दिसाळीं वाचचीं हे खातीर विद्यार्थ्यांक प्रोत्साहीत करतात. ते भायर सकाळीं प्रार्थनेक विद्यार्थी शिक्षकांच्या आदारान स्वता विंगड विंगड गजाली सादर करतात. म्हत्वाचें म्हळ्यार ह्या विद्यालयांत मदले सुटयेचे उपरांत पर्थून एकदां एसेंब्ली आसता. मदले सुटयेच्या मुडांतल्यान विद्यार्थी भायर सरचो म्हुण मेडिटेशन आसता. ह्या मेडिटेशन सत्राचें विद्यार्थीच संचालन करतात. सकाळचे प्रार्थनासभे उपरांतय वर्गांत भितर सरतगीच विद्यार्थी स्वताच संचलन करुन मेडिटेशन करतात.

विद्यार्थी फकत बुद्धिमान जावचो इतली माफक अपेक्षा हांगा ना. आयच्या स्पर्धात्मक युगांत खंबीरपणान तो उबो रावचो, समाजीक लागणुकेचें भान आशिल्लो एक बरो नागरीक जावचो, स्वाभिमानी तशेंच स्वावलंबी मनीस जावचो हो हावेस आसा.

**सद्याक पांचवी ते सातवी मेरेन १३२ विद्यार्थी**

तीन पुराय वेळ शिक्षक (अनंत अग्नी- मुख्याध्यापक, ब्लुड रोड्रिगीस, शुक्ला परब) आनी दोन अर्द वेळ शिक्षक (प्रणिता रायकार, प्रणिता म्हाड्डोळकार)

**वेवस्थापन- चेतन आचार्य, प्रशांत नायक, अन्वेशा सिंगबाळ, नित्यानंद नायक.**

रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदिर कोंकणी भाशा मंडळान फुडाकार घेवन सुरू केलें आनी आयज एक आदर्श शाळा कशी आसची हाची देख हे शाळेन शिक्षणाच्या मळार दवरिल्ली आसा. रवीन्द्रबाब केळेकारांचें नांव जरी हालीं हालींच दिल्लें आसलें तरी भाशा मंडळान जी मुळावी शाळा सुरू केल्ली ताचे फाटली सकल्पना रवीन्द्रबाबां सारख्यांच्या विचारांतल्यानूच मूर्त रूपांत आयिल्ली. रवीन्द्र केळेकार हांचो शिक्षण, सांस्कृतीक, अस्मिताय आनी गोंयकारपणांतल्यान राष्ट्रीयत्व हे विशींचे विचार जर पळयत जाल्यार रवीन्द्र केळेकार म्हळ्यारूच ज्ञानमंदीर अशें समिकरण जावन गेलां.

आतां प्रस्न असो आसा, आमी फक्त एकूच रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदीर चलोवन समाधान मानून घेतले? हें ज्ञानमंदीर सुरू करून फक्त मडगांवच्या लोकांची सोय जाल्या. ह्या ज्ञानमंदिरांत आपल्या भुरग्यांक प्रवेश मेळचो म्हुण पालक कशे विनयतात ताचो अणभव हांवें घेतला. शाळा म्हणटकच मर्यादा आयलीच. कितलीय इत्सा आसली तरी थारावीक संख्येभायर भुरग्यांक प्रवेश दिवप शक्य जायना. मागीर ह्या पालकांची इत्सा कोणें पुराय करपाची?

ही जपसालदारकी आपसूक कोंकणी भक्तांचेर येवन पडटा. कारण ह्या असल्या गजालींची रूच ताणींच लायिल्ली आसा. सरकारान न्हय. सरकारान नव्यो शाळा सुरू करूंक जो कोण मुखार सरता ताका सहकार्य करपाची अनुकुलताय दाखयल्या. पूण शाळा चलोवप म्हळ्यार बारीं चलोवप न्हय. जो कोण फुडाकार घेता ताचो स्वता ह्या मळाकडेन कमिटमेंट आसूंक जाय. जेन्ना ज्ञानमंदीर अशें आमी म्हणटात तेन्ना त्या मंदिराचो पुजारी हो पवित्र विचारांचो आसूंक जाय. ते पासत ताका आपल्यो खूबशो व्यक्तीगत गजाली त्यागच्यो पडटात.

हालींच दिनेश मणेरकाराचो शिक्षकां बाबतींत एक लेख वाचिल्लो. आयज शिक्षक आपल्या पेशाकडेन नोकरी ना म्हुण पळयतात. अमुकच वरां काम केलें आनी म्हयनो जातकच पगार घेतलो आनी पगारवाड जावन आपलें कशें बरें जातलें इतलोच विचार करप हेंच आयच्या शिक्षकाचें जिवीत जालां. आयचो शिक्षक कांयच वाचिना. कोंकणी शिक्षकांचोच विचार केल्यार आयज गोंयांत तीन-चार हजार कोंकणी शिक्षक आसात. हांकां ही नोकरी मेळूंक पावली ती कोणें तरी कोंकणी चळवळ उभारून तयार केली म्हण्णूच न्हय? मागीर हे शिक्षक आपली लागणूक म्हुण एक्काय कोंकणी कार्यक्रमाक आपलें तोंड कित्याक दाखयनांत? आपल्या पगारांतल्यान कोंकणीचें दिसाळें, मासिक वो पुस्तक कित्याक घेनांत? शिक्षक म्हळ्यार गिन्यानाचो कळसो. तो सतत भरत रावंक जाय. पूण हे गिन्यानाच्या पावसाचीं कुपां लागींच करिनांत! हे ज्ञानमंदिराचे पुजारी?

दोन रुपया म्हयन्याक फी घेवन शिकोवपी गुरूजी, मास्तरांकडल्यान शिकून आयिल्ल्या लोकांकूच ज्ञानमंदीर कितें तें कळटलें. अशे शिक्षक तयार करचे पडटले.

सतीश दळवी होय एक ज्ञानमंदिरांतलो पुजारी. निवृत्त जालो तरी आपले परीन पूजा करता. ताणें एक आदर्श चित्रबोध तयार केला म्हणपाचें



ताणें हालींच सांगलें. गोपिनाथ गांवस हेय एक शाळा चलयतात म्हणपाचो उल्लेख आदी केलाच. प्रशांत नायक विद्यार्थी चळवळींतल्यान आयिल्लो हेच तळमळींतल्यान ज्ञानमंदिरांत वावुरता. अशे कितलेच जाण आसात, जांकां आतां लागीं हाडपाची गरज आसा. गांवांगांवांनीं ज्ञानमंदिरां उबीं जावपाची गरज आसा. रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदिरां दर गांवांत उबीं करप कित्याक शक्य जावचिनांत? कोणूय गोंयां भायलो आपली पतसंस्था गोंयांत घेवन येता आनी गांवांगांवांनी तांचे फाटे उबारता आनी आमीच कित्याक अशे लेचेपेचे थारतात?

आमचेकडेन तांक आशिल्ले लोक आसात. आमी बाबत कुळां न्हय. पूण हो वावर कोंकणी चळवळ म्हुण जावंक फावना. पन्नास वर्सां चळवळ चलप आनी कांयच साद्य जावप ना ही चळवळ न्हय तर वळवळ. लोकांक चळवळ जाय फुडारी जावंक, सरकारी पदां घेवंक, अंकांक जायरात घेवंक, पुस्तकां खपोवंक. ही चळवळ चलयतात ते चलोवं. पूण कोंकणी राज्य जर घडयतले जाल्यार भुरग्यांक आतांच आमी आमचो म्हणचो पडटलो. पालक हो वेव्हारी आसता. तांकां आपल्या भुरगयांच्या फुडाराचो हुस्को आसता. फुडार म्हळ्यार बरो मनीस हें जालेंच, पूण त्याय परस बरी जोड हें आमी मतींत धरूंक जाय. आदर्श मनीस, कोंकणी मनीस ही ज्ञानमंदिराची मोख आनी जोड ही पालकांची मोख हाची सांगड घालप शक्य आसा.

सरकार, मागीर तें कॉंग्रेसचें आसूं, भाजपचें आसूं वो आप चें. खंयचेंय सरकार माध्यम प्रस्नाचेर निर्णय घेवंक शकना म्हणपाचें आमकां सगळ्यांक खबर आसा. फाल्यां मुख्यमंत्री म्हुण उदयबाबाक लेगीत निर्णय घेवंचो पडलो तरी ताका तें शक्य ना. सोरो पिवूं नाकात, मटको खेळूं नाकात अशें सांगूनय ताचे पासून कोणाक परावृत्त करूंक येना तशें मराठी, इंग्लीश माध्यमाचें फॅड निर्माण जालां तें सक्तीन पयस करप शक्य ना. तशें केल्यार तकल्यो फुटटल्यो. म्हणटकच एकूच उपाय आमचें सपनांतलें गोंय आसा तें घडोवंक. आमकां ज्ञानमंदिरां बगर पर्याय ना. शाळा वेगळ्यो आनी रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदीर वेगळें ही संकल्पना मतींत घेवन हो वावर जावंक जाय. पन्नास वर्सां सरलीं. सरूं! फुडल्या पंचवीस वर्सांची मोख दवरुया. सहज शक्य आसा!



- नं. ध. बोरकार

कादंबरी

# सपन

*सिमांव हो गोंयचो कश्टकरी शेतकार. सिमांव धर्तरेचो पूत. अशिक्षीत आसुनय खूब किलें जाणां. सिमांव हो बऱ्या काळजाचो आनी पवित्र मनाचो देवभक्त शेतकार. जेजुचेर ताचो खूब मोग. तोच ताका शेत वसोवपाचो आदेश दिता...*

*गोंयच्या एका शेतकाराच्या जिणेवेली नं. ध.ची आगळी वेगळी कादंबरी...*

इतलीं वर्सां भुरगें-बाळ नासतना नातलू-सिमांवान दीस काडले. खावंक-जेवंक खूब आशिल्लें तांचेकडेन. पूण खातलो कोण नाशिल्लो. ज्या भाटाचो तो मुंडकार आशिल्लो, त्या भाटांत आंबे-पणस घेऽ म्हुण आशिल्ले. पिके भारार आंबे झडून भाटभर पातळटाले. शेजारी-पाजारी आनी तांचीं भुरगीं आंबे पुंजावन व्हरतालीं. पूण सिमांव आनी नातलू कोणा आड एक उतर भायर काडिनासलीं. ल्हान भुरग्यांक तर तीं आपूण जावन आंबे पुंजावन दितालीं. पूण त्या भुरग्यांक नातलून पुंजावन दिल्ले आयते आंबे मानवनासले. तांकां दिसतालें, खर वारो येवंचो, आंबे झडचे, ते काडून घेवपाक सगळ्या भुरग्यांनी वांगडाच धांवचें. पडिल्ल्या आंब्यांचेर झोपय मारची. जाच्या हाताक आंबो लागता, ताणें हात वयर करून जैत मनोवचें. ह्या जैताची गोडसाण पिक्या आंब्या परस उजू आसताली, त्या भुरग्यांक!

करतां करतां निरागस भुरग्यांचें हें गुपीत नातलूच्या लक्षांत आयलें. ताणें भुरग्यांक आयते आंबे दिवपाचें सोडून दिलें. आयते आंबे मेळिल्ल्यान भुरगीं निर्शेतात. तांकां उडयां वांगडा हुयेल्यो मारूक मेळनांत. आड्ड्यो मारूक मेळनांत. धोपरां फोडून घेतिल्ल्याचो आनंद मेळना ही गजाल नातलूच्या लक्षांत आयली आनी ताणें भुरग्यामदें ना पडपाचें थारायलें.

वगत दनपारचो आशिल्लो. वारो सुसाट्याचो व्हांवतालो. मदें-मदें ताका इतलो मद मारतालो, की तो खंयच्यान तरी नेटान येतालो आनी झाडापेडांक झोडपून फुडें खंयतरी वचून लिपून बसतालो. खंय वतालो, ताका आनी देवाकूच खबर!

हेवटेन हांगा-थंय उबी आशिल्ले रुखावळीक इल्ली उसंत मेळटाली. रूख बागयल्ली तकली वयर काडून, तापिल्ल्या शेतां-मळांचेर नदर मारताले. रखरखांत सांपडिल्ल्या भुयेंची त्या रुखांक काकुळट दिसताली. ताणीं मस्त्या वाऱ्याची सुलूस घेतली. मस्तो वारो पयस गेला आनी बळहीण वारो विशाळ रुखांच्या ताळयांनी घुस्पला ही गजाल त्या रुखांच्या लक्षांत आयली. तांकां दिसलें, ताळयांनी घुस्पल्ल्या वाऱ्याचो इल्लो उपेग करून घेतल्यार बरो.

रुखांनी आपल्या पांचव्याचार पानांच्या ताळयांचे आयणे केले. हे आयणे वयर-सकयल हालोवन, तापिल्ले धतरेक थंडसाण हाडपाचो इल्लो प्रयत्न करून पळेलो.

पूण शक्तीशाली वाऱ्याच्या दुतांक ही गजाल मानवली ना. ताणीं आपल्या धनयांचे, म्हणल्यार शक्तीशाली वाऱ्याचे कान फुंकले. वारो फुरफुरलो. ताणें दयाळ रुखांचेर खर हल्लो

केलो. ताकदवान वाऱ्यान सगळ्या रुखांक खिणांत झोडपून काडले. वाऱ्याक दिसलें की हे रूख आपल्या कार्यांत आडमेळें हाडटात. आपलो अधिकार हातासूं पळेतात. हांकां बुध्द शिकोवंकूच जाय.

तो वारो जावं ना तर लोकांनी वेंचून दिल्लो आमदार जावं. सगळ्यांची वृत्ती एकूच आसता. आमदार आपली मदांदकाय उलोवन दाखयतात आनी वारो आपले कृतीन.

वताचो रखरख, मदें-मदें वाऱ्याचो सळसळ आनी सान भुरग्यांच्यो हुयेल्यो आनी किळांच्यो नातलूच्या कानाक आनी मनाक सुखायताल्यो. नातलूक दिसलें, वता कडार घरांत पडून रावचे परस थोडो वेळ सैमखेळ पळेल्यार बरो.

नातलूच्या मनांत मुजरत सैमखेळ पळोवपाचे विचार हे आदीं केन्नाच आयले नात. कारण ताका आपल्याक भुरगें नाशिल्ल्याची खंत भोगताली. कित्यांतूच तें आतां व्हडलोसो रस घेनाशिल्लें. पूण आतां मात ताच्या फाटीं-फुडें आशेचीं किरणां पासयो मारतालीं. ताच्या पोटांतल्या भुरग्यान ताका नवें जिवीत जगपाची ओड लायिल्ली. फाटल्या काळांत तें खंयीं बसऽ, खंयीं न्हीदऽ, कितेंय खायी, कितेंय पियी, कितेंय आनी कशेंय उलयी. आपल्या वांगड्यांकडें कशेंय वागऽ अशें करतालें. ताच्या भायर-भितरल्या वागण्याक कसलेंच ताळतंत्र म्हुण नाशिल्लें.

पूण आतां ताच्या जिवितांत इल्लें इल्लें परिवर्तन घडटालें. ताच्या पोटांत ताच्या रक्तामांसाचो गुळो मानवी आकार घेतालो. इतलो तेंप दुख्खी-कश्टी आशिल्ले आपले आवयक तो सांगतालो-

'मांय, हे फुडें तूं भियेंव नाहां जे. तुहां सुखी कोरपा पासोत सुखांनी भोल्लेलो पांटुलो माथ्यार झेवन चोलोंक लागलां. वाटेर आहां. तूं कांयच भियों नाहां. थोड्याच दिसांनीं हांव तुजे लागीं येवन सेवोंक लागतलों.'

हीं उतरां नातलूच्या पोटांतल्यान आयकूंक येनासलीं. नातलूक तो भास जातालो. जातात असले भास गुरवार बायलांक केन्ना-केन्नाय! चड करून पयले फावट गुरवार आशिल्ली बायल उमेदीन भरिल्ली आसता. म्हऱ्यांत कोण ना तें पळोवन पोटांतल्या भुरग्याकडें आपल्याक जाय तसो संवाद सादता.

नातलू अशिक्षीत आशिल्लें. तरी तें सुशिक्षीत आवयभशेन आपल्या पोटांतल्या भुरग्याची काळजी घेतालें. चलतासतना, भोंवतासतना, बसतासतना, उट्टासतना ताचें शिंतीद आपल्या पोटाचेर चड आसतालें.

इतलेंच न्हय, तर आपल्या जेवणा-खाणाचीय तें मुजरत काळजी घेतालें. नुस्तेपास्तें, शाकभाजी, फळफळावळ - हें ताका आवडूं वा ना आवडूं - आपल्या पोटांतल्या भुरग्या खातीर मुजरत खातालें.

पयलीं तें कितें खावं कितें नाका तें दोतोराक विचारतालें. उपरांत दोतोर सांगता तें खरें वो खोटें तें जाणोवन घेवपाक पादविगाराक विचारतालें.

इगर्जेंतल्या पादविगाराचो सल्लो घेतलेबगर कसल्याच कामा खातीर पावल फुडें घालिनासलीं सिमांव आनी नातलू!

येदो वेळ सैमाचो खेळ पळेत, माडाक तेंकून गणयत आशिल्लें नातलू आतां मात्शें थकलें. थंयच्यान तें भेंडार हात धरून लकत लकत वासरेर आयलें. थंय वण्टीक तेंकून आशिल्ल्या कानाप्यार बसलें.

हरशीं ह्या कानाप्याचेर सट करून नातलू बसना. शेतांत सावन येतकच सिमांव बसता त्या कानाप्याचेर. सदांच एक मांदरी आनी उशाकडें घडी करून दवरिल्लें फटकुल आसता. ते भायर एक पिंजको तुवालोय आसता. घामान भिजिल्लें तोंड आनी गरज पडल्यार आंग पुसपा खातीर!

केन्ना केन्नाय नातलूक आनी सिमांवाक एकठांय बसून चकाटां मारपाची कूय मारता. असल्या वगतार सिमांवाक दिसता की नातलून येवन आपले कुशीक कानाप्याचेर बसचें. पूण नातलूक तें मानवना. तशें बसपाक ताका लज दिसता.

आयज मात विपरीत घडलें. नातलू आपूण जावन आपल्या कानाप्याचेर बसलां, हें सिमांवाच्या लक्षांत आयलें. हे घडयेक तो जेवन चुडटांमाचयेर अर्दकुटें मल्ल उडोवन ताचेर आड पडिल्लो. व्हांवतो वारो ताच्या सगळ्या आंगाक खातकुतल्यो करतालो. ह्यो खातकुतल्यो सिमांवाक सुखदिण्यो लागताल्यो. ताकाच लागून तो दनपारचो घर सोडून चुडटांमाचयेर येवन पडटालो. असल्या वगतार कोणेंय ताच्या म्हऱ्यांत येवन बोवाळ केल्यार तो चाळवतालो. पूण दनपारच्या कडावेलो भुरग्यांचो बोवाळ मात सिमांवाक सुखदिणो लागतालो.

नातलूक आपल्या कानाप्यार बशिल्लें पळोवन सिमांव अजापीत जालो. आपूण सपनांत आशिल्ल्याचो ताका भास जालो. तो चुट्टां माचावेलो सरपटत देंवलो आनी दोळे चोळीत आपल्या घरा दिकेन, धांवते गतीन चलत रावलो. कानाप्याक तेंकून, नातलू म्हऱ्यांत तो अशे तरेन उबो रावलो की नातलून ताका येवकार दिवन म्हऱ्यांत बस म्हणचें. पूण नातलून तशें केलेंना. तें अचळय फाटीं सरकलें. ताणें आपल्या दोनूय हातांचेर आख्खे कुडिचो पेज घालो आनी तें फाटल्यान लवंडलें.

नीट बशिल्ल्या नातलून अशें करप म्हणल्यार, ती सिमांवाक आपल्या म्हऱ्यांत बस म्हणपाची नातलूची कुरू आशिल्ली. सिमांव आतां अनमन नासतना नातलू म्हऱ्यांत बसलो.

मोगाचे बाबतींत जग कितलेंय सुदरलें जाल्यार, ती सुदरण नातलू-सिमांवाकडे अजून पावुंनासली. नातलू - सिमांव उक्त्या मळार वावुरपी शेतकारां. तांच्या मदें मीनाखणींनी, कारखान्यांनी, सरकारी कचेऱ्यांनी बी घडटा तसलें मोगा प्रदर्शन घडनासलें. असल्या मोगाचो केन्ना फोग जायत, हाचो नेम नासता. चडशा भूंयपुतांचो मोग पवित्र, घट्ट आनी सासणाचो आसता.

नातलू आनी सिमांवाचो मोग असलेच तरेचो आशिल्लो.

"नातलू, आयज वाव चोडूच व्हांवता, ना गो!" सिमांवान आंग शिरशिरल्या भशेन करून म्हणलें.

"व्होय रे, माहांय तोहेंच दिसता. ओहलो आरो माहां जाल्यार केन्नाच आपडों ना." नातलून अशें म्हणत कापडा पालोव पुरायेन आंगार ओढून घेतलो.

"ओहें कोहें म्होण्टाय गो तूं नातलू. ओहल्या ओगतार ओहलें आरें सोदांच व्हांवता. देव मुगो, ते ते ओगतार तें तें सोगलें घोडोवन हाडटा. पूण मुगो, आमहां तें गोमोना गो नातलू!"

सिमांवान आपलें तत्वगिन्यान बायले मुखार मांडलें.

''कोवोना कित्याक, सोगलें कोवता. पूण तें सजमोन झेवपाक आमहां ओगोत हूंय मेवता रे? सोदांच काम-काम-काम! फांतोडेर कोंब्या सादार कामा लागपाचें आनी आमोरेर थांबपाचें.'' नातलून एके कुशीवेलें आंग दुसरे कुशीर वळयत म्हणलें.

''तूं सांगता तें सारकें गो नातलू. देवान आमच्या नोशिबांत सूख म्होण्टाय तें घालुंकूच ना. ना जाल्यार कोलवा, कालांगूट आनी गोंयच्या हेर वेळांचेर वोसोन पोळे गो व्होडले-व्होडले गिरेस्त आनी तेंगेल्यो गोऱ्यो-गोऱ्यो बायलो नागड्यो जावन भायर-भितोर आरें झेताय. तेंचे तें सोगलें पोडेन-पोडेन-शें दिसता.''

हें आयकून नातलू चवताळ्ळें. ताणें सिमांवाचेर एक धुमको घालो आनी आड्डेलें.

''लोज दिसोना तुहां चेडयेच्या, हें माहां सांगोंक? तुहां गिरेस्तांल्यो नागड्यो बायलो पोडोवंक बोऱ्यो दिसताई? केन्ना जेलो रे तूं पोडोवंक तेंहां?''

नातलूच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावंक लागलीं.

''हांव वोसोंना गो तेंहां पोवंक.'' सिमांवान रडकुरो जावन जाप दिली.

''तोहें जाल्यार, तुहां कोह्यो दिसल्यो रे त्यो नागड्यो बायलो?'' नातलून दोळे पुसीत प्रस्न केलो.

''तो मोनू ना गो?''

''कोण मोनू?''

''धोनू भाटकारालो चोलो गो!''

''तेजें कितें जालें?''

''तेणें दिली माहां नागड्या बायलां फोबोर. तो मुगो, गाडी झेवन सोद्दां दर्यदिगांचेर पासोयो मात्ता. मेवता तो माहां केन्ना केन्नाय, बाजोरांत.''

''तो चलो, तुहांऽ मेवलो? आब्बा! आनी कोण मेवलोना हूंय तेका नागड्या बायलां फोबरो आयकोंकूऽ.'' अशें म्हणन नातलून सिमांवाचेर आनीक एक धुमको घालून सिमांवावेलो खोटो राग उक्तायलो.

खरें म्हणल्यार सिमांव नितळ मनाचो. ताका पचपचीत आनी पोजड्यो गजाली मात्तूय



मानवनाशिल्ल्यो. पूण म्हऱ्यांत येवन कोणूय कित्याकितेंय उलयलो जाल्यार तो तरी कितें करतलो?

ह्या संवसारांत कांय असलेय बी मनीस आसतात, की तांच्या मनांतल्यो गजाली आयकुपाक तांकां मनशांची गरज आसता. सिमांवसारके भावार्थी लोक तांकां बळी पडटात.

''नातलू, त्यो गोजाली तूं सोडून दी गो आतां. आमी आमच्या संवसाराचें पोवया. इतले दीस आमी निर्शेवन-निर्शेवन काडले. हे फुडें आमी आमचो संवसार फुलोवया. आहाय आमचे गांठीक चार पोयशे. बोरें-बोरें हावया जेवया मौजा मारुया.''

खरें म्हणल्यार सिमांवान सांगीसर नातलू ओगी रावुनाशिल्लें. हेवटेन ताका दीस गेल्ले आनी तेवटेन ताणें आपल्या जिवाची काळजी घेवपाक सुरवात केली. शेतांत काम करून करून सुकील्ल्या नातलूच्या आंगार आतां घसघशीत मांस चडिल्लें. पयलीं ताच्या दोंकल्याचीं हाडां दिसतालीं. पोंवट्यो हाडांक तेंकिल्ल्यो. कुले सुकिल्ले. नाक फुडें आयिल्लें. दोळे भितर गेल्ले. कमराक बाग आयिल्लेवरी दिसताली ताच्या.

असले स्थितींत तें शेतांत काम करतां करतां ताठ उबें रावलेंच जाल्यार, हात बागयल्लें बुजगावणें कशें दिसतालें.

पूण आतां तें सुटपाचें आशिल्ल्यान, ताणें शेतांत वचपाचें बंद केल्लें. ताका लागून घरांतूच पडून राविल्ल्यान, ताका कसलीच तकालस पडनासली. सिमांवूय ताका कसलेंच काम पडूंक दी नासलो. वेळांतलो वेळ काडून घरांतलें रांदप-कांडप, झाडप-धुंवप आनी उदक लेगीत भरपाचें काम तो स्वता करतालो. गुरवारपणांत बायलेक सुखी दवरप ही आपली लागणूक जावन आसा अशें तो मानतालो.

५

ल्हानां सदांच व्हडांचे देखीन चलपाचे प्रयत्न करतात. गांवांतलीं भाटकारां उंची-उंची न्हेसणां न्हेसतात. जोतीं आनी सेंडलां घाल्या बगर पांय भायर काडिनांत. ओंठ तांबडे केल्या बगर आनी पोल्यांक पोव थापल्या बगर लोकांक तोंड दाखयनांत. पूण शेतकारांक तें जमना. कितलो म्हुण पोव थापतलीं तोंडाक? आनी थापलोय जाल्यार शेतांत देवना फुडें घामा लोटान तो व्हांवन वता. ताका लागून चडशो कश्टी बायलो पोव मारून शेतांत देवपाचे भानगडींत पडनांत आनी देंवल्योच जाल्यार हेर बायलो तांकां चित्रेलां-पेत्रेलां म्हणून चाळयतात.

नातलू शेतकान्न आसलें. अशिक्षीत आसलें. तरी तें हुशार आसलें. ताची निरिक्षण शक्त प्रभावी आसली.

एक दीस ताणें शेतांत वतासतना एके गुरवार भाटकान्नीक पळेली. भेंडार हात धरून लकत

लकत बल्कावांत पासयो मारताली ती. पावलां मेरेन मॅक्सी घाल्ली तिणें.

नातलून भाटकान्नील्या पोशाकाचो बरोऽ नियाळ केलो. भाटकान्नीलें पोट बरेंच फुडें आयिल्लें. नातलून चिंतलें, आपुणूय गुरूवार आसां. भाटकान्नील्या पोटांभशेन आपलेंय पोट वाडटलें. सैल मॅक्शींत पोट बरें उरता म्हुण भाटकान्न मॅक्सी न्हेसता. तेन्ना आपणेंय सिमांवाक सांगून मॅक्सीची एक जोडी हाडल्यार बरी.

आनी ताणें ती अनमन नासतना हाडून घेतलीय बी!

नातलू आतां संवये खातीर मॅक्सी घालूंक लागलें. सदांच शेतांतलें कामेरें जावन भोंवपी नातलू आतां भाटकान्नी भशेन मॅडम जावन भोंवूंक लागलें. नातलूंत अकस्मात जाल्लो बदल पळोवन गांवांतलीं हेर शेतकारां ताचीं टिंगल करूंक लागलीं. मेळत तेन्ना ताका पळोवन मुमुरक्यां हांसूंक लागलीं. पूण नातलूक ताचें कोंत नासलें आनी ताणें लोकांचें कोंत कित्याक म्हुण करचें? ताणें केल्ले सगळे नखरे ताच्या घोवाक मानवताले. घोवानूच ताका सांगिल्लें जाय तें करूंक. आपल्या घोवाच्या मनाचो थाव घेवन नातलू आतां चडूच मेकळपणान वागूंक लागिल्लें.

चडश्यो किरिस्तांव अस्तुऱ्यो फुलां माळिनांत. नातलूय माळिनासलें. पूण आतां तें पोरसांतल्या शेंवत्या-आबोल्यांच्यो फांतयो घालून आंबाड्यार माळूंक लागलें. तशें करून ताच्या जिवाक खूब बरें दिसतालें.

नातलू आंबाड्याक शेंडो म्हणटालें.

नातलूले नखरे पळोवन सिमांवूय दिशीं दिशीं चडूच फुलूंक लागलो. शेंवत्या-मोगऱ्यांनी भरिल्ल्या नातलूल्या शेंड्याक पळोवन सिमांव खोशेन भरतालो. नातलूच्या फाटल्या फुडल्यान पासयो मारून तो बेटोच मुरगट्टालो. मेक्शी न्हेसिल्ल्यान आपली बायल आतां व्हडली जाल्या, ती शेतकान्न उरूंक ना अशें सिमांवाक दिसतालें. सिमांवाक अशेंय दिसतालें, की सगळो काम-धंदो सोडून चडांत चड वेळ नातलूचे बगलेक बसचें. आपल्या फुडाराविशींची भासाभास करची.



ती संद ताका आतां आयतीच मेळिल्ली. नातलू म्हऱ्यांत, कानाप्याचेर बशिल्लो आसतना आतां आपले विचार नातलूक उलोवन दाखोवंचे अशें येवजून तो नातलू म्हऱ्यांत बसून उलोवंक लागलो-

"नातलू, आनी थोड्या दिसांनी आमजेर बाबा ना तोर बाय जावपा आहा, हें शेर्त मुगो!" अशें म्हणून सिमांवान खुशी उक्तायली.

"तू सारको आहा मुरे तोकलेनू? पोत्तें पोत्तें एकूच उलोयता मुरे तूं!" नातलून आपलो लटको राग उक्तावन, कोरें करून सिमांवाचेर नदर मारली. असल्या वगतार नातलूल्या चेऱ्यावयली सुंदरकाय इल्ली चडूच परजळूं लागली. ताका दिसलें, नातलूक अचळय ओडून गोपांत घेवचें. नातलूकूय तेंच जाय आशिल्लें. पूण सिमांवान तशें केलेंना. कारण भाटांत अजुनूय लागसाराक सानुलीं पोरां बोवाळटालीं. ताणीं पळेल्लें जाल्यार, सिमांव अंकल नातलू आंटीचो मोग कोत्ता म्हुण गांवभर फामाद करतलीं आसलीं.

ताणीं वेंतभर पयस रावन फुडाराच्यो गजाली चालूच दवरल्यो -

"जाणा मुरे सिमांव, आमजेर, थोड्याच दिसांनीं बाबा ना तोर बाय जावपा आहा. तें कोणूय जावं. हांव म्होज्या भुरग्यांक शेतांत मात कोहेंच धाडपा ना आं!"

नातलून अपुरबायेन आपल्या पोटाचेर हात ओडलो आनी ताचो उमो घेतलो.

"तोहें जाल्यार आमचें कोहें जातोलें गो नातलू? आमजे शेतां कोण रोयतलो?" सिमांवान तोंड येदेंऽ केलें.

"तीं शेतां पोडों पाड रे! इतलो तेंप शेतां रोवन कितें मेवलां आमहां. फोकोत पोटाभाणें मात भोल्लां."

"तूं सांगता तें सारकें गो नातलू. पूण पोटाभाणें भोरल्या बोगोर जीव झेवन भोंवतोलीं कोहीं गो आमी!" सिमांव खरेली गजाल उलोवन गेलो.

"शेनी नाय रे, शेनी तांदूव जेवपाचे."

"छे! तें सुरय शीत आमहां कोता येवपा गो? पोटां पावतोकोच नाच जाता. आमहां सोवोंय जाल्या उकड्या तांदवां शिताची. केनवा तांदवां शीत पोटां जेलेंना जाल्यार बारा जावंचे आदीं, हात-पायां थोरथोरो मात्ता मुगो."

"थोरथोरो मात्ता, आब्बा! तूं गांवां एकटोऽ आहा कितरे. त्या कोहण्यांक पोय रे, कोहे फुल्ल्याय ते सुरोय शीत जेवनू. तूं उकड्या तांदवां शीत जेवन बोकडो कोहो जाला."

"आमच्या गांआंत कोहणे शेतकार हुंय आहाय गो." सिमांव पिरंगलो.

"कोहणे ना ते ना. किरिस्तांव पूण आहाय मुरे? सोगलीं शेतां पाड उडोवन लोंडोनांत धांवल्याय. आमीऽ आहाय हिंगां पिर्शी कोहीं. भुरगीं-बावां नाहलीं देखून काडले दीस शेताक वेंग मारून. देवा कुरपेन हांव बोरे भासेन सुंटल्यार पुरो. एक तोर हांव म्होज्या भुरग्याक दोतोर कोत्तेलीं, ना तोर भायर धाडून व्होडलो मुनीस कोत्तेलीं. तूं मुरे हाल्यां इंग्लीश इस्कॉलां वोसोन आतांऽ के. जी.क नांव बोरोवन दवर."

**(फुडें चलता...)**

**- नं. ध. बोरकार**
मास्करेन्यस वाडो, गोवा वेल्हा.
फोन : ०८३२-२२१८१४७



- रमेश भगवंत वेळुस्कार

# भाग्यवंत सपन म्हजें




**पां**डुरंग भांगी हें नांव कोंकणी कवितेच्या मळार एके भाशीक ताकदीच्या नांवान घेतात. तांची शब्दकळा तांच्या स्वताच्या स्वभावांतल्यान तशेंच तांणी केळयल्ल्या दृश्टिकोनांतल्यान आनी ताणी आपणायल्ल्या सौंद्यात्मक परिमाणांतल्यान उप्रासून येता. ते 'दिश्टावो' ह्या तांच्या पयल्या वयल्या १९७२ त आयल्ल्या संग्रहांतल्या आपले कवितेंत म्हण्टात-

> **भाग्यवंत सपन म्हजें**
> **दवार आतां पिकतलें**
> **थोड्याच अशा घटकांभितर**
> **गिराण म्हजें सुट्टलें**

भांग्यांची ही कविता कोंकणी मनशाची भास उलयता. *दवार पिकप* ही म्हणणी कोंकणी समाजपुर्साची. ही म्हणणी लोकांच्या मनांत आनी ओंठार खेळपी. खरें म्हटल्यार हें लोकमन. आपल्या युगांतरांच्या अणभवान ताणें तयार केल्लें मत. *दवार पिकप* म्हटल्यार आपाप मेळप. हाचो आनी एक अर्थ जावं येता की कल्पना केल्लें सहज, आपशींच प्राप्त जावप. घडये साडेचारशें वर्सां उपरांत जें मेळ्ळां तें भाग्यवंत सपन घेवन आयलां. हें एक अशें भाग्य आसा जाका लागून सपनां *दवार पिकप* शक्य आसा. भांग्यांनी हे म्हणणेचो सुंदर उपेग हे कवितेंत केला. *भाग्यवंत सपन म्हजें / दवार आतां पिकतलें* ह्या उतरांत कोंकणी भाशेचें नादविश्वूय आमकां नकळत आमच्या मनार ताल धरपाक लागता. आनी अशा विश्वासान फुडलीं उतरां म्हण्टात -

> **थोड्याच अशा घटकांभितर**
> **गिराण म्हजें सुट्टलें**



हांतल्यान जाणवता तो कवींच्या मनाक जाणवल्लो आत्मविश्वास. आयज आमचेमदीं भांगीबाब नात पूण तांच्या मनांतल्यान उचंबळून आयल्ल्या उतरांच्या प्राणाचें संवेदन जाणवता. तांचें उलोवप आपलेचकडें जाता. हीं उतरां ते कोणाक सांगतात अशीं दिसना. हीं उतरां ते आपल्याकूच सांगतात शे दिसतात. सामान्य मनीस चड करुन हेरांक आडून सांगचेपरस आपल्याकूच सांगप करतात ते वरी हें दिसता. हाका लागून हीं उतरां म्हटल्यार सामान्य मनशाचीं मनशां काय कितें, अशें दिसलेबगर रावना. हो विचार मनांत येवपाचें कारण म्हटल्यार भांगीबाबान दिश्टाव्यांत पुर्तुगेज कवी फेर्नांद पेस्सोआचे पुर्तुगेज कवितेचें एक कडवें, Ser poeta não é uma ambição minha / É a minha maneira de estar sozinho (कवी जावप हें म्हजें ध्येय न्हय, तर ती म्हजी एकांत अणभवपाची पद्धत) उद्धृत केलां तें तांच्या आनी तांचे कवितेंतल्या सभावाकडें सामकें जुळटा तसलें आसा. *भाग्यवंत सपन म्हजें / दवार आतां पिकतलें / थोड्याच अशा घटकांभितर / गिराण म्हजें सुट्टलें* ह्या उतरांत दिसपी मानसीक अवस्था ही कवीची एकांत भोगपाची पद्धतशी दिसता. घडये तो आपलेच मतींत आपल्याकूच तोखेतासो दिसता. तोखेवप म्हटल्यार कोणाक खोशी करप न्हय. तर मनांतल्या मनांत आपणेंच खोशी जावप. तशें पळोंवक गेल्यार आयचो दर एक मनीस फकत खोशेखातीरच वावुरता अशें म्हटल्यार अतिताय जांवची ना. सगळ्या लोकांक चडांत चड पयशे मेळोवप हें आयज गरजेचेंशें दिसता कारण तशें केल्यार आनी तें सफळ जाल्यार खूब खोस मेळोंव येतली अशी खात्री ताका आसा. पूण हांतल्यान खोस ही एक काल्पनीक

गजाल जायत चल्ल्या. तेच परी ती एक स्पर्धात्मक गजालूय जायत गेल्या. आनी दुसऱ्यापरस आपूण किते तरी चड बरें जगतां, वा बरें भोगतां हें दाखोवप म्हटल्यार चड खोस, अशें समाजमत जायत चल्लेल्या कारणान ही खोसूय दुसऱ्याचेर अवलंबून आसपी (डिपेंडेंट अशी) जाल्या. मात्शें आनीक खोलांत वचून चिंतल्यार आमकां आनीक एक गजाल कळटा की ही स्पर्धाय मनशाच्या मनांत बाजारान निर्माण केल्या. बाजार आपलो धंदो चलोवपांत रस घेता. आनी सामान्य मनीस ताका बळी पडला आनी ताणें आपलें खरें सूख होगडायलां. हें सैम, हो आमचे जिणेंतलो सुखाचो व्हडलो पोटलो आसा हेंच तो विसरला. जिणेंतलें काव्यूच तो विसरला अशें हांगा दिसता. सैमान मनशाक जें सहज दिलां, आनी जें खूब्ब सुंदर आसा तें ताका उमजुंकूच ना. ते खातीर तो आपल्या सुखाच्यो कल्पना कृत्रीम माध्यमांचो आदार घेवन प्रत्यक्षांत हाडपाचो यत्न करता.

**जें घडोंवक बसलों**
**तें घडलेंच ना**
**घटितार्थ वेगळोच आसता**

**जें करुंक गेलों**
**तें जमलेंच ना**
**एक एकाक धार्जणेंच नासता**

हीं उतरां *गडें* हे कवितेंतलीं. तो आपल्याक जें जाय तें करपाचो यत्न करता. तो खूब प्रयत्न करता. आनी करतां करतां एक दीस ताका कळटा की घडपाचें किते तरी वेगळेंच आसलें. तें घडत वयतालें आनी खरेंच किते करपाक जाय तें मात ताका कळनासलें. तरी तो वावर करीत वयता. आनी ताका कळत वयता की तें ताका बाबड्याक केन्नाच जमलें ना. अंती तो एका निर्णयार पावता की एक एकट्याक आपूण करता त्या वावराचें लेगीत धार्जणें नासता. जशें काय नशिबूच आपली बंद मूठ ताचेमुखार धरुन ताका मुठींत गडें आसा काय फाडें, तें सांगपाक सांगता. आनी जाप मात कवीन दिल्ले जापेपरस वेगळी आसता. तो असल्या वेळार अगतीक जाता. भांगीबाब मनशाचे जिणेतली अगतीकताय



अशी अचळय वेंचता आनी तिका उत्कृश्ट काव्यरुपांत परिवर्तीत करता.

भांगीबाब जिणेंतले कवितेकडें बरोच सुक्षिमतायेन पळयता. तिका तितलेच समृद्ध फिशालकायेन समजून घेता. तिच्यांतलें सौंदर्य वळखून घेता. आनी तिका काव्यात्म आकार दिता.

**भूंय तुजी पिकाळ**
**तन्नी होंकल दिखाळ**

**रगताच्या तोलार**
**वज्राचो पालोव**
**धरना खांदार**
**धरना खांदार!**

वयल्या पयल्या दोन वळींत धर्तर आनी होंकल हांचें तुलनात्मक वर्णन आसा. तशी भांग्याची शब्दकळा आपल्या प्रकटीकरणाखातीर कमीत कमी उतरांचो वापर करता. आनी हो कमी उतरांचो वापर नेमकेपणान व्यक्त जाता. भूंय तुजी पिकाळ हीं तीन उतरां सवन धर्तरीक उद्देशून आसात. आनी तीं कितलीं सुंदर दिसतात हेंय तितल्याच उतरांनी आनी समर्पक तरेन सांगलां. भूंय पिकाळ जांवची आसता ताचेपयलीं सुमाराभायर सुंदर दिसता. ती कितली सुंदर दिसता हें दुसरे वळींतल्यान स्पश्ट जाता. *तन्नी होंकल दिखाळ* ही वळ, ही भूंय ही धर्तर कितली सुंदर दिसता तें दाखयता. ती तर तन्ने दिखाळ होंकलेवरी सुमाराभायर सुंदर दिसता. होंकल हें सौंदर्याचें रुप. होंकल हे निर्मितीचें आव्हान. जितलें सौंदर्य चड तितलें आव्हान व्हड. आनी पीक तर ह्या सौंदर्याची समृद्धताय. गुरुतर तत्वान गर्भगिरेस्त जाल्लीं अशीं उतरां, भांगीबाब सहज बरोवन वयतात. आनी ही सुमाराभायली सुंदरताय हेर कोणाक दिसत ना दिसत. पूण ती सुंदरकाय तिच्या जातल्या न्हवऱ्या तरणाट्याकूच चड कळटा. *तन्नी होंकल दिखाळ* हे वळीक लागून *भूंय तुजी पिकाळ* ह्या तीन उतरांत लिपिल्लें सौंदर्य आपाप भायर येता. तें भायर तर येताच पूण भायर येतां येतां तें संवेदनशीलतायेच्या एका अळंग गाभ्याक हात घालता.

**रगताच्या तोलार**
**वज्राचो पालोव**
**धरना खांदार**
**धरना खांदार!**

ह्या कडव्यांत आनी सगळीं म्हण आठ उतरां आसात. पूण प्रत्यक्षांत तीं स च उतरां आसात. तीं दोन उतरां पयल्या दोन उतरांचें आवर्तन आसा. हाचो अर्थ फकत बारा उतरांतल्यान कवी आपलो समृद्ध अणभव फिशालकायेन व्यक्त करता. अशा गर्भगिरेस्त अणभवाचें देणें आनी काव्यात्म लेणें फकत कांय खासा लोकांचेच जिणेक लाभता. ह्या लोकांक सौंदर्याचें संवेदन जाणवता. ह्याच लोकांक सौंदर्य हें सृजनाचें आव्हान म्हण जाणवता. हें आव्हान जाच्या आंगांतलें रगत थंड पडलां ताका जाणवप कठीण. हें आव्हान जेन्ना जाणवता तेन्ना तें जाणवणाऱ्याच्या आंगांत व्रतस्तपणान प्रदक्षणा घालपी रगतांत एक अद्भूत नवो नेट जाणवता. ह्या रगताभिसरणाचो तोल, ह्या दोनूय परस्पर शरिरांत जाणवता. हो ह्या शरिरीक रसायनांतलो बदल आनी सुमेळ एका आगळ्याच सौंदर्याचो अविश्कार आमचेमुखार सादर करुन वयता. रगतांतलो हो तोल व्यक्त जाता तेन्ना वज्र-घट्ट पालोव लेगीत खांदार धरना. तो आपशींच पयस जावन सौंदर्य निर्मितीचो आनी सौंदर्यवृद्धीचो

व्याप सुरु जाता. भांगीबाबान हें सगळें सुंदर, सात्विक तत्व आमचे खातीर मिताक्षरांतल्यान व्यक्त केलां. ताची ही सुंदर कविता. भांगीबाबान निर्माण केल्लो हो कलात्मक शब्दबंध कोंकणी काव्यांत आपलेशें एक खास वैशिश्ट्य निर्माण करता. *तन्नी होंकल दिखाळ* ही प्रतिमा इतली रसरशीत आसा की तिची *ताजबाण* ही कविता वाचतल्याक आयजूय आश्चर्यचकीत करता. (ही कविता १९६२ ते ७० हाचेमदीं केन्नाय बरयल्ली आसूं येता.) कोंकणी मनशाच्या फिशाल आनी कलासक्त मनाचें हें कांतीव रुप म्हटल्यार बिलकूल अतिताय जांवची ना. भांगीबाबांक ही प्रतिमा बेतींत फेरीबोटीक रावल्लेकडें कांय शेतकार कुटुंबांतल्या बायलांकडल्यान आयकूंक मेळ्ळेली अशें एक पावट उलयतना ताणीं म्हाकां म्हटलेलें. जें आयकूंक येता तातलें अचूक बरें तें वेंचून काडप हें फिशाल रसिकतेचें काम. हातूंत भांगीबाबांची फिशालकाय दिसता.

**आयज नांगरलेल्या भुंयेर**
**गर्भदानाचे सुवाळे**
**आशाड पावळेची धार**
**तिकाय पांचवे चार उमाळे!**

**वत पावसाचें शिंपणें**
**खेळ विखेळाचें पेणें**
**मिथुनांत दंग सदांच**
**शिव पार्वतीचें जोडें!**

ही दिश्टाव्यांतली कविता वाचल्या उपरांत म्हजी नदर थारली एका शब्दार. *आयज नांगरलेल्या भुंयेर / गर्भदानाचे सुवाळे* ह्या उतरांतल्या गर्भदान ह्या शब्दार हांव थारतां. हीं उतरां म्हाकां म्हज्या भुरगेपणांत पावयता. आमच्या गांवांत एकेकदां सकाळीं उठनाफुडें अकस्मात विठूची शेनाय वाजता ती आयकूंक येंवक लागता. ती कित्याक वाजता ही उत्सुकताय मनाक लागता. आनी मागीर कळटा की गांवांत कोणाचें तरी गर्भदान आसा. त्या काळार गर्भदान म्हणचें किते तेंय म्हाकां खबर नासलें. पूण गांवांत गर्भदान वाजत येता इतलें म्हाकां कळटालें. वांगडच्या भुरग्यांक विचारल्यार तांकांय कोणाक खबर ना, इतलेंच कळ्ळें. पूण हो विशय मनांत वाजप लावन येतालो. आनी ताचो अर्थ कळना हाका कितें म्हणप? अशेंच एके सकाळीं शेनायसूर्त आनी तासो वाजलो. तसो हांव समजलों कितें आसा तें. म्हजें घर बांयलागीं आसलेल्यान बांयचेर आयल्ल्या बायलांकडल्यान म्हाकां कळ्ळें की कोणागेर आनी कोणाचें गर्भदान आसा तें. पूण तें कितें तें न कळ्ळेल्यान मात हांव बेजार जालों. आनी हांवें आमचे शाळेंत शिकून गेल्ले आनी शिकप सोडलेले म्हजे शेजारचेच वळखिचे इश्टीण चलयेक विचारलें. त्या काळार चलयांक इश्टीण म्हणपाची रीत नासली. पूण इश्टागतीचें नातें मात तेन्नाय मनांतल्या मनांत मोन्यांनी आकाराक येतालें. ओंठारुय तें मोन्यानी उबें रावतालें. तिणें म्हाका मोटे अपुर्बायेन, उतरां खूब लागोळीं करुन 'बुरसो मरे तूं' अशें लजत लजत म्हटलें आनी ल्हवूच म्हज्या खांदार हात घातलो. म्हाकां मात कांयच कळ्ळें ना. तिणें म्हाकां बुरसो म्हटलो, हाची म्हाकां तिडक येवपाची. पूण तिडक येंवची अशी तिखसाण आनी खरसाण त्या तिच्या वाक्यांत निखालस नासली. तिणें म्हजो खांदो दामलो. इतक्यांत तिचे आवयन तिका उलो मारलो आनी ती गेली. तर एका काळार गांवांनी हे उत्सव जाताले ह्या गर्भदानाचे. आयज अशे तरेचे उत्सव गांवांत जांवचे बंद जालां. आयज हांतलें सांस्कृतिक म्हत्व गेलां आनी तें फकत शारिरीक उत्सव म्हण उरलां आसूं येता. पोन्या काळावयले हे घटनेंतल्यान जातलें सांस्कृतीक प्रबोधन आतां वेगळे पद्धतीन समाजांत उदघटीत जाता.

कवी आपले कवितेंत सयभोंवतणची जीण आनी सैम, पावसा ऋतु हाचो सुंदर मेळ आपले धाकटुलेच कवितेंत सामाजीक तत्कालीन सांस्कृतिक दायजासयत दाखयता आनी एक नवें दायज निर्माण करता.

ही कविता म्हाकां एक पावट एका लोकगीताचो वांटो समजावन गेली. हांव आमच्या लोकगीतांनी कोंकणी समाजमनान पावस कसो केळयला तें समजून घेंवचो यत्न करतालों. ते वेळार म्हाकां म्हज्या वांगडा शिकोवपी एके क्रिस्तांव बायलेन एक पावसावेलें कडवें सांगलें. *दोंगरावेल्या शेवा पावस घाल गा देवा.* अशें ते कडवें आसलें. हांवें तिका शेवा म्हटल्यार कितें काय विचारलें. तर तें तिका खबर नासलें. कांय संबंदीत लोकांक विचारुनय जालें. तेन्ना म्हजे मुखार ही कविता आयली. *हांतलें वत पावसाचें शिंपणे / खेळ विखेळाचें पेणें / मिथुनांत दंग सदांच / शिव पार्वतीचें जोडें!* ह्या भांगीबाबांच्या ओळींनी म्हाकां शेवा ह्या उतराचो अर्थ सांगलो. हें उतर शेवा नासून तें शिवा आसा हें कळ्ळें आनी शिव, उदक, पावस, पर्वत अशे कितलेशेच संकेत ह्या उतरान कशे एकठांय दवरल्यात ताची जाणीव जाली. धर्म बदललो, सांस्कृतिक दायज बदललें, पूण लोकमन, समाजमन बदललें ना हाचो हो पुरावो म्हणू येता. खरें म्हटल्यार ह्यो गजाली खूब वावराची अपेक्षा धरता. पूण आमच्याच उणाकपणाक लागून आमी पुरायपणान हांगा पावना हें सत्य आसा.

भांगीबाबांचे कवितेचेर अभ्यास जावपाक जाय. वेगवेगळ्या आंगांनी. आनी तो आपुलकेन, पोटतिडकीन करपाची गरज आसा. करुन उडयलो ना एक सेमिनार? अशे उखलापे धारणेंतल्यान मात कोंकणीच्या विकासाची कास आमी धरूंक पावतले अशें दिसना. हे खातीर साहित्याचो मोग आसलेल्या निस्वार्थी लोकांनी कमीत कमी एका म्हयन्यांतल्यान तरी एकठांय येवपाक जाय. हे खातीर पब्लिसिटी टाळपाक जाय. मिरोवपाची भुलयाळी वान्सा पयस करपाक जाय आनी निरमेकळी, अर्थपूर्ण चर्चा करपाक जाय. आनी मागीर कोंकणींतल्या साहित्यिक म्हत्वाविशीं बरोवपाक जाय. आमचेकडें बऱ्या साहित्याचें व्हड भांडार आसा. सद्याक जें पुस्तक प्रकाशनाचें दोन वरां पुरतेंच भुलयाळ्या आनी फसव्या खिणांचें पर्व चल्लां त्या आटापांतल्यान पयस रावलेबगर आनी सातत्यान निस्वार्थी काम करपाबगर दुसरो पर्याय ना अशें दिसता. आमचें सपन भाग्यवंत आसा पूण तें फावो त्या अचूक अर्थान समजलें जाल्यार.....!!

००

पाळें. २२-५-२०१४.

■

**– रमेश भगवंत वेलुस्कार**
पाळें, शिर्दोन - गोंय मो.: ९४२०६८८४६१





# विनवणी

- काश्मिरी पावसकार

*आमी आतांची 'इ-पिळगी' देखून नव्यो नव्यो गजाली करपाक आमकां खूब आवडटा. ते खेरीज जगप आमकां भोव कठीण जाता. आमकां येवपी कांय बऱ्या गजालिंची तोखणाय करात. त्याभायर तुमकां येनाशिल्ल्यो ह्यो नव्यो गजाली आमचे कडल्यान शिकून घेयात. तें शिकपांत उणेंपण समजूं नाकात.*

मे म्हयन्याचो 'बिम्ब' हातांत पडलो आनी स्मिता तिंबले हांचो 'तरी पालक आरोपी?' हो लेख वाचूंक मेळळो आनी म्हजें 'पालक मन' इल्लें दुखी खंती जालें. हाका साबार कारणां आसात आनी ताचे फाटभुंयेक आयची परिस्थितीय कारणीभूत आसा अशें म्हळ्यार अतिताय जावची ना. कारण आयज भ्रश्टाचार, खून, मारामारी, जातपात-धर्मभेद, आत्मघात, रेगींग, नसाय, कुन्नाटकाय ह्या सगल्यांचें निर्शेवणेचें ल्हार समाजांत वता वता थंय पातळूंक लागलां.

अशे परिस्थितींत आमी पालक आसूं वा आमचीं भुरगीं आसूं, कोणाकूच धड जगूंक मेळना. ना धड मरूंकूय मेळना! मागीर, खरो आरोपी कोण? पालक काय भुरगीं? आरोपिंच्या पांजऱ्यांत कोणाक घालप? पालकांक काय तांच्या पाल्यांक? अशे साबार प्रस्न उबे रावतात. ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदतना मागीर पालक फेसबूक, इंटरनॅट, वॉट्सप्, मोबायल ह्या सारक्या सोशल नॅटवर्कींगांक तर भुरगीं पालकांचें अज्ञान, कडक शीस्त, बेजबाबदारपणांक बोटां दाखयतात. अशी ब्लेम गेम चालूच उरिल्ल्यान तांचे मदलें इश्टागतीचें नातें ल्हव ल्हव उणें जायत वता. देखून हें नातें घटमूट जावंक तांचेमदीं इश्टागतीचो पूल जोडप गरजेचो आसा.

गीम सोंपून रोखडोच पावसांत जुनाचे सुर्वेक शिक्षणीक वर्साचो आरंब जातलो. त्या निमतान पालकांची 'पालकत्वाची' सत्वपरिक्षा सुरू जावचेली आसा. हे परिक्षेंत पालक बरेतरेन उतीर्ण जावचे ह्या एकमेव हावेसान समेस्त पाल्यांनी आपल्या पालकांक केल्ल्यो कांय विनवण्यो तुमचे मुखार दवरतां.

मोगाळ पालकांक,

मायेमोगाचो नमस्कार,

सगल्यांत पयलीं विनवणी – आमी जेन्ना जेन्ना वाट चुकतलीं वा वायट मार्गार वतलीं तेन्ना आमचेकडेन कडक शिस्तीन वागपाक तुमी कशेच विसरूं नाकात. ह्या कामांत खंयच उणे पडूं नाकात. तुमच्या ठामपणाची आमकां गरज आसा. तुमी आमच्या फाटल्यान खंबीरपणान उबे रावल्यार आमकां आमची जीण सुरक्षीत जाल्लेवरी दिसतली.

दुसरी विनवणी– वायट संवयो सोदून काडूंक तर आमी सर्वस्वी तुमचेरूच आदारून आसात. कारण आयज समाजांत वायट संवयांची रास पडल्या. हे राशींत आमचे पांय पडचे पयलींच आमकां शादूर करात.

तिसरी विनवणी– शक्य आसल्यार (शक्य आसा देखून) आमच्या वांगड्यां, सोयऱ्यां-धायऱ्यां, तशेंच अनवळखी लोकां मुखार आमच्यो चुको दाखोवं नाकात. पूण म्हऱ्यांत कोण नासतना आमचे चुकांविशीं उलयलेबगर कशेच रावूं नाकात. तशें केल्ल्यान आमी जें-जें चुकलां ताचेर लक्ष दिवन चुकिल्ल्यो गजाली सुदारवपाचो आमी मनांतल्यान यत्न करतलीं.

चवथी विनवणी– तुमचे व्यस्त जिणेंत तुमकां आमचेर लक्ष दिवंक फावो तो वेळ मेळना. हेंवूय आमी जाणांत पूण हाचो मोबदलो म्हुण आमचे लाड करत बसूं नाकात. आमचे लाड तुमी मुजरत करातूच. तो तुमचो हक्क, कायदो आसा. पूण अती वा फाजील लाड मात करूं नाकात. आमी जें-जें तुमचे लागीं मागतले तें सगलेंच आमकां मेळूंक जाय अशेंय ना. हेंवूय आमकां बेस बरें खबर आसा. अर्दी-मर्दी हे हट्ट आमी तुमची परिक्षा घेवन तुमकां तपासूंक सोदतात.

पाचवी विनवणी– मनाक मारता तेन्ना आमकां कळूंक नाशिल्ले गजालींविशीं आमी तुमकां प्रस्न करतलीं. तेन्ना आमचे प्रस्न 'अर्थशुन्य' म्हुण आमकां प्रत्युत्तर दिवं नाकात. आमचें तोंड बंद करूं नाकात. तशें केल्ल्यान



आमचो मूड ऑफ जावन आमी नाउमेदी जातात. अशी प्रत्येक बाबतींत आडकाठी हाडल्यार आमी तुमकां प्रस्नूच विचारपाचे बंद करून संपार वतलीं. इतलेंच न्हय, गरज पडल्यार ह्या प्रस्नांच्यो जापो हेर खंयच्यान तरी सोदून काडपाचो यत्न करतलीं. त्यावेळार आमचेर बेजार जावं नाकात.

सातवी विनवणी- तुमी आमचे परस अणभवान, पिरायेन व्हड आशिल्ल्यान मेळत तेन्ना आमी चुकतात अशें जरी तुमकां दिसलें तरी, आमचो भंय सभावीक आसा हें तुमी विसरतात. देखून आमचो भंय खरो मानून आमकां फावो तो आदार दिशात जाल्यार आमकां बरें दिसतलें. आमच्या वांट्याक येवपी अरिश्टां आनी त्या अरिश्टांच्या परिणामां पासून उठसूठ आमची राखण करूं नाकात. कारण ह्याच अरिश्टांतल्यान आमी मुखार सरूंक पावतलीं. बरें-वायट शिकूंक पावतलीं.

णववी विनवणी- आमी आतांची 'इ-पिळगी' देखून नव्यो नव्यो गजाली करपाक आमकां खूब आवडटा. ते खेरीज जगप आमकां भोव कठीण जाता. आमकां येवपी कांय बऱ्या गजालिंची तोखणाय करात. त्याभायर तुमकां येनाशिल्ल्यो ह्यो नव्यो गजाली आमचे कडल्यान शिकून घेयात. तें शिकपांत उणेंपण समजूं नाकात.

निमणी पूण गरजेची विनवणी म्हळ्यार आमचेर येवपी ल्हान-व्हड संकश्टांचो हावको करूं नाकात. आमचेर येवपी संकश्टांचीं ही वळेरी केन्ना सोंपचीना. पूण मात एक, त्या त्या संकश्टांवेळार तुमी आमचेर इल्लेंशें लक्ष दियात. तेंच आमकां व्हड! तशेंच आमचेसरी वागतना विसंगतीन वागूं नाकात. तुमच्या अशे तरेच्या वागपाक लागून आमगेलो घुस्पागोंदळ जाता. केन्ना-केन्ना तर तुमचेर विश्वास दवरचो काय ना अशेंय म्हुण आमी संभ्रमांत पडटात. म्हत्वाचें म्हळ्यार 'तुमी पालक देखून तुमी आदर्शवादी, अचूक, जबाबदार.' अशें उपकार करून भोवन भोवन सांगूं नाकात. कारण तुमी तशे नात हें केन्ना केन्ना तुमचे करणेंतल्यान आमकां उक्त्या दोळ्यांनीं पळोवंक मेळटा आनी तें पळोवन आमकां शॉक बसता. आमी उबंतार पडटात.

आयज आमची वाड झपाट्यान जायत आसा. तेन्ना आमकां 'तुमी धेंगांनी वाडल्यात पूण गिन्यानान वाडूंक नात' अशें म्हुण हिणसांव नाकात. तें तुमच्याच वायटाचें जातलें!

ह्यो वयल्यो विनवण्यो करतना घडये आमचीं उतरां फाटींफुडें जाल्यांत आसतलीं. त्या खातीर क्षमा याचना. मात ह्यो विनवण्यो करपा फाटलें कारण एकूच! तुमचे बगर आमकां जगूंक जावचें ना. तुमी आमकां जायच.

वयल्यो विनवण्यो तुमकां मानवतल्यो अशी आस्त बाळगून ही विनंती चीट थांबयतां.

मायेमोगान आनी इश्टागतीन...

फकत तुमचींच...

भुरगीं...

■

– काश्मिरी पावसकार
बामण वाडो, शिवोले – गोंय.
मो. : ९४२११९२८५८



*'कोठें गेला होतास? बाहेरचे काही खाल्ले नाहिस नव्हे? तुज शिकवले होते ना मी कोठे काही खावयाचे नाही म्हणून? थांब तुला बांधुनच ठेवतो?'*

- अपर्णा गारुडी



# श्वानपुराण

सुण्याची आनी म्हजी इश्टागत तशी म्हज्या जल्मा पयलींची, म्हळ्यार हांव आवयच्या पोटांत आसतनाची. हांव आवयच्या पोटांत आसतना एका सांजवेळार शेता मेरेर तिका एक ल्हानसो गुडगुडीत सुण्यापेटो मेळ्ळो. तो थंडेन कुडकुडटालो. तिणें ताका उखलून घरा हाडलो. सगल्यांक तो आवडलो. ताचें नांव शेखर दवरलें. फुडें ताणें आमगेल्या कुटुंबाचो सदस्य जावन आपल्या जिविताचें एक तप सार्थकी लायलें. म्हजो जल्म जायसर तो म्हज्या आवयच्या पांयांकडेंच न्हिदतालो. म्हज्या जल्मा उपरांत ताका एक हक्काचें खेळणें मेळ्ळें तें म्हळ्यार हांव. घरांतल्या मनशां बगर हेर कोणेंय म्हाका हात लायिल्लो ताका आवडनासलें. हांव न्हिदतालें तेन्ना तो म्हज्या पाळण्याकडेन बसून राखण करतालो. हांव उठलें काय रांदचे कुडींत वचून आवयक साडयेक धरून आपोवन हाडटालो. ह्यो गजाली हांवें म्हजे आवय कडल्यान खूब फावटी आयकल्यात. शेखराक आमच्या वांगडा सगल्याक भोंवपाक आवडटालें. बडोद्यांत आशिल्लीं आमच्या सगल्या सोयऱ्यांचीं घरां ताका खबर आशिल्लीं. एक दीस सकाळीं आमी बसींत चडलीं तेन्ना तोय बसींत चडलो. कंडक्टरान आमकां देंवयलीं. पर्थून दोन फावटी ताणें तशेंच केलें आनी आमकां बसींतल्यान देंवचें पडलें. रागान आवयन ताका घरांत भितर घालो आनी भायल्यान चावी केली. दनपरां घरा आयलीं तेन्ना कितें पळयतलीं? शेखरान तिडकीन देवाऱ्यांतले सगले देव हाडून हुंबऱ्या भितरल्यान लायनींत मांडून दवरिल्ले आनी आपूण वचून देवाऱ्यांत बशिल्लो. राग व्यक्त करपाची ताची ही पध्दत पळोवन हांसचें काय रागार जावचें तेंच कळना जालें. हांव चार वर्सांचें जायसर ताचे वांगडाच खेळटालें. आमच्या बडोद्याच्या फार्महावजांत भायलीं मनशां चुकून दिसतालीं. चडसो वेळ जनावरांमदींच वतालो. म्हज्या जल्मा उपरांत तीन म्हयन्यांनी म्हज्या आज्यान फार्महावजाचेर चार अल्सेशियन सुण्यापेटे हाडले. तांच्या येण्यान शेखराक कांयच फरक पडलो ना. तो तांचो 'बॉस' जावन वावुरतालो. भुरगेंपणांत ह्या पांच मायेस्त इमानदार आनी कर्तव्यदक्ष सुण्यांचो सांगात म्हाका मेळ्ळो.

कांय लोकांक 'सुणो' हो शब्द अपशब्द कसो दिसता. मनीस मनशाक 'कुत्रो' म्हुण गाळ मारतना कुत्र्या भितरले बरे गूण आडनदर करता आनी ह्या आडनदरेंतल्यानूच सुण्याचेर ओपारी घडल्यो. देखीक :-

१) सुणें घरार चडोवप

२) जिबेर पेटे पडप

३) सुण्या शेपडी वांकडी ती वांकडीच.

अश्यो जायत्यो म्हणी घडल्यात. सुण्याची इमानदारी, प्रामाणीकपण, कर्तव्यदक्षताय, मायेस्तपण हाचेर ओपारी कित्याक घडल्यो नांत काय! हो विचार म्हज्या मनांत सदांच येता. हो दोश सुण्याचो न्हय तर मनशाचो. मनशाक वायट रोखडेंच दिसता. पूण बरें पळोवपाक वेळ लागता. एके काणयेंत वाचिल्लें. नूह नांवाचो एक मुस्लीम आशिल्लो. इस्लाम धर्मांत सुण्याक बुरसो मानतात. ताणें एका सुण्याचेर खोट घालीत म्हळें, 'ा हो जा गंदे कुत्ते!' ताचो तो तिरस्कार पळोव सुण्यान दिल्ली जाप विचार करपा सारकी आस ताणें म्हळें, 'न मैं अपनी मर्जी से कुत्ता हूँ, तुम अपनी पसंद से इन्सान हो। बनानेवाला सबका वही एक है।' तेन्नाच्यान नूह जीण पश्चातापान रडत रावलो अशें म्हणटात.

बडोद्याच्यान गोंयांत येतकच आ म्हाड्डोळा नगरांत रावतालीं. इश्कोलांत आसत हांवें आनी म्हज्या भावान आवयक सांगलें 'आ सुणो पोसुया'. पूण तिणें न्हयकार दिलो. बिराडा रावता थंय लोकांक त्रास जावपाक जायना अ तिचें म्हणणें आशिल्लें.

तेन्नाच आमचो शेजारी अभय तोटेकार आपलें भाटांतलें घर राखपाक एक गुबगुब धवोफुल्ल सुण्यापेटो हाडलो. आमी आम उमेद ताचेर भागयतालीं. हातांत हात घाल हारीन उबे आशिल्ल्या माडांतल्यान मोडणां धांवपी तो नगरांतलो रस्तो. त्या रस्त्यावयल्य धव्याफुल्ल पेट्याक घेवन आमी धांव ध धांवतालीं. खेळटालीं. भटालो सुणो बरो गो धवो आशिल्लो. दूद पियेवन गुबगुबीत जाल्ल पूण सुण्याची जात 'नॉनवेज'. तो 'वास धांवतालो. आमची शेजाऱ्यां ताका उकडिल तांतीं नाजाल्यार हुमणान कालयल्लें श



खावयतालीं. हे आशेक तो आमचे वांगडा कितलोय वेळ खेळपाक तयार आसतालो. ताका ताच्या घरा पावयतकच अभय विचारतालो. 'कोठें गेला होतास? बाहेरचे काही खाल्ले नाहिस नव्हे? तुज शिकवले होते ना मी कोठे काही खावयाचे नाही म्हणून? थांब तुला बांधुनच ठेवतो?' ताचें उलोवप आयकून आमकां भितरल्या भितर हांसपाक येतालें. भुरगेंपणांत आमी भटाल्या सुण्याक बाटयल्लो ताचें कन्फेशन करपाची संद ह्या लेखाक लागून मेळ्ळी. व्हड जायत गेलें तशें सुण्याचें आनी म्हजें पडना जालें. हांव खंयूय वचूं रस्त्यावयलीं सुणीं म्हाका भोंकपाक लागतात. हालीं सुण्यांचो धसको घेवन हांवें मॉर्नींग वॉक सोडून 'इव्हनींग वॉक' सुरू केला. पूण सांजवेळा लेगीत स्वामी समर्थांच्या मठांतलो एक गोड पेटो म्हजे वांगडा चलपाक येता. ताच्या फाटल्यान गांवां वयल्या सुण्यांची वरात चलता. तांकां लागून म्हज्या चलपांत आडमेळीं हाडपी आनी म्हाका गजाली सांगपाक थांबपी मनशां म्हजे लागीं येनात.

सकाळीं इश्कोलाक वतना हांव म्हजी डिओ घेवन वतां. शिवोलेच्यान हरमल मेरेनच्या रस्त्यावेलीं सगलीं सुणीं म्हजी वाटूच पळयत आसतात. शिवोलेचो पूल वलांडलो काय सायड रोड आसा. थंय हांव हॉर्न मारतां. तेच वेळार रस्त्याकुशीच्या व्हडल्या आदल्या घरांतल्या बल्कांवांतलो डॉबरमन आपल्या गडगंज आवाजान म्हाका येवकार दिता. तो बांदिल्लो आसता हें खबर आसुनय हांव कडकडटां. फुडें वतां वतां कितलींशींच सुणीं गाडये फाटल्यान धांवताना तांकां कट मारीत, फटयत, गाडी स्लो-फास्ट करीत सगल्यो ड्रायवींग स्किल्स वापरून हांव हो सुणेशासीत प्रदेश जीव मुठींत घेवन पार करतां.

फाटल्या दिसांनीं एक बरो सोबीत सुणो म्हजे गाडये फाटल्यान धांवतालो. स्कार्फ बांदिना आनी हॉर्न मारिना जाल्यार तो म्हाका पळय लेगीत ना. पूण तोंडाक स्कार्फ बांदलो काय हांव ताका आतंकवादी कशें दिसता आसतलें. देखून फाटल्यान धांवता आसतलो. मोडणांचो रस्तो आशिल्ल्यान हॉर्न मारल्या बगर राव नजो आनी सायनस प्रॉब्लेमाक लागून स्कार्फ सोडूंक जायना. देखून सुण्याची दहशत सोंसचीच पडटा. एक दीस ह्या सुण्याचो एक दोळो फुटलो आनी तो खंयच्या खंय धांवक लागलो. दोनूय दोळे आसतना सरळ गाडये फाटल्यान तरी धांतालो पूण आतां मुखार, मर्दी, फाटल्यान खंयच्या खंय धांवपाक लागलो. ताका वाटावपाची कसरत करीत म्हाका ताचें राज्य पार करचें पडटालें. हालीं तो दिश्टी पडना. मेला आसतलो बाबडो! पूण थंय पावतकच हांव शादूर रावतां. खंयच्यानय येवन मुखार उबो रावतलो अशें दिसता. ताचे कडेन इश्टागत करपाक एक दीस ताका हांवें 'पाव' खावपाक घालो. तो खांवच्या खावन दुसरे दिसा परत ताणें म्हजे गाडयेर उडकी मारली. ते दिसा हांवें म्हजेच सगले 'स्पीड रेकॉर्डस्' मोडले आनी जीव व्हरून एकदांचो इश्कोलांत घालो. हे दिसांनी मात्सो सुशेग.

इश्कोलांतय कांय सुणीं प्रार्थने वेळार शिस्तीन मैदानाचेर विद्यार्थ्यां फाटल्यान उबीं आसतात. कांय भुरग्यांक पावोवपाक तीं इश्कोलांत येतात. आपलो जागो थारावन दिल्ल्या प्रमाण विद्यार्थ्यां फाटल्यान शिक्षक आनी शिक्षकां फाटल्यान सुणीं रांकेंत उबीं रावतात.

एका स्वतंत्रताये दिसाची गजाल. आमची एक शिक्षिका खादी सिल्काची सुंदर साडी घालून आयिल्ली. सगल्यांनी तिच्या साडयेच्यो तोंडभर तोखणायो केल्यो. झेंडावंदनाक सगलीं शिस्तीन रांकेन उबीं रावलीं. ध्वजवंदना उपरांत राष्ट्रगीत सुरू जालें. सगलीं सावधानान उबीं रावन राष्ट्रगीत म्हणटालीं. हे टिचरी फाटल्यान एक सुणो शिस्तीन उबो आशिल्लो. इतल्यान खादीचो नवो करकरीत वास ताच्या नाकांत पावलो आनी ताणें साडयेचो वास घेत पांय वयर केलो. नवे साडयेचें उक्तावण अशे तरेन जालें. तिका हें सगलें कळटालें. पूण राष्ट्रगीत चलतना ती कांयच करपाक शकली ना. राष्ट्रगीत सोंपनाफुडें ती त्या सुण्या फाटल्यान लजभीड सोडून धांवली. सुणो हाताक लागलो ना. खूब तिडकली. साडयेक सगल्यांची दिश्ट लागली अशें म्हणपाक लागली. ज्या विद्यार्थ्याचो सुणो आशिल्लो ताचेर भरपूर तापय काडली. दुसरे दिसाच्यान सुण्याक घरा बांदून येवपाची ऑर्द काडली. एका सुण्याचो बंदोबस्त जालो. हेरांचें कितें?

तर अशें हें श्वान पुराण सोंपून सोंपचें ना. तरीकय सोंपयतां.

■

– अपर्णा गारुडी
शिवोले – गोंय, मो. : ८८०६३०८०९३



- कुसुम अग्रवाल

# पडवेर

***आमी कोणूय दुयेंत आसलो म्हणटकच ताची वासपूस करपाक धांवतात. आपली व्यक्ती म्हणटकच पळयन दिसता. पूण इतल्यार थारना. थंय उबे रावन, ताच्या सामकार दुखण्याचेर चर्चा करतात. ताका शारिरीक यातना तर जाताच ते भायर मानसीक यातना जातात हाचें आमका भान आसना.***

# सभावाक वखद ना?

जिणेंत कांय गजाली अकस्मात घडटात. चंद्राचेर शेक गाजोवपी मनीस कांय गजालींचेर आपलें नियंत्रण दवरपाक असमर्थ थारला. मरण हें चुकना. आयचें फाल्यार धुकलपाक जाता. मरण चुकोवपाक जायना हें खबर आसून लेगीत 'त्या' घरांत वचपाक लोक अनमनतात. पूण ती व्यक्ती सासणाक दिश्टी पडचिना, ते व्यक्तीचेर आपली निमणी नदर भोंवडावची, आप्तजनांक मेळून तांचें सांत्वन करचें. तांचें दुख्ख ल्हव करचें होच तांकां मेळपाक वचपाचो हेतू आसता.

म्हजे चलयेचे इश्टिणीची आवय भायर पडिल्ली. चली गोंयांभायर आशिल्ल्यान हांवें थंय वचपाचें थारायलें. ना धर्माचें, ना जातीचें पूण आमचे मदीं मनीसपणाचें नातें आशिल्लें. ती इश्टीण आमगेर खूबदां येवन गेल्ली. घोवाक आनी आवयक घेवन दनपारचीं जेवपाक लेगीत राविल्लीं. खूब उलयलीं. नातें घट जालें.

जड मनान हांवें घरांत पावल दवरलें. दोनशें वर्सांचो इतिहास आशिल्लें व्हडलें घर. वारांदरांत कदेली मांडून दवरिल्ल्यो. म्हजेर नदर पडना फुडें चलयेन म्हाका घट्ट खेम दिली आनी व्हडल्या व्हडल्यान रडपाक लागलें. 'आंटी म्हजी मम्मी गेली आमकां सोडून.' आवयचे मायेक आशेल्ली ती खेम आशिल्ली. रडत रडत ती चली सांगताली. 'मम्मीक कांक्र आशिल्लो. म्हजे मम्मीन खूब सोंसलें. मात लेगीत उलयत जाल्यार तिका खोंकली येताली. स्वास घेवपाक त्रास जातालो. तिची ती स्वास घेवपाक चलिल्ली धडपड पळोवन आमचो जीव वयर सकयल जातालो. दोतोरान सांगिल्लें तिका कांक्र जाला म्हण कळपाक दिवं नाकात. ती कांय दिसांची सांगातीण आसा. तिका जाता तितली खोशी दवरात. आमी सोयऱ्यां-धायऱ्यांक सांगूंक ना म्हुण तीं आमकां शिणटात. आमकां खेपतात. ती मरतली हें मानपाक म्हजें मन तयार नासलें. तिचे जिणेच्या निमण्या खिणांक लेगीत हांवें मुंबय फोन करून दोतोरा लागीं विचारलें. सगल्या दोतोरांचें एकूच सांगणें आसलें. ती चड तेप जगचिना. म्हाका म्हजी मांय जाय आशिल्ली. एक धूव खंयच्या तोंडान आपले आवयच्या मरणाची गजाल लोकांक सांगतली?' न्हंयचो बांद फुटून उदक जशें वाट मेळटा थंय व्हांवत वता तसो ताच्या उतरांचो बांद फुटलो. आनी तीं उतरां जमिल्ल्या लोकांच्या काळजाचेर आपटलीं.

वोगी राव म्हुण हांव ताची फाट सांसपितालें. म्हाका मारिल्ली वेंग आजूनय सदळ जायनाशिल्ली. आपलें दूख लोक कित्याक समजून घेनात हाचें ताका वायट दिसतालें. हांवें म्हळें, 'बाय लोकांचो सभाव तो. तिचें दूख तुवें लागशिल्ल्यान पळयलां. कितें करप हें तुका चड खबर आशिल्लें.'

'आंटी खरेंच सांगतां शेजारी लेगीत कोणूय मेळपाक आयल्यार आपूण न्हिदल्या म्हुण सांग अशें ती म्हाका सांगताली. वखद घेतलें की तिका पांच मिनटां सुशेग मेळटालो आनी मागीर स्वास घेवपाक त्रास जातालो.'

हें सांगतना चलयेचें आंग थरथरतालें. दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवताल्यो. तिची ती दयनीय अवस्था पळोवन हांवें तिका कदेलाचेर बसयलें.



आमी कोणूय दुयेंत आसलो म्हणटकच ताची वासपूस करपाक धांवतात. आपली व्यक्ती म्हणटकच पळयन दिसता. पूण इतल्यार थारना. थंय उबे रावन, ताच्या सामकार दुखण्याचेर चर्चा करतात. ताका शारिरीक यातना तर जाताच ते भायर मानसीक यातना जातात हाचें आमका भान आसना.

भुरगें जल्माक आयलें की आमी ताका पळोवपाक हॉस्पीटलांत वतात. भुरग्याक पळोवन आमची तानभूक न्हिवना. ताका वेंगेंत घेवन त्या अर्भकाचो उमो घेतात. अशें करतना आमी त्या अर्भकाचो कांयच विचार करिनात. आमी सगल्याक भोंवून आयिल्लीं आसतात. आमच्या शरिराचेर हवेंतले जंतू बशिल्ले आसतात. ह्या बारीक जंतूंचो त्या मोव आनी नाजूक कातीच्या अर्भकाक त्रास जावपाक शकता हें आमकां खबर आसनाशें ना. खबर आसून शिकिल्लीं सवरिल्लीं मनशां अशें करतात.

नोकरी धंद्यांत आशिल्ल्या मनशाक घरांत कोणूय मरतकूच तेरावो जायसर घरा रावप शक्य जायना. घरा रावप वा कामार वचप हें तो परिस्थिती प्रमाण थारायता. केन्ना केन्ना नात्या परस कार्यालयांत आशिल्ली जबाबदारी व्हड आसता. सून बॅंकेंत मेनेजराचो हुद्‌दो सांबाळटाली. तिची मांय जाणटेपणांत शरीर थकिल्ल्या कारणान भायर पडली. त्या दिसा घरांत रावप गरजेचें आसलें. तिचे खातीर बॅंकेंत खूबशीं कामां अडून उरिल्लीं. दुसरे दिसा बॅंकेंत वचपाकूच जाय आशिल्लें. सोयरीं-धायरीं फुतफुतपाक लागलीं. 'तीन दीस तरी घराकडे रावपाक कितें जालां? लोक कितें म्हणटले?'

आज एकविसाव्या शेंकड्यांत लेगीत अंधश्रध्दा, परंपरा, रीत, रुढी ह्या चाकोरींतल्यान मनीस भायर सरपाक पळयना.

आयचे धकाधकीचे जिणेंत आपल्या प्रीयजनाचेर दोन दुकां गळोवप लेगीत जड जालां. नोकरी आनी वेव्हार हांच्या मुखार आपलें दूख, वेदना, भावना सगलें भितरल्या भितर गोठोवन दवरचें पडटा. लोकांचीं मनां सांबाळप, लोकांक बरें दिसपा खातीर, लोकांच्या समाधाना खातीर तांकां जाय तशें वागप शक्य जायना. हाचो अर्थ असोय जायना की तांकां आपल्या लोकांचें, इश्ट सोयऱ्यांचें पडूंकच ना. मनांत आसून लेगीत ताका तें शक्य जायना.

कांय लोकांक दुसऱ्यांचे प्रत्येक गजालींत धवळा धवळ करपाची संवय आसता. पूण ताच्या ह्या धवळेपणा खातीर त्या घरच्या मनशांक कितलो जांच जाता हाचें तांकां पडूंकच नासता.

प्रत्येक मनशाची जगपाची एक रीत आसता. ताचे जिणेंत मेतेर जावपाचो आमकां कांयच अधिकार नासता. लोकांक जर आमच्या वागण्याचो, आमच्या फुकटच्या सल्ल्याचो जर आमचे खातीर त्रास जावपाक लागलो जाल्यार आमी दोन हात पयसूच रावप चड बरें जातलें. ■

**- कुसुम अग्रवाल,**
शिवोले - गोंय.मो. : ९८६०२०७९७६

## इंद्रधोणू

*आरे पापया हिंगाची जात्रा रातीचीं इकरा वरां भेरेन सोपोवन सगले लोक... खाजेकार, पिडुककार, चितारी लेगीत आपलें सामान घेवन वयतात आनी तूं रातभर हिंगाच? आतां पुलीस-बिलीस सोड आनी पोतीय सोड. तूं वाचलो हें नशीब समज पापया तुजें. आरे.. रातच्या बारा उपरांत हांगा भुतांची जात्रा भरता.*



- आशा शानभाग

अंदु वर्सा काजुच्या झाडांक बरीं फुलां-बिबे धरिल्ल्यान चिटमिट्या गांवचे लोक भारी खोशी जाले. सरकारी काजुमळांची पावणी घेतना एकामेकांच्या आंगार न पडटां, पावणी चड न वाडयतां समजीकायेन सरकारी लूट करप हें अख्ख्या चिटमिटकारांनी थारायिल्लें. पावणे दिसा अजापीत सरकारी ऑफिसरांनीं दोन-तीन शेकडे वाडोवन पावणी साऽऽ केली. पावणी बोल्सांत उडोवन खोशयेन घरा येतल्या चिटमिटकारांमदीं मोर्तुय आशिल्लो. अंदु वर्सा काजुबियो बंपर येतल्यो अशा अदमासान मोर्तुचें सपनरंजन सुरू जालें. पर्तगाळची रामनम, माशेची चैत्रपुनव, सगल्यांत पयलीं जावपी चावडेवयलें फेस्त... अंदु बंपर खरेदीचीं सपनां तो रचतालो.

दुसरे दिसा सावन मोर्तुन कामेरीं लावन आनी तांचे वांगडा आपणेंय घाम घालून काजुरान संवकाळून साफ केलें. थोड्या दिसां उपरांत सगळो वाठार अमुरपिक्या मुट्ट्यांच्या वासान परमळून गेलो. हुर्राक, काजुफेणी आनी क्विंटलांनी जाल्यो बियो... मोर्तुलीं बोल्सां चारीयवटेन भरून गेलीं. संवसारी मनीस पयशे किरवटीक बांदूंक लागले, तर आंकवार भुरगे फोल्गां मारपाक लागले. कांय विम्याच्या एजंटांनींय हांचे खुस्तार खोजने फुलयले. मोर्तुन थोडे पयशे बँकेंत दवरले. बायलेक दोन वस्ती केल्यो, घरांत कांय उपेगी सामान घेतलें, घराचो मदेरामेंत केलो.

पावसा दिसांनीं कांय काम मेळ्ळें ना तरी मोर्तुक पर्वा नासली. एक तर अंदू काजुचो सिजन बरो गेल्लो आनी पावसांत खंडीभर बियांचें शेत पिकयल्यार आठ म्हयने पोटापाणयाची चिंता नाशिल्ली. घरचें जोत आशिल्ल्यान कसपाचो देसपेस कांयच नासलो. फकत नाट लावपाक, नडपाक आनी लुवणीक कामेरीं लावपाचो आनी मळणेक दोन-तीन मानायांचो दिसवडो फारीक करपाचो. सहजतायेन दोन-अडेज कुंभ भात घरांत पडपाचें. तर अशा ह्या मोर्तुक वेसन आशिल्लें एकूच. जात्रा आयली की थंय हाजेरी लावन रातभर गडगडो खेळपाचें. हां... हां तसो तो होगडायनासलो. तर घरकान्नीन दिल्ल्या पांचशाचे पांच हजार करून पर्थून तिचेचकडेन दितालो.

पावसाळोभर चिखलांत-रेब्यांत लोळून मोर्तुन शेतां, कामतां फुलयलीं. म्हण्टासर अश्टम आयली. अश्टमीचे जात्रेक तिरकण्यां वचपाक मोर्तुक फुरफुरो आयलो. ही तिरकर्णे गांवची जात्रा भोव फामाद. तिची एकूच खासियत म्हळ्यार ही जात्रा गांवचे मुसुंडेंत जाता. मांडकार हातानींच सारयेचीं लाकडां कडेक सारून मांड लायतात. जात्रा लागीं पावतासर मोर्तुन आपल्या संवसाराचीं कामां लागीं हाडलीं. शेतां लुवून गडगंज गुडवीं घालून तांकां काटयांची शिरीं लावन आडसार केलो. जात्रे उपरांत मळणी करपाचें चिंतून खळ निवळ करून मेढ पुरून दवरली आनी बायलेन दिल्ले दुडू घेवन जोडिचे आशेन मोर्तुन तिरकर्णेची वाट धरली.

मोर्तुन लोकांमदीं भरसून सगली जात्रा पळयली. गडगड्याचे मांड खंय खंय आसात हाचो अदमास घेवन तो थीर मनान चिंतपाक लागलो... खंयच्यान सुरवात करची? ताच्या मनान दिल्ल्या कौलाप्रमाण गर्दी आशिल्ल्या गडगड्याच्या मुखार तो पावलो. अर्दवरा भितर शंबराचे पांचशें केले ताणें आनी थंयसून तो हाल्लो आनी गडगडेकारान सुटकेचो उस्वास घेतलो. धा-बारा गडगडेकारांक भिकेक लावन मोर्तुन उस्कारो सोडून खेळपाचें बंद करपाचें थारायलें. जोडिल्ली जोड... उणे तर दोन - अडेच हजारांची मोड ताणें आपल्या कळकट पिशवेंत कोंबली. एका हॉटेलांत वचून मस्त मटन बीन चापलें. आतां ताच्या दोळ्यांर झेम येवंक लागली. ती कळकट पिशवी उशागत

# भुतांची जात्रा!!!



तकलेपोंदा दवरून एका झाडापोंदा मोर्तुन ताणून दिलें.

जात्रेच्या बोवाळांतूय जोडिचे खोशयेन मोर्तुलो रोखडोच दोळो लागलो. बऱ्या वेळान ताका जाग आयली. पळयल्यार जात्रा सामकी गर्देन भरल्या. दरेका मांडाचेर हीऽऽ गर्दी. खेळणी, खाजें, काकणां-कुकूम मांडांतल्यान भरून ओततालें. सगळ्या जात्रेंत पर्थून एक फावट ताणें फेरी मारली. गरम गरम चणे-भिकणां खालीं. पयलींच खाजें आनी भुरग्यां खातीर घेतिल्लीं खेळणीं चोंदिल्ल्यान पिशवी जड जाल्ली. हेऽऽ गर्देंत फिरतना ते पिशवेची अडखळशी जावंक लागली मोर्तुक. ताणें एका खाज्याच्या मांडावयल्या जाण्ट्याश्या बाप्पाकडेन सूत जुळयलें.

''बाप्पा, म्हजी ही पिशवी तुजे मांडार दवरशी? पोरांक खेळणी-खाजें आनी घरकान्नीक घेयलीं काकणां आसात तितूंत. गर्देंत भोंवतना काकणां भोव जायत ही भिरांत दिस्ता बाप्पा.'' जाण्ट्या बाप्पान पिशवी घेवन भितर दवरली.

''सुशेगाद भोंव बाबा तूं. जायो तेन्ना यो नी व्हर तुजी पोती.''

बरोऽ वेळ भोंवून-भोंवून मोर्तुले पांय तुटून आयले. आतां ताणें चिंतलें निट्ट वचपाचें आनी त्या खाज्याच्या मांडा फाटल्यान आड पडचें. त्या मांडासामकार येतकीर बाप्पान ताची पोती फुडें धरली.



''बाप्पा, हांव तुज्या मांडाफाटल्यानच आड पडटां. पोती तुजेच फुड्यान दवर. मागीर घेतां हांव... फांतोडेर रथावेळार''

सगळ्या जात्रांनीं रथ फांतोडेरच जाता ह्या नेमाप्रमाण मोर्तु उलयलो. बाप्पान ताची पोती पर्थून भितर धांपून दवरली.

मांडा फाटल्यान न्हिदिल्लो मोर्तु जागो जालो तो कोणेंतरी गदागदा हालयतगीर. दोळे चोळीत उठिल्ल्या मोर्तुन पळयल्यार सुर्या बरोच वयर चडिल्लो. सादारण साडेणव-धा वरां तरी जाल्यांत हाचो अदमास ताका आयलो. धडपडत तो उठलो. चोंयवटेन नदर मारल्यार मोर्तु आनी ताका उठोवपी हांचेशिवाय थंय जितो मुंसय नासलो. मोर्तुलें आंऽ जाल्लें तोंड तशेंच उरलें.

''आरे पापया तूं रातभर हिंगाच रंवलो?'' त्या दादल्याचो हो प्रस्न आयकून मोर्तु साबुद्दर आयलो.

''आरे... हांव जात्रेक येयल्लों. म्हाजी पोती हिंगा आसल्या खाज्यामांडार दवरोन हांव मांडाफाटल्यान लवंडल्लों... आरे म्हाका फटयलो त्या खाजेकारान. म्हागे पोती घेवन गेलो मरे. पाडा पडो तेजें... मरों तो. आतां पुलीशें वैतां हांव.'' मोर्तु व्हडाव्हडान रडत बोबो मारपाक लागलो.

इतलो वेळ ताचें म्हणणें... उलोवणें आयकुपी त्या दादल्यान आतां तोंड उगडलें.

''आरे पापया हिंगाची जात्रा रातीचीं इकरा वरां मेरेन सोपोवन सगले लोक... खाजेकार, पिड्डूककार, चितारी लेगीत आपलें सामान घेवन वयतात आनी तूं रातभर हिंगाच? आतां पुलीस-बिलीस सोड आनी पोतीय सोड. तूं वाचलो हें नशीब समज पापया तुजें. आरे.. रातच्या बारा उपरांत हांगा भुतांची जात्रा भरता.''

आतां मोर्तुलें विमान बऱ्यापयकीं जमनीचेर देंवलें. मोर्तुक पयशांची याद आयली आनी तो हुंडहुंडक्यांनी रडपाक लागलो.

''म्हाजे पयशे आसले रे ते पोतयेंत.''

हो... हो करून रडपी मोर्तुच्या फाटीर त्या दादल्यान हात फिरयलो. ''बाबा... तूं अजिबात भिरांत धरों नाका. तुवें जेचेकडेन पोती दवरल्या तो तुजे पांच पयशे लेगीत खावचो ना. मुनीस न्हुं तो हरामी करोंक. भुतां आसलीं तरी तीं हरामी करनांय. तुका तुजी पयशांची पोती जायी तर फुडाराक हे जात्रेक बारा उपरांत हिंगा यो. तो खाजेकार तुका पोटली दितलो. येवशी मरे तूं?''

आपणें पोती दवरल्या तो खाजेकार मनीस न्हय तर भूत हें कळिल्ल्या मोर्तुच्या पोटांत कुंय-कुंय जातालें. आतां एकतर फुडारा जात्रेक येवपाचें नातर पयशांचेर... आलायत्या गडगड्याचे जोडीचेर उदक सोडपाचें हे चिंतनेन मोर्तुक फीट मारपाक आयली.

■

– आशा शानभाग
सादोळशें – काणकोण, मो. ९४०४१४५३३७

आंकरी

# दुसऱ्यांचें दुसरेंपण



- ब्र. जॉन आल्फोन्सो

मेल्ले म्हशीक बारा शेर दूद ही रुचीक म्हणणी आमकां चिंतनाच्या समदिरांत भितर सरूंक आधार दिता. मनीस एक यात्रेकार. आपली यात्रा ह्या संवसारांत करताना बऱ्या वांगडा वायटूय आपणायता. एकामेकाच्या संबंदांत जियेवपाचे यत्न करता. मनशान एक सुखी जीण जियेवंक केल्ले यत्न सदांच फळादीक जातात अशें ना,कांय फावटी मनीस अपयशाचें भांडार घेवन भोंवलेलो दिश्टी पडटा.असले परिस्थितींतलो भायर सरतना ताका दुसऱ्यांची भोव गरज. मनीस मनशाक समजून घेवन ताका आधार दितलो वो ना,हें सांगूंक खूब अवगड जाता. आयज मनीस आपल्या वांगडा दुसऱ्याचेंय मनीसपण होगडावंक फाटीं रावना पूण तो मनीस मेल्या उपरांत ताची तुस्त गायता.खरेंच मनीस आपल्या वांगड्यांचें मनीसपण चोरता व्हय?

मनीस एक जुंवो कसो रावंक शक्य ना. आयज मनीस संस्कृतीक,समाजीक आनी हेर मळांचेर आपले तांकी प्रमाणे वावरूंक लागला आनी हे वरवीं दुसऱ्याचें दुसरेपण वळखूंक घेवंक यत्न करता ती बरी गजाल म्हणूंक जाय. मनीस दुसऱ्याचें दुसरेपण वळखून घेता तेन्ना सामुदायीक जिविताक वेंग मारता म्हणपाक हरकत ना.संबंद तिगोवन दवरपाचें हें एक पावल म्हणूंक जाय. आपलो शेक दुसऱ्यांचेर चलोवन केन्ना केन्नाय संबंद सांबाळपाचे यत्न करता. असल्या विचारांक तथ्य ना. दुसऱ्यांचेर आपले विचार थापून आपुणूच 'वा सुनील बाबू' जावपाच्या मनशाक ताची सुवात दाखोवन दिवपाची गरज उप्रासल्या.खंयच्याय जम्यांत वावुरतना,मानून घेतात म्हुण, कितेंय दुसऱ्यांचेर शेवटिलें जाल्यार ताची मेकळीक आमी चिड्डून दवरतात, हाची आमी नोंद घेंवक जाय. नामनेचे तत्वगिन्यानी इमान्युएल कांट हाणीं आपल्या मोलादीक कल्पनेंतल्यान मनशाक मनशाचें म्हत्व पटोवन दिवपाचीं पावलां मारल्यांत. कांट हांच्या मता प्रमाणें मनशाक आपलो हेतू आसा, ताका एक



वस्त कशी वापरूंक जायना. एक वस्त आमी आमच्या उपेगा खातीर वापरतात आनी वापर जातच कोनशाक मारतात, तशें मनशासवें घडना आनी घडूंक जायना. पूण असली परिस्थिती आयज कांय मनीस अणभवतात. आयज मनीस मनशाक आपल्याच फायद्या खातीर वापरता आनी ताचें मनीसपण चोरून व्हरता, हें सांगतना काळीज भरून येता. आयज मनशाक आपल्या जिविताचेर अधिकार ना काय कितें?

सामुदायीक जिवीत जियेतना मनीस जायते फावटी आपलो सुवार्थ पळेता. दुसऱ्याचो वापर करून जातच, त्याच मनशाक त्रासांत घालूंक फुडें सरता. कांय मनीस आपलोच सुवार्थ पळोवन दुसऱ्यांक आडवाटेन पावलां मारूंक आदार करतात. हे तरेन मनीस मनशाचो दुस्मान कसो जियेवंक लागला. आपणांक दिसता तेंच खरें म्हुण समजून दुसऱ्यांचेर फर्मण मारपाची वृत्ती मनशान आपणायल्या. असली वृत्ती आमकां ध्येया कडसून पयस दवरता. आमचें ध्येय प्राप्त करूंक दुसऱ्यांचो गैरवापर करप हें मनीसजातीक सोबना. हातूंत बदल घडपाची गरज.

आयज मनीस गिन्यानान खूब गिरेस्त जाला. पूण ही गिरेस्तकाय जायते पावटी दुसऱ्यांक चेंपून दवरपाक वापर केल्ली दिश्टी पडटा. सगळेच असली वृत्ती आपणायतात अशें न्हय. गिन्यानाचे गिरेस्तकायेक लागून कांय फावटी मनीस दुसऱ्याचें दुसरेपण मानून घेवपाक अनमनता,हें पळेवन विचित्रच दिसता. आयज मनशान शिक्षणीक नदरेन जायत्योच पदव्यो मेळोवन घेतल्यात. ताची चिंतपाची तांक वाडत आसा, पूण हीच तांक घेवन मनशान दुसऱ्याचें मनीसपण राखपाचे यत्न केल्ले जाल्यार खूब बरें जावपाचें.

संवसारांत आसतना मनीस मनशाक चडसो लेखिना. विचार, कल्पना, मतां हांचें अंतर आसुंकूच जाय. पूण हेंच अंतर मनशाक चिंतूंक लावन ताची सर्वय वाटानी वाड जावंक फायद्याक पडूंक जाय. मनीस संवसारांतलो उठून गेल्या उपरांत ताचो मान आपोआप वाडटा. ताची व्हडव्हिकाय गायतात. ताच्या मानाक साबार कार्यावळी, समर्पक साधना ताका वयर वयर उखलून धरतात.हें सांगताना मेल्ल्या मनशांक मान दिवंचो न्हय अशें हांव म्हणना. हें सगळें संवसारांत मनीस जियेताना चडशे फावटी कित्याक घडना? हो एक मोठो प्रस्न मनाक थार दिना.

मनशाक आसा तसोच मानून घेवंक मनाची फास्की रूंद करपाची गरज दिसता. खंयचेय वस्तू कडेन पळेतना आमचे दोळे पुराय उगडून पळयल्लें जाल्यार बरें जावपाचें. दुसऱ्याचें दुसरेपण, एक मनीस जियेताना मानून घेवया. तो मनीस मेल्या उपरांत ताची तुस्त गावून व्हडलोसो फायदो जांवचो ना. उजवाडाचें मोल उजवाड आसतनाच वळखून घेवंया. दुसऱ्याक फावो तो मान, ताचे मुळावे हक्क, तशेंच मुल्यांचेर आधारलेलें जिवीत जियेंवक आदार दिवंक एक सुखी जीण जियेवंक सहकार दिल्लो जाल्यार ताचे वांगडा आमीय खुशाल आसपाचीं. अशें दिसना तुमकां?

■

**– जॉन एम्. आल्फोन्सो कार्मेलीत,**
म्हापशें–गोंय. मो. ९०९६६४७३४०



# माधव बोरकारांच्यो तीन कविता

## पारजाची वाट

रंगांचो मेळ
राधा गौळण
येता कृष्ण तसो
ओठांत रुजून

फुलांची काया
पर्मळाची खूण
तनात बासरी
वाजता अजून

तना मनांत
रंगांचो नाच
घालून फेरे
गौळणी पांच

गौळणीच्या गांवा
अद्रुश्टाची कुरू
पारजाची वाट
पावलांचें तारूं...

गोंदवलें
१५/०४/१४



## जीण

येता गोठ्यांत गाय
तशी भितर सांज
पानांची सळसळ
कोण कातर आज

पेटिल्ले पैसांत
मिणमिणपी दिवे
कोगळाचे साद आनी
शब्दांक अर्थ नवे

सांजेचे वाटेर
स्वासांचे मोने खीण
फळना फळून
कळंतराची जीण

१२/०४/१४

## घर

नादाचीं ल्हारां वाऱ्याचीं
ल्हारेता उतरां ताऱ्याचीं
दोळ्यांत पाखां मोराचीं
गळ्यांत सुखां सुरांचीं
उक्तीं दारां रंद्रांचीं
केलीं कोणें चंद्राचीं

मन : अवजाळी पोर
बांदता चाऱ्याचें घर...

गोंदवलें
१४/०४/१४



# मनसंवेदना



## नकारात्मकतेचें बीज

जिणेंतली नकारात्मकता पयस करूंक
ताणें जायतें केलें..

शांती केली, पुजा केली,
तप केलो, जप केलो,
स्वामी केले, देव केले,
हाका ताका दान दिलें,
पूण कशीच वचना जाली ती...

निमणें ताणें एक केलें,
एका सकारात्मक मनश्या कडेन
जोडलें नातें

नकारात्मकतेचें बीज
जालें खिणांत खोटें,
जालें खिणांत खोटें



– अन्वेषा सिंगबाळ,
मडगांव.
मो. : ९९२३४४२७४६

## आई

म्हजी आवय भायर पडली
हांवें भिरकेन मोरगांतल्यान
भलतीच कूड घरा हाडली
आरे आमगेली आडवो कुकूम लायताली
हिणें उबो लायला, बापायली बारीकसाण
आईचे केंस इंदिरेभशेन ब्लॅक अँन्ड व्हायट
हिगेल्या कुरळ्या केंसांक ती सर खंय भयणीक डिप्रेशन
तिगेल्यो वेडी वज्रांच्यो
हिणें तर मोतयांच्यो घाल्या; आत्याचेर आकांत
आईच्या हातार 'शांताई' गोंदयल्लें
हिच्या हातार तें खंय आसा ? भावालें प्रस्नचिन्न
हिच्यो खोटो सुळसुळीत
तिचे कातरे खंय गेले! शेजान्नीक अजाप
म्हजे आवयक वळखुपाच्यो इतल्यो कुरवो आशिल्ल्यो
म्हाका केन्ना कळ्ळेंच ना
हांवें तिका आयुश्यभर फकत
आई म्हणुनच पळेली



– कृ. म. सुखठणकार
रायबंदर – गोंय.
मो. : ९८५०५३०७५६

## सांज दर्यावेळेर

त्या दिसा वाज आयलो
कितें करूं कांयच समजना जालें
आवचीतूच मनाक म्हज्या
दर्यावेळेर वचनशें दिसलें.

दर्यावेळेर पावतकीच
एका जाग्यार वगीच बसलो हांव
जायतो लोक आशिल्लो वेळेर
पळोवन अजाप जालो हांव.

ल्हारांचेर ल्हारां पडटालीं
रेंवेंचेर भुरगीं खेळटालीं
उदकांत न्हावन जायतीं जाणां
खूब मौज करतालीं.

झमझमीत वारो येतालो
आंगाक थंडाय दितालो
दर्या पोटांत सूर्या रिगतना
पळोवंक सोबीत दिसतालो.

जिवाक खूब बरें दिसलें
देंवलें वजन आशिल्लें तकलेर
परतून हांव आयलो घरा
सारून सांज दर्यावेळेर......



– एडवीन फेर्नांडीस
शेळवण,
कुडचडें–गोंय

# मनसंवेदना



## हांव

हांव
एक सुकिल्लें फूल
तुज्या पुस्तकांतलें

हांव
एक पोरणे यादिचें कापड
तुजे यादिंतले गाठलांतलें

हांव
एक कोरें पान
बरपान भरिल्ले तुजे डायरेंतलें

हांव
एक चिन्ह
तुजे रंगयाळे कवितेंतलें

हांव
एक मोरपाख
तुज्या खातखुतलावपी मनांतलें

हांव
एक हय न्हय शें सपन
तुजे धादोशी जिणेंतलें

तरीय.......

हांव
एक कोडें
तुका अजून न उलगल्लें

## पावस

अशेच एके पावशी रातीं
टपटपपी पावसा थेंब्यांनी
ऐन मध्यानीर जाग येता
रातच्या पाख्याचेर धुंवपी पावस
उदकांत नाचपी पावस
जनेलांतल्यान डोकावपी पावस
सपनांतल्यान मुखार येता
एक अनाहत, पावसनाद नादयत रावता
मनांतल्यान, कुडींतल्यान वाजत रावता कानांतल्यान
रात मात झिरपत वता उक्ता दोळ्यांतल्या काळखांतल्यान

## सपनां

सपनां
तुवें खूब दाखयलीं
आतां
थोडें वास्तवांतूय दाखय
ना तर
सपनांकूच
जिवीत समजून
हांव
जियेवपाचेंच विसरून वचत




**– शालन नायक**
विद्यानगर,
घोगोळ – मडगांव.



**– डॉ. सुलभा कोरे**
पाथर्ली रोड,
डोंबिवली(पूर्व) मुंबय.
मो. : ९८२०४६८९१९







**– अनंत विरनोडकार**
सुकूर, पर्वरी – गोंय.
मो. : ९४२२४४४९५४

# सिंहासन बत्तीसी

## सोळावी काणी

सोळाव्या दिसा राजा भोजान सदचेवरी दरबारांत येवन सोळावे परीक हात लायलो. ती मूर्त नाच्च जाली आनी राजा मुखार एक दिव्य बायल उबी रावली. तिणें म्हळें, ''हे राजा म्हजें नांव प्रेमावती. राजा विक्रमाचें बळगें तुज्या आंगांत आसा व्हय? तो खूब बळिश्ट आशिल्लो; तसोच इश्टांपासत कितेंय करूंक तयार आसलो. ताची काणीच तुका हांव सांगतां, राजा विक्रमाक सुमती नांवाचो एक इश्ट आसलो. ताचे पासत विक्रमान कितें कितें केलें तें तुका सांगतां. हो सुमती काशीयात्रेक गेल्लो. येतना वाटेर एका नगरांत रावलो. त्या नगरांत मदेकात एक देवूळ आसलें. तो थंय गेलो. थंय जायते जाण जमिल्ले. थंय एके व्हड रान्नीचेर उजो रसरसतालो, आनी ताचेर एक व्हड लोखणें दवरून तातूंत तेल सळसळटालें.

ताणें लोकांकडेन ताचेविशीं वासपूस केली.

''वाटसुऱ्या! ह्या नगराची राजकुंवरी मदनमंजीरी हिचें स्वयंवर आसा. जो ह्या तेलांत उडी मारून कांयच दुखापत जायनासतना भायर येता ताका ती आपलो घोव मानून वरमाळा घालतली असो तिणें पण दवरला. तिचे सोबितकायेची कित्याच वांगडा तुळा जावंक शकना, इतली ती सोबीत आसा. आतां मेरेन जायत्या तरनाट्यांनी त्या सळसळट्या तेलांत उडी मारून भाजून मरण वेंगायलां.

लोक ताका ही गजाल सांगता आसतनाच, वाजत-गाजत राजकुंवरी थंय आयली. सगळेच तिचेकडेन पळोवंक लागले.

तिची सोबीतकाय पळोवन सुमती पिशांतूर जालो. पूण तेलांत उडी घेवपाचीं पिशेपणांय ताका करीन दीसऽ नासलीं.

## सळसळपी तेलांत उडी





तिचें रूप मनांत सांठोवन दुखेस्त मनान तो अवंतींत परतलो. थोड्याच दिसांनीं तो विरहान भागून गेलो.

सुमती जेन्ना विक्रमाक मेळ्ळो तेन्ना ताणें सुमतीक ताची यात्रा कशी जाली ती विचारली. सुमतीन यात्रेची गजाल सांगली. पूण ताच्या तोंडार खोशी नासली. तो सामको बारीक जाल्लो तेंय पळोवन विक्रमान ताची वासपूस केली. तेन्ना सुमतीन देवळांत पळयल्लो सगळो प्रकार सांगलो.

राजान म्हळें, ''तूं तिचे पासत असो भागला? कांय भिव नाका. इश्टा तुजे पासत हांव कितेंय करूंक तयार आसां. ती राजकुंवरी हाडून हांव तुका दितां. असो दुखी जावं नाका. चल आमी त्या राज्यांत या.''

ते दोगूय जाण त्या नगरांत गेले. मदनमंजीरी राजकुंवरी देवळांत पयलींच आयिल्ली. विक्रम आनी सुमती देवळांत आयले. विक्रमाचें रूप पळोवन मदनमंजीरीक दिसलें, ''ह्याच दादल्याक वरमाळ घालूं जाय, हांवें वोगीच इतलो कठीण पण लायलो.'' ती खासा आपूण विक्रमा म्हऱ्यांत आयली आनी तिणें म्हळें, ''हे श्रेश्ठ दादल्या! मनासारको आनी धिरीश्ट घोव मेळचो म्हणून हांवें ही इतली कठीण अट घाल्या. पूण तुमकां पळोवन हांव म्हजी अट फाटल्यान घेतां. तुमी म्हजो स्वीकार करशात? तेलांत हुलपून तुमी मरचें अशें म्हाका दिसना.''

विक्रमान म्हळें, ''ना! तूं पण फाटीं घेवूं नाका. आमकां दोगांकय तें सोबचें ना. आमची दोगांयचीय टिका जातली. तुका चिंता करपाची कांय गरज ना. हांव पण जिखतलोंच. म्हजी मात एक सांगणी तुवें आयकूं जाय. हांव तेलांतल्यान जितो भायर आयलों जाल्यार हांव सांगतां तें तुवें आयकूंक जाय.''

मदनमंजीरीन ताची सांगणी मानून घेतली. राजान मनांतल्यान वेताळाक विनवणी केली. वेताळान गुपीतपणान येवन आपले मायावी शक्तीन लोखण्यांतलें तेल थंड केलें. राजान लोखण्यांत उडी मारली आनी रोखडोच भायर आयलो. सगळ्यांनी राजाचो जयजयकार केलो.

मदनमंजीरीक राजाचो पराक्रम पळोवन खोशी जाली. तिणें राजाक म्हळें, ''म्हाराज, तुमी वचन दिल्ले प्रमाण म्हजो स्वीकार करचो.'' तेन्ना राजान सांगलें, ''तुवेंय म्हाका एक उतर दिल्लें. ते प्रमाण आतां हांव कितें सांगतां तें आयक. म्हज्या वाट्याचो हो म्हजो इश्ट सुमती हाका तुवें माळ घालची.''

राजकुंवरीक वायट दिसलें. पूण तिणें उतर दिल्लें. तिका मानून घेवचेंच पडलें. पूण तिणें जेन्ना सुमतीक पळयलो तेन्ना ती खोशी जाल्ली. राजान तांचें दोगांयचेंय लग्न करून दिलें आनी विक्रमराजा परत अवंतीक आयलो.

इतली खबर सांगून प्रेमावतीन म्हळें, ''राजा भोज, विक्रमावरी तुजें मित्रप्रेम आनी हुशारकाय आसा जाल्यारच तूं ह्या शिंवासनार बस.''

इतलें सांगून परी शिंवासनाक वचून चिकटली.

■



– माया अनिल खरंगटे
दवर्ली, नावेली – गोंय.

# नशिबाचो धनी!



केंऽ केंऽ केंऽ गजाल मारत मारत तें हाडकुटें सुणें रस्त्यार पावलें. जीब भायर काडून हा हा करीत मदींच ताणें रस्त्यार बसकण मारली खिणभरच. परत उबें रावन जीब भायर काडून हेवटेन तेवटेन पळोवंक लागलें. इतल्यान ताका पयसुल्ल्यान आपलो गांव-भाव येतना दिसलो.

तो लेगीत बारीकसाणेन हाकाच पळयत फुडें येतालो. 'आब्बा! फाटीं मेळिल्लें तेन्ना तर हें बरेंऽ आशिल्लें. अशें अचकीत इतलें हाडकुळें कशें जालें काय?' तो विचार करत करत ताच्या म्हऱ्यांत पावलो.

''आगो कितें जालां? केकाटतालें कित्याक तूं? केद्या व्हडल्यान गजाल मारली गो तुवें? आनी इतलें हाडकुळें कशें जालें?''

''कितें सांगू तुका? पळय पोट कशें फाटीक लागलां तें.'' खर्शेत खर्शेत बाबडें उयतालें. ''आमकां आतां हांगा कांयच खावंकय मेळना आनी पिवंकय. आज तर तानेन जीव सामको वयर आयला. कसलो रे गीम हो? जायना रे बाबा सोसूंक!'' बसत ताणें म्हळें. परत उबें रावन जीब भायर भितर घेत ताणें फुडें म्हळें, ''आरे हेऽत्या आंगणांत उदकान भरिल्ली कळसुली आसली. बरी व्हडली. तानेल्लें हांव सामकें. देखून इल्लेंशें उदक पिवंक म्हुण तोंड मात घालां. सामकी राक्षीण शी आयली न्ही रे आंगार! एक येदो व्हडलो फातर काडून शेंवटिलो. तरी बरें म्हजें लक्ष आशिल्लें म्हणून. सारको चुकयलो तो फातर. नाजाल्यार दोकोच मोडपाचो.'' जायना जावन ताणें खिणभर दोळे धांपले. उगडले. जीब परत भायर-भितर. परत भायर. हाऽ हा सुरूच आशिल्लें.

ओग्गी उबो रावून आयकतल्या गांव-भावाक ताणें विचारलें, ''आरे तूं हेवटेन कसो आज?''

''आगो, हांव पासयेक गेल्लों.''

''आरे, पासयेक म्हळ्यार खंय?''

''आगो, पासयेक म्हळ्यार भोंवूंक. आयकुना तुवें? सगळी मनीसजात सकाळ सांजवेळ पासयेक वता ती? आपलो वाठार सोडून दुसरे कडेन वचप आनी अशेंऽ भोंवून येवप. हांवेंय आज तेंच केलें. बरो भोंवलों. खऱ्यानी बरेऽ दिसलें जिवाक.''

हाडकुटें सुणें बाबडें आयकतालें. पूण तानेन आनी भुकेन सामकें कासावीस जाल्लें. ह्या गांवभावाच्यान ताची दशा सामकी पळोवं नज जाली. ताका सामकी काकूट दिसली ह्या हाडकुट्याची.

''आगो चल आज आमच्या वाड्यार यो. खा, पी जाय जाल्यार एक-दोन दीस राव आमच्या बराबर.''



''नाका रे बाबा, तुजे ते इश्ट खावन उडयत म्हाका. शी! हांगाच मरप परवडलें. पूण तुज्या वाड्यावेले ते धश्टपुश्ट इश्ट तुजे! नाका रे बाबा!'' हाडकुट्यान म्हळें.

''चल गो तूं. फुडलें सगळें पळयतां हांव. हांव सांगतां तांकां.'' मागीर पर्थून आनी मात्सो आगरो करून गांव-भाव ताका घेवन पावलो आपल्या वाड्यार.

तें बाबडें भीत भीत ताच्या फाटल्यान हळुहळू चलतालें. तीं दोगांय पावता थंय आसा. बरे सात-आठ धश्टपुश्ट कुत्रे धांवत, गुरगुरत आयले. फाटल्यान दोग तीग जाण तर आशिल्ल्याच जाग्यार उबे रावन व्हडल्यान भोंकपाक लागले.

ह्या गांवभावान दरेक सुण्या म्हऱ्यांत वचून तांकां थंडायले. फाटल्यान भोंकतल्यांकय ताणें लागसार वचून सांगलें. सगळे गुरगुरपाचे, भोंकपाचे बंद जाले.

''चल सर फुडें. तुका जाय तें खा, पी. कोण येवचो ना तुजे वाटेक.''

हाडकुट्यान पळयलें. दोन शिमिटाच्यो ल्हान ल्हान टाकयो उदकान सामक्यो भरिल्ल्यो आशिल्ल्यो. थंयच एका शिमीट काडिल्ल्या जाग्यार चपातेचे कुडके, पावाचे कुडके, लाडू, बिस्कुत्यो आनी तरातरांचे जिन्नस पडिल्ले.

पयलीं हाडकुट्यान पोटभर उदक पिवन घेतलें. मागीर ताणें थोडेशें खावन घेतलें. जिवाक ताच्या बरेंऽ दिसलें. मात्शी थाकाय दिसली. दोळे धांपून ताणें बसकण मारली.

गांव-भाव ताच्या म्हऱ्यांत बसलो. ''राव दोन दीस आमचे बराबर. मागीर चल तुज्या वाड्यार.''

''फकत आयची रात रावतलें. फाल्यां सकाळीं वतलें हांव.''

रातीकडेन सुस्ताविल्लें तें न्हिदून पडलें. फात्या पाऱ्यार उठून पळयल्यार सगळें खाण सोंपिल्लें. तें कित्याक पळयता तें गांव-भावाक जुस्त कळ्ळें.

''अगो ही व्हडली सोसायटी. सगळे श्रीमंत लोक हांगा रावतात. तांचो ब्रेकफास्ट जावनी. मागीर उरिल्लें सगळें येतलें हांगा. परत खा पी बरें पोटभर आनी मागीर चल.'' गांव भावान सांगलें.

इतल्यान भायर सरतना दर एकलो मनीस थंय हाडून खाण घालूंक लागलो. सोसायटीच्या वॉचमॅनान दोनूय टाकयो भरल्यो उदकान. तशे सगळे कुत्रे तुटून पडले खाणाचेर. हाडकुट्यान आनी गांव भावानय खावन घेतलें. मागीर हाडकुट्यान आपल्या वाड्याचो रस्तो धरलो. वतना तें विचार करतालें, 'जो तो आपापल्या नशिबाचो धनी.' हेंच खरें. बरे नशिबवान सगळे.

पूण नशीब नशीब म्हणटात ती गजाल खरी तर? पावला कणकणी ताच्या विचारांक ओतो येतालो.

आतां एकदां थंय पावलेंच हांव. ह्या गांव-भावाचे वळखीन आतऱ्या पयऱ्यान येवचें थंय. सामकी काकूट दिसपा सारकी अवतीकाय आनी तोंडाचेर भुकेल्ले दुखी भाव फकत हाडपाचे. तें नाटक बेस बरें जमपाक जाय म्हाका.

येवजितां येवजितां तें पावलें आपल्या वाड्यार. एका झाडाचे सावळेंत दोळे धांपून ओग्गी पडून रावलें खरें पूण मनांत मात खवदळ चलिल्लो. आपणेंय नशिबवान जावपाचें. आतां तर सामकें थारावनच उडयिल्लें. हळुहळू मैत्री वाडोवप. सगळ्यांचे संवकळीचें जावप आनी त्याच ग्रुपांतलें जावन रावप. म्हज्या कर्तुबान म्हजें नशीब घडोवप.

■



**– उषा ज. कामत,**
हरिमंदिरा लागीं,
मडगांव – गोंय.

# चार गिन्यानाच्यो गजाली



एका राज्यांत एक राजा आशिल्लो. ताका एकच पूत आशिल्लो. राजा फाटल्यान सगल्या राज्याचो भार ताचेरच पडपाचो आशिल्लो देखून राजान ताका सगले तरेचें शिक्षण दिवंक सुरवात केली. ताका शस्त्रास्त्रां वांगडा शास्त्रांचेंय गिन्यान जावचें म्हण राजा ताका विंगड विंगड रुशींच्या आश्रमांत धाडटालो.

राजकुंवर हुशार आशिल्लो तसोच गुणेस्त आशिल्लो. तो राजान सांगलां ते प्रमाणें नमळायेन शिक्षण घेतालो.

असोच एक फावट भोंवतां भोंवतां तो एका रुशीच्या आश्रमांत पावलो. तो भितर सरलो तेदेवेळार रुशी तपश्चर्येंत मग्न आशिल्लो. देखून राजकुंवरान ताका उठयलोना आनी ताची तपश्चर्या सोंपपाची वाट पळयत बसलो.

सांजचो सूर्य अस्ताक वतगच रुशीची तपश्चर्या सोंपली. ताणें दोळे उक्ते केले. तेन्ना फुडें एक सुंदर राजकुंवर बशिल्लो ताका दिसलो. ताणें वासपूस केली तेन्ना सकाळच्यान तो खायपीये नासतनां थंय बसून रावला म्हणपाचें ताका कळ्ळें. रुशीक ताची लक्तुबाय दिसली. ताणें राजकुंवराक सांगलें, आतां रात जाल्या. तूं हांगा जेव बी. हांव खरेंच तुका संकश्टाच्या वेळार उपकरा पडटल्यो अशो गजाली सांगतलों.

राजकुंवर थंय शिकूंकच आयिल्लो. ताची रावपाची तयारी आशिल्ली. देखून आश्रमांत पावतनाच ताणें आपले बरोबरच्या लवाजम्याक परत धाडिल्लें. तो आश्रमांत रावंक तयार जालो. आश्रमांतलें सादें जेवण तो रुचीन जेवलो.

जेवन जातकच ताणें रुशीक विचारलें, ''तूं सांगता म्हण्टालो त्यो गजाली खंयच्यो ?''

रुशीन म्हळें, ''तशें सांगपा सारकें खूब आसा. तरीकय तुका चारच गजाली सांगतां. त्यो सारक्यो मतींत धर. तुजेर चडशीं संकश्टां येवचींनात.''

राजकुंवर खूश जालो आनी लक्ष दिवन आयकूंक लागलो.

रुशीन सांगलें, ''पयली गजाल- खंयच्याय अनवळखी गांवांत वतना एकट्यान वचचें न्ही. दुसरें- अनवळख्यान दिल्ली खावपाची वस्त सट्ट करून खावची न्ही. तिसरी- अनवळख्यान घाल्ल्या हातुणांचेर न्हिदचें न्ही. आनी चौथी गजाल – कोणाय परकी मनशाकडेन वळख जातकच ताचेकडेन नमळायेन वागचें. ह्यो चारय गजाली मतींत दवरल्यार तुज्यान संकश्टां टाळूंक जातलीं.''

राजकुंवराक रुशील्यो गजाली मानवल्यो. उपरांत शास्त्र, शस्त्र विद्येंतल्यो आनीक कांय गजाली शिकून ताणें रुशीचो निरोप घेतलो.

परत येतना रुशीन ताका फोव, चणे, गोड बी बांदून दिलें. राजकुंवर रुशीचो आशिर्वाद घेवन परत येवंक भायर सरलो.

बरोबर हती घोडे कांय नाशिल्ल्यान ताका चलून वचचें पडलें. वतां-वतां ताका पुरो जालें आनी तो एका झाडामुळांत बसलो. आपले बरोबर हाडिल्ली पोटली ताणें सोडली आनी तो फोव, चणे खावंक लागलो. इतल्यांत थंय मुंगसां नाचतात तीं

ताणें पळयलीं. आपले कडले चार चणे ताणें मुंगसांक फांफुडले आनी थंयच आड पडलो.

वाऱ्याच्या झोतार ताका बरीऽ न्हीद लागली. बऱ्या वेळान उठ जाल्यार ताच्या म्हऱ्यांत एक सोरोप मारून उडयिल्लो ताणें पळयलो. हें मुंगसांचेंच काम हें कळ्ळूक ताका कळाव लागलोना. ताणें आनी थोडे चणे, गोड मुंगसांक घालें आनी तो फुडले वाटेक लागलो.

वतां वतां ताका एक जंगल लागलें. रुशीन सागिल्लें , अनवळखी गांवांत एकटो वचूं नाका. पूण बरोबरच्या सगल्या शिपायांक ताणें परते धाडून दिल्ले. आतां उपाय नाशिल्लो. तो वचत रावलो.

वाटेर ताका एक न्हंय लागली. न्हंयचेर वचून ताणें हात-पांय, तोंड धुलें आनी उदक पियेवंक करतालो इतल्यांत थंय कांय लोक आयले आनी ताणीं ताका धरलो.

ते लोक आशिल्ले मायावी. ताणीं राजकुंवराक धरून आपले घोलींत व्हेलो. राजकुंवर कोण, खंयचो तें सगलें विचारून घेतलें. राजकुंवर एका राज्याचो फुडलो राजा म्हण कळटकच ताणीं ताका मारून ताचे सुवातेर आपल्या पुताक धाडपाची तयारी केली. राजकुंवराक हें कळूं नये म्हण ते ताचेकडेन गोड गोड उलोवंक लागले. ताचे खातीर ताणीं बरीं बरीं पक्वान्नां केलीं. खावपाचो वेळ जालो. तरेतरेचीं पक्वान्नां फुडें आयलीं. सगल्याक पक्वान्नांचो घमघम सुटलो. त्या वासान दारांत कुत्रे येवन आशेन पळोवंक लागले.

राजकुंवराक रुशीले सांगणेची याद जाली. ताणें सांगिल्लें, अनवळख्यान दिल्लें खाण सट्ट करून खावचें न्ही. राजकुंवरान देवतेची प्रर्थना करपाचें सवंग केलें. आनी सगल्या पक्वान्नांतलो एक एक घांस काडून कुत्र्यांक घालो आनी आपूण दोळे धांपून बसलो.

कुत्र्यांनी तीं पक्वान्नां खालीं आनी तातूंत घाल्ल्या विखाक लागून ते बेसूद जाले.

बऱ्या वेळान राजकुंवरान दोळे उक्ते करून पळय जाल्यार सगले कुत्रे बेसूद जावन पडल्यात. तो समजलो. ताणें पोटांत दुखपाचें नाटक केलें आनी जेविनासतना रावलो.



मायावींचो डाव फसलो. तरी ताणीं दुसरी युक्ती करपाचें येवजिलें. ते राजकुंवराकडेन खबरी उलोवंक लागले. पूण राजकुंवरान आपल्या पोटांत दुखता म्हण वोग्गी पोट धरून बसपाचें नाटक केलें. न्हिदपाचो वेळ जालो. मायावींनी सांगलें, ताचें हांतूण तयार जालां. ताका न्हिदूंक हरकत ना.

राजकुंवराक रुशीली तिसरी गजाल याद जाली. अनवळख्यान घाल्ल्या हांतूणार न्हिदप ना. देखून तो न्हिदपाचे कुडींत गेलो आनी ताणें देवाची प्रार्थना करूंक जाय म्हण दार धांपलें. दार धांपतकच ताणें हांतूण वयर काडून पळय जाल्यार पोंदाक खोल बांय आशिल्ली. राजकुंवर त्या हांतुणाचेर न्हिदिल्लो जाल्यार सामको बांयत पडटलो आशिल्लो. आनी कोणाक कळचें पसून नाशिल्लें. राजकुंवर सादूर जालो. ताणें हांतूण आशिल्लें तशें घालें आनी परत देवाची प्रार्थना करूंक लागलो.

हेवटेन राजकुंवर बांयत पडून येन्ना मेरेन मेलो जातलो अशें समजून मायावीन आपल्या दोगी धुवांक ताका पळोवन येवंक लायलें. तीं आयलीं तेन्ना पळय जाल्यार राजकुंवर प्रार्थनाच करतालो. दोळे धांपून बशिल्ल्या राजकुंवराचें रूप दोगांकय आवडलें. दोगांय ताका भुललीं. व्हडलेन धाकले भयणीक म्हळें, ''तूं हांगा राव आनी ताचेर लक्ष दवर. तुका न्हीद येतकच म्हाका उठय, मागीर हांव येतां ताचेर लक्ष दवरूंक.'' भयणीन हां म्हणटकच व्हडली भयण न्हिदूंक गेली. धाकटी भयण हुशार आशिल्ली. ती जाणां आशिल्ली, राजकुंवराच्या जीवाक भिरांत आसा. तिका ताचेविशीं आपुलकी दिसली. हाका असो मरूंक दिवं जायना. तिणें येवजिलें.

ती राजकुंवरा म्हऱ्यांत गेली आनी तिणें ताका हालोवन सांगलें, ''ऊठ, दोळे उक्ते कर, म्हजे फाटल्यान यो. हांगा तुज्या जिवाक भिरांत आसा.''

राजकुंवरान दोळे उक्ते केले. तेबरोबर तें चली ताका हाताक धरून ओडीत घोड्याचे गरवडींत घेवन गेलें. थंय तांचे कडेन खरें म्हळ्यार दोन घोडे आशिल्ले, ते वाऱ्यावरीं धांवताले. पूण काळखांत ते चलयेक कळ्ळेंना आनी ताणें राजकुंवराक दुसऱ्याच एका घोड्याचेर बसयलो. वांगडा आपूण बसलें आनी घोड्याक धांवडायलो. घोडो धांवंक लागलो.

घोड्याच्या टापांचो आवाज व्हडले भयणीन आयकलो आनी धाकटी भयण राजकुंवराक घेवन पळून गेली म्हणपाचें तिका कळ्ळें. खरें म्हळ्यार राजकुंवर तिका आवडिल्लो. भयणीन ताका व्हेलो म्हणटकच तिच्या आंगाक उजो पेटलो. ती बद्द बापाय म्हऱ्यांत गेली आनी तिणें बापायक भयणीची कागाळ सांगली. बापायक तिडक मारली.

तो गेलो आनी आपल्या वाऱ्यावरी धांवपी घोड्याचेर बसून तांचो फाटलाव करूंक लागलो.

राजकुंवराक घेवन गेल्ले चलयेक कळ्ळें, बापूय फाटल्यान येता. तिणें राजकुंवराक सादूर केलो आनी आपल्याक वाटावपाची युक्ती सोदून काडूंक सांगलें.

राजकुंवरान तिका धीर दिलो आनी हुस्को करी नाका म्हळें. ताणें सांगलें आपूण जेदेवेळार एका झाडार चडटलों तेदेवेळार तिणें झाडामुळांत बसून रडपाचें सवंग करप.

दोगांय घोड्यावयल्यान देंवलीं. राजकुंवर झाडार चडलो आनी मायावीची चली सकल बसून रडूंक लागली. तिणें घोड्याचे लगाम सोडले आनी घोडो धांवत रावलो. इतले म्हणसर बापूय थंय पावलो. ताणें चलयेक पळयलें आनी तिका मारूंक तरसाद काडली. चलयेन म्हळें, "बाबा, म्हाका मारूं नाका. हांव हाका मारूंक म्हण हांगा घेवन आयिल्लीं. पूण हो झाडार चडून बसला आनी घोड्याचे लगाम सुटिल्ल्यान घोडो पळून गेला. तो केन्ना सकल देंवतलो ताची हांव वाट पळयतालीं.. सकल देंवतकच रोखडींच हांव ताका मारतलीं आशिल्लीं खरें तर."

चलयेचीं उतरां आयकून मायावीक खरें दिसलें आनी ताणें चलयेक म्हळें, "तूं हे लगाम धर. हांव झाडार चडटां आनी पळयतां ताका."

बापूय जसो झाडार चडूं लागनाका, राजकुंवरान वेल्यान दिस्त घोड्याचेर उडी मारली. हे वटेन चलीय चडून बसली आनी दोगांय वाऱ्याच्या वेगान थंयच्यान निसटलीं.

तांकां दोगांकय पळून गेल्लीं पळोवन मायावी रागान थरथरूंक लागलो. पूण तांचे फाटल्यान वचूंक ताचे कडेन घोडो नाशिल्लो.

राजकुंवर मायावीचे चलयेक घेवन बद्द आपल्या राज्यांत पावलो. राजवाड्यांत पावतकच ताणें बापायक सगली खबर सांगली. बापायन मायावीचे चलयेचे उपकार मानले आनी तिचें राजकुंवरा कडेन लग्न करून दिलें.

रूशीच्या गजालींक लागून आपलो जीव वाटावलो हाची ताका जाणविकाय जाली. ताणें त्यो गजाली उपरांत बायलेकय सांगल्यो.

**(नेपाळी लोकांकाणी)**



– किरण म्हांबरे
मडगांव – गोंय.

# हुंदराची करामत



एका धाकटुल्या घरांत आवय, बापूय आनी तांचो पूत रवी रावतालो. ताची आवय आनी बापूय आपल्या पुताचेर खूब मोग करतालीं. आपलो पूत बरोऽ शिकचो असो तांचो हावेस आसलो म्हणून ताणीं आपल्या पुताक, रवीक शाळेंत धाडलो. रवी शिकपाक खूब हुशार आशिल्लो. तो वर्गांत सदांच पयलो येतालो. रवीचो बापूय दीस आनी रात कश्ट करतालो आनी आपणालें घर सांबाळटालो. रवी शाळेंत खूब उमेदीन वतालो आनी उमेदीन पर्थून घरा येतालो.

अशें हें खूब दीस चलत आशिल्लें. एक दिसाची गजाल. रवीचे शाळेंत खेळां दीस मनोवपाचो शिक्षकांनीं थारायलें आनी कोण-कोण भुरगे खंयच्या-खंयच्या खेळांत वांटो घेवपाचे आसात हाची विचारपूस भुरग्यांकडेन करूंक लागले. रवी खेळांत खूब हुशार आशिल्लो म्हणून ताणें आपलें खेळांत नांव दिलें. आपल्याक आतां खेळपाक मेळटलें म्हण रवी खूब उमेदी जालो. इतल्यान एका शिक्षकान एका भुरग्याकडल्यान रवीक आपोवणें धाडलें. रवी त्या शिक्षका म्हऱ्यांत गेलो.

शिक्षकान रवीक सांगलें, ‘‘रवी तुवें ज्या खेळांत नांव दिलां तातूंत तुका एक तांबड्या रंगाचो घालपाचो कपडो जाय.’’ हें आयकून रवीचें तोंड सामकें देंवलें. आतां आपूण तांबड्या रंगाचो कपडो खंयच्यान हाडटलों? असो प्रस्न ताच्या म्हऱ्यांत येवन उबो रावलो. ताका दिसलें की तांबड्या रंगाचो कपडो बाजारांत खूब म्हारग आनी इतलो म्हारग कपडो आपल्याच्यान हाडपाक जावचोना.

इतल्यान तांबड्या रंगाचो घालपाचो कपडो आपल्या घराकडेन कपड्यांचे पेटयेंत आसा ही ताका याद जाली आनी ताणें शिक्षकाक हाडटां म्हणून सांगलें. रवी सामको उमेदीन घरा आयलो आनी ताणें आपले आवय आनी बापायक शाळेंत कितें कितें जालें तें सांगलें. आपलो पूत रवी शाळेच्या खेळां सर्तींत वांटो घेवपाचो आसा हें आयकून तांकां मळबभर खोशी जाली. रवीन आपले आवयक सांगलें, शिक्षकान तांबड्या रंगाचो कपडो हाडपाक लायला म्हणून. ताची आवय कपड्यांचे पेटयेंत तो तांबड्या रंगाचो कपडो सोदपाक लागली.

सोदतां सोदतां ताका पेटयेंत हुंदराचो आवाज येवंक लागलो. रवीचे आवयन सगळे कपडे काडून जमनीर उडयले आनी पेटयेंत पळयल्यार कितें? जो कपडो रवी घालपाचो आशिल्लो तो हुंदरान सामको काबार करून उडयला. रवीक हें पळोवन खूब वायट दिसलें. आतां आपल्याक शाळेच्या खेळांत वांटो घेवंक मेळचोना कित्याक तर आपलो तांबडो कपडो आशिल्लो तो हुंदरान काबार केलो आनी आतां हांव कितें घालतलों? असो प्रस्न ताचे मुखार येवन उबो रावलो.

इतल्यान ते जमनीर उडयल्ल्या कपड्यांतल्यान एक हुंदीर धांव-धांव धांवलो. रवीन आनी ताचे आवयन त्या हुंदराक पळयलें पूण रवी आपल्या दुख्खान आशिल्लो आनी तो खूब रडपाक लागलो. ताचे आवयन आनी बापायन ताका खूब समजायलें आनी रडपाचो ताका थांबयलो. रवीची आवय भितर जेवण करपाक गेली. वेळ कसो गेलो तोच कळ्ळो ना. रोखडीच रात



जाली. रवी जेवपाक भितर गेलो आनी जेवन बेगीन न्हिदलो.

सकाळीं रवी उठून, तोंड धुवून, च्या पिवून शाळेंत गेलो. शाळेंत पावतकच रवीन पळयलें की शाळेंत खेळांचो दीस मनोवपा खातीर सगळीं भुरगीं सामकीं उमेदीन आशिल्लीं. इतल्यान शिक्षकांनी सगळ्या भुरग्यांक मैदानार हाडले आनी खेळाक आरंभ जालो. पूण रवी मात सगळ्या भुरग्यां पासून पयस रावपाक लागलो. ताका दिसलें आतां आपल्याक शिक्षकान विचारलें जाल्यार आपूण कितें जाप दितलों?

इतल्यान एका भुरग्या कडल्यान रवीक शिक्षकान आपोवणें धाडलें. रवी त्या शिक्षका म्हऱ्यांत गेलो. पूण ताका आपूण कितें करूं आनी कितें नाका तें कळना जालें. शिक्षकान रवीक विचारलें, ''रवी तुवें तुजें नांव खेळांत दिवन लेगीत तुवें खेळांत वांटो कित्याक घेतलो ना?'' रवीन शिक्षकाक घडिल्ली सगळी गजाल सांगली. हें आयकून रवीचे सांगाती भुरगे ताका हांसपाक लागले. ते भुरगे हांसतात तें पळोवन रवी खूब रडपाक लागलो आनी रडत रडत तो घरा आयलो.

ताणें ही घडिल्ली सगळी गजाल बापायक सांगली. इतल्यान ताची आवय भितरल्यान भायर येतना तिणें पळयलें, एक हुंदीर वयर रावून रवी जें कितें बापायक सांगता तें बारीकसाणेन आयकतालो. इतल्यान त्या हुंदरान रवीचे आवयक पळयली आनी थंयच्यान धांव मारली. रवीन त्या धांव मारतल्या हुंदराक पळयलो आनी तो हुंदराक मारपाक ताच्या फाटल्यान दांडो घेवन धांवपाक लागलो. पूण तो हुंदीर ताका मेळ्ळो ना.

रवीचे आवयन रवीक च्या पिवपाक भितर आपयलो. रवी भितर गेलो आनी ताणें च्या पिवपाक सुरवात केली. च्या पितासतना रवीक कदेला सकयल एक बारीक आवाज येवंक लागलो. रवीन कदेला सकयल पळयलें जाल्यार एका कागदाच्या कुडक्याकडेन एक हुंदीर रवीचे नदरेक पडलो. ह्या हुंदरान आपलो तांबडो कपडो काबार केलो. म्हाका खेळांत वांटो घेवपाक मेळ्ळो ना. ते खातीर आपूण ह्या हुंदराक आतां सोडचो ना असो निर्धार करून ताणें एक दांडो हाडलो.

तो दांडो ताणें त्या हुंदराक मारपाक काडटा थंय आसा, थंयच एक जिवाणें ताचे नदरेक पडलें आनी ताणें तो दांडो थंयच उडयलो. त्या दांड्याच्या आवाजान हुंदीर थंयच्यान धांवून गेलो आनी वयर वचून बसलो. रवीन आनी ताचे आवयन त्या जिवाण्याक पळयलें आनी तिणें रवीच्या बापायक आपोवन हाडलो. रवीच्या बापायन थंयच पडिल्ल्या दांड्यान त्या जिवाण्याक मारलें. हें पळोवन ताणें आपले आवय आनी बापायक सांगलें, ''आज हांव ज्या हुंदराक मारपाक सोदतालों त्याच हुंदरान म्हजो जीव वाटायलो. जर त्या हुंदरान आज म्हज्या कदेला सकयल आवाज करूंक नासलो जाल्यार तें जिवाणें म्हाका घांस मारतलें आसलें. त्या हुंदरान म्हजो जीव वाटायलो.''

रवीचे आवयन ताका सांगलें, ''जेन्ना तूं तुज्या बापायकडें उलयतालो तेन्ना तो हुंदीर वयर रावून तुमचेंसगळें आयकतालो.''

रवीक हें आयकून आनीक खरें दिसलें. तो त्या हुंदराक पळोवन हांसपाक लागलो आनी तो हुंदीर एक मोठो आवाज करून धांवून गेलो. रवी आपल्या इश्टां वांगडा भायर खेळपाक गेलो.

■




**– श्रीपाद (मंथन) अजित प्रभू देसाय**

तिळामळ, केपें-गोंय.

मो. : ९६०४४२५२८४




# नशिबाची कातली



**दों**गरा वयलो बेताळ, बेताळाची शेंडी
एक आसलो राजा, एक आसली राणी
वाचात ही तेन्नाची काणीऽऽऽ होऽऽ होऽऽ हो

काणकोणच्या भितरल्या वाठारांतलो त्या काळा वयलो गांव. त्या गांवांत रावताली सीताबाय. सीताबायक आशिल्ल्यो तीन चलयो. रुपमती, दमयंती आनी शीतल. सीताबाय बाबडी गरीब. भाजी-पालो रोयताली, दारादारांत विकताली आनी भुरग्यांक पोसताली. आपल्या तिनूय चलयांक रातचें न्हिदयतना ती एक पद म्हणटाली.

देवा रे देवा, भाजीपाल्याची पोटली
दी म्हज्या धुवांक, बऱ्या नशिबाची कातली

तिनूय चलयो आतां बऱ्यो व्हड जाल्ल्यो. रुपानूय सुंदर आनी गुणांनूय बऱ्यो. तांच्या लग्नाचो हुस्को आतां तिका जाल्लो. रातचीं तिगांय न्हिदूंक गेलीं काय तिणें तळमळून म्हणचें, -

देवा रे देवा, भाजीपाल्याची पोटली
दी म्हज्या धुवांक, बऱ्या नशिबाची कातली

तिनूय चलयांक आवयच्या ह्या पदाचें अजाप दिसतालें. एकदीस तिगांनी आवयक विचारलेंच.

''आई, कितें म्हणटा गे तूं. कसली पोटली आनी कसली नशिबाची कातली?''

सीताबायन मागीर सांगलें, ''बाये गो, हांव गरीब. तुमकां कोको-मेमो रांदून वाडपा इतलेंच जोडटां. तें रोखडेंच सोंपता. आतां तुमचें लग्न कशें जातलें, कोणाकडेन जातलें तो एक देवूच जाणा. म्हणून हांव देवाकडेन मागतां - म्हज्या धुवांक बरी नशिबाची कातली दिवची म्हुण!''

''आई हें नशीब खंय रावता. ताचे कडेन गेल्यार मेळटली म्हाका कातली?'' रुपमतीन व्हडा उमळशिकेन आवयक विचारलें.

सीताबायन सांगलें, ''बाय नशीब खंय रावता, म्हाकाय खबर ना.''

''तशें जाल्यार हांव म्हजें नशीब सोदून काडटां.'' अशें म्हणून रुपमतीन नशिबाक सोदूंक वचपाची तयारी केली.

सीताबायन ताका म्हस्काची भाजी आनी गंवाच्यो रोटयो भाजून दिल्यो.

भायर सरतना सीताबायच्या गळ्यांत पडून रुपमती खूब रडलें. दमयंती आनी शीतलाकूय ताणें वेंगांत काडलें आनी लागलें नशिबाक सोदपाच्या प्रवासाक. एक दीस गेलो. दोन दीस जाले. करतां-करतां एक सप्तक जालें. रुपमतीची भाजी-भाकरीय सोंपत आयली. एक दीस सांजेच्या सुमाराक तें एके खोपी मुखार पावलें.

'टक टक' ताणें खोपीच्या दारार मारलें.

''यो भितर रुपमती'' ताका आवाज आयलो. आपलें नांव भितरले बायलेक कशें समजलें हाचें अजाप करीत तें

भितर सरलें. पळयल्यार एक जाण्टेली बायल चुलीकडेन बसून रोटयो भाजता. इंगळ्यार रोटी बरीऽ फुर्रर करून फुलता. रुपमतीक रोटी पळोवन बरीऽ भूक लागली. ताणें आवंडो घोटलो तशें जाण्टेलेन म्हणलें, ''रोटी खावपाक जाय काय नशीब पळोवंक जाय. सांग बेगीन सांग.''

रुपमतीन फट्ट करून म्हणलें, ''नशीब!''

''मागीर मागीलदारा चल. तुजें नशीब थंय आसतलें ताचे बरोबर वच.''

रुपमती धांवतच मागीलदारा गेलें. पळयल्यार एका घोड्याची एक गाडी थंय उबी आशिल्ली. 'हेंच म्हजें नशीब!' म्हणत तें गाडयेंत बसलें. तशी गाडी झूऽऽ करून नेटान धांवत सुटली आनी खिणा भितर नाच्च जाली.

हेवटेन कितलेऽ दीस जाले, नशिबाक सोदूंक गेल्लें रुपमती परतलें ना. तशें दमयंतीन म्हणलें, ''आई, ताईक ताचें नशीब मेळ्ळें आसतलें. आतां हांव नशिबाची कातली मेळोवपाचो यत्न करतां.'' आवयचो आशिर्वाद घेवन दमयंतीय नशिबाच्या सोदाक भायर सरलें. आवयन ताका तांबडी भाजी आनी रोटयो बांदून दिल्ल्यो.

दमयंती भोंवत आसलें. भुके वेळार तांबडी भाजी आनी रोटयो खातना ताका आवयची आनी ताई रुपमतीची याद येताली. अशेंच एक सप्तक जालें आनी तेंवूय बी तेच खोपीकडेन पावलें.

'टक टक' ताणें खोपीच्या दारार मारलें.

''यो भितर दमयंती'' भितरल्यान आवाज आयलो. रुपमती भशेन दमयंतीय अजापीत जावन भितर सरलें.

जाण्टेली बायल तेलांत बरे साबुदाण्याचे सांडगे तळटाली. ते सुर्र करून फुलिल्ले सांडगे पळोवन दमयंतीची भूक चाळवली. ताणें आवंडो घोटलो. तशें जाण्टेलेन म्हणलें, ''सांडगे खावपाक जाय काय नशीब सोदपाक जाय? सांग बेगीन सांग.''

''नशीब'' दमयंतीन सट्ट करून म्हणलें.

''मागीर मागीलदारा चल. तुजें नशीब थंय आसतलें. ताचे बरोबर वच.''

दमयंती धांवतच मागीलदारा गेलें. थंय चार घोड्यांची एक गाडी उबी आसली.

''हेंच म्हजें नशीब'' म्हणत तें गाडयेंत वचून बसलें. तशी गाडी सूऽऽ करून धांवली आनी खिणा भितर नाच्च जाली.

खूब दीस जाले रुपमतीताईय आयलेंना आनी दमयंती दिदीय आयलेंना. आतां मात शितलाक दोगूय भयणींचो हुस्को जालो.

''आई, हांव वतां ताई आनी दिदीक सोदूंक. तांकां सोदतलें तेन्नाच तुका तोंड दाखयतलें.'' म्हणत तें घरांतल्यान भायर सरलें. आवय सीताबायन ताका म्हस्काची भाजी, तांबडी भाजी, नाबाचें तोंडाक आनी तेल लायिल्ल्यो चपात्यो करून दिल्यो. ती पोटली घेवन शीतलान आवयचो आशिर्वाद घेतलो आनी तें भयणीच्या सोदांत भायर सरलें.

एक दीस गेलो, दोन दीस जाले, करतां-करतां एक सप्तक जालें. मागीर तेंवूय तेच खोपी कडेन पावलें.

''आजी आज्या, कोण आसा भितर?'' खोपीच्या दारा कडेन उबें रावन शीतलान म्होंवाळ आवाजांत म्हणलें.

''यो भितर शीतल.'' भितरल्यान आवाज आयलो.

भितर वच जाल्यार एक जाण्टेली बायल सुकीच रोटी खाता. वयर घट-घट करून उदकाचो घोंट घेता.

''आजये आजये, सुकी रोटी कित्याक खाता? म्हजेकडेन हें इल्लेंशें नाबाचें तोंडाक उरलां तें तुका घे.'' म्हणत ताणें आपले कडलें तोंडाक तिका वाडलें.

''म्हाका तोंडाक दिवंक जाय काय नशीब सोदूंक जाय?'' जाण्टेलेन विचारलें. तिणें तशें विचारूं नाका शीतल शिटकावलें. 'सेर्त ही म्हज्या ताई-दिदी विशीं जाणां जातली.'

''आजये, आजये म्हाका म्हज्या भयणी रुपमतीताई आनी दमयंती दिदीविशीं जाणां जावंक जाय.'' ताणें म्हणलें.

जाण्टेली हांसली. ''चल मागीलदारा चल. तुका तुजें नशीब थंय रावता. त्या नशिबाक सांबाळ. तुका कातली मेळटलीच आनी तुजी ताई-दिदीय मेळटलीं. देव बरें करूं तुजें बाय.''

शीतल जाण्टेली रोटी खाय मेरेन तिचे सरींच बसलें आनी मागीर तिचो आशिर्वाद घेवन मागीलदारा गेलें. पळयल्यार एक काळोसोच रेडो थंय उबो आसा.

"हें म्हजें नशीब. ताका म्हाका सांबाळपाक जाय. तरूच म्हजें ताई-दिदी म्हाका मेळटलीं." शीतलान रेड्याचे फाटीर बसकण मारली. ते बराबर सों-सों करून वारो कसो तो रेडो धांवत सुटलो. अख्खो दीस धांवतां-धांवतां तिनसांजेर तो एका महालाकडेन पावलो. शीतल ताचे फाटीवयल्यान देंवलें. तशे दोन सेवक येवन त्या रेड्याक घेवन गेले. दोन दासी येवन ताका भोवमानान महालांत घेवन गेल्यो. भितर ताच्या येवकाराक राणयेवरी झगझगीत कपडे घाल्ले बायलेक पळोवन ताका खोस सांबाळूंक जाली ना. ती राणी कशी बायल म्हणल्यार ताची रुपमतीताई.

"यो शीतल" रुपमतीन दोनूय हात मुखार केले तशें शीतल ताईचे वेंगेंत रिगलें. रुपमतीच्या नशिबान एका सरदाराचो सांगात बरयिल्लो. त्या सरदारा कडेन ताचें लग्न जाल्लें. तो महाल, तो गांव ताचेच मालकीचो आसलो.

दुसरे दिसा सकाळीं शीतल न्हावन धुवन तयार जालें.

"ताई, तूं म्हाका मेळ्ळें. आतां दमयंती दिदीक सोदून काडटां." ताणें रुपमतीक म्हणलें.

"चल. वतना ही पोरसांत आईची याद म्हुण रोयिल्ली म्हस्काची भाजी व्हर." म्हणून रुपमतीन थोडी म्हस्काचीं पानां शीतलाक बांदून दिलीं.

शीतल रेड्याचे फाटीर बसलें. दोन दीस रेडो सतत धांवत आसलो. दुसरे दिसा रातचो तो आनीक एका राजमहाला मुखार थांबलो. तो थांबलो तशे सेवक ताका घेवन गेले आनी सेविका भोवमानान शीतलाक भितर घेवन गेल्यो. भितर प्रधानाची बायल ताका येवकारपाक राविल्ली. ती दुसरी तिसरी कोणूच न्हय ताची दमयंतीदिदी आसली.

दिदीन ताची मोगान वासपूस केली. नशिबान ताका धाडिल्ले गाडयेंतल्यान तें हांगा कशें पावलें आनी प्रधानान ताचे कडेन कशें लग्न करून तें कितलें सुखांत आसा तें सांगलें.

दमयंती दिदीची सरबराय दोन दीस भोगून ताणें मुखार वचपाची तयारी केली.

"दिदी, हांव मुखार वतां. म्हज्या अपुरबायेच्या रेड्यार बसून. तो म्हाका खंयसर आनी कोणाकडेन व्हरून म्हजें नशीब बदलता पळयतां." म्हणत तें वचपाक भायर सरलें.



तशें दमयंतीन म्हणलें, "आईचे यादीक हांवें तांबडे भाजयेचें पोरसूं केलां. थोडी तांबडी भाजी तूं घेवन वच."

दमयंतीन ताका तांबडी भाजी बांदून दिली. शीतल परतें रेड्याचे फाटीर बसलें. लक्तुबायेन ताचे फाटीर हात भोंवडायत ताणें म्हळें, "मोगाळ म्हजो रेडो तो. तुजे खातीर म्हाका म्हजें ताई-दिदी मेळ्ळें. चल तूं व्हरता थंय हांव येतां."

शीतलान अशें म्हणूं नाका रेडो खोशयेन धांवत सुटलो. पांच दीस तो सतत धांवत आसलो. तो आतां एका जाग्यार पावलो. त्या जाग्यार सगळे फातरूच फातर. एक जितो मूस ना. शीतल नाय म्हळ्यार मात्शें भियेलेंच. ताणें रेड्याचे मानेवेल्यान हात भोंवडायलो आनी म्हणलें, "म्हाका मरे मात्सो भंय दिसता. पूण तूं म्हज्या सांगाताक आसतना हांव कित्याक भियेंव?" रेड्यान अशी-अशी मान हालयली.

"मान कितें हालयता असो? म्हज्या मोगाचो रेडो तूं." म्हणत ताणें रेड्याची एक पापी घेतली आनी ताचे फाटीर थापटिलें.

रात जावपाक आयिल्ली. मळबांत एक नकेत्र लिकलिकलें तसो रेडो एका ल्हानशा खडपा कडेन गेलो आनी शीतलाक त्या खडपार बस म्हुण खुणावपाक लागलो. शीतल त्या खडपार बसलें तशें ताणें आपल्या खुरान खडपा भोंवतणी एक

ओळ आंखली आनी ते ओळी भायर येवं नाका म्हुण खुणायलें. इतल्या दिसांचे संवकळीन शीतलाकय ताची मोनी कुरवांची भास समजूंक लागिल्ली.

शीतल बसलां त्या खडपाक तेंकूनच रेडो बसलो. तशें हुस्क्या मेकळें जावन शीतल त्या खडपारूच आड पडलें. रुपमतीताई, दमयंतीदिदी आनी आईची याद काडीत ताका केन्नाच न्हीद लागली.

बरेऽ राती कसल्यातरी आवाजान ताची न्हीद खळ्ळी. ताणें बारीकसाणेन कान दिवन आयकलें. पळयल्यार रेड्याचो आवाज. तें झुप्प करून उठून बसलें. पळयल्यार खरेंच, रेड्याक एक राकेस चाबूक घेवन मारता. रेड्यार चाबूक बसता तसो तसो तो वळवळटा. शीतलाक त्या राकेसाची भिरभिरी मारली. ताणें आपले कडेन आशिल्ल्या भाजयांच्यो पोटल्यो त्या राकेसाचेर मारल्यो. ते बराबर तो थंयच जळून गोबोर जालो. तो राकेस मेलो हे खोशयेन केन्नाच शीतल खडपावयल्यान देंवून ती ओळ हुपून भायर आयलें आनी कितें अजाप. ताचो रेडो फातोर जावन पडलो. शीतलाक आपणें केल्ली चूक होलमली. पूण कितें करतलें? ताचो रेडो फातर जावन पडिल्लो. सकाळ जायसर शीतल रेड्याच्या फातराक वेंगावन रड-रड रडलें. सकाळ जातकच ताची नदर त्या राकेसाचेर शेंवटून मारिल्ल्या भाजयांच्या पोटल्यांचेर गेली. ताच्या मनांत एक विचार आयलो. ताणें म्हस्काचे भाजयेची पोटली सोडली. म्हस्काचीं पानां घेवन फातर जाल्ल्या रेड्याचेर तें चोळपाक लागलें. चोळटां चोळटां गावपाक लागलें.

मोगाच्या रे रेड्या, माया तुजी कितली<br>
तूंच मरे म्हज्या, नशिबाची कातली

फातरार पानां चोळून चोळून आनी पद गावन-गावन शीतल सामकें थकून गेल्लें. तिनसांज जाता म्हणसर तें न्हिदून पडलें. दुसरे दिसा ताका तो फातर मात्सो मोव जाल्ले भशेन दिसलो.

तें पळोवन ताका मात्शें बरें दिसलें. ताणें बेगबेगीन तांबडे भाजयेची पोटली उस्तिली. ती भाजी तें त्या फातरार चोळपाक लागलें. चोळटां चोळटां गावपाक लागलें.

मोगाच्या रे इश्टा, तुजेवीण जीण कसली<br>
तूंच मरे म्हज्या, नशिबाची कातली

पानां चोळटां चोळटां तो फातर थरथरता अशें ताका दिसपाक लागलें. म्हणून तें आनीक नेटान पानां चोळपाक लागलें. तिनसांज जाली तशें सामकें पुरो जावन तें न्हिदून पडलें.

सकाळीं सुर्याचीं किरणां तोंडार पडनाफुडें ताका जाग आयली. आपूण एके व्हडले खाटीर न्हिदलां हें ताच्या लक्षांत आयलें. तें झुप्प करून उठून बसलें. पळयल्यार ताच्या उशाकडेन एक देखणो तरणाटो बसला.

''कोऽ कोण तूं आनी हांव खंय आसां?'' शीतल सगळेंच गडबडलें. तसो तो तरणाटो म्हाेंवाळ हांसलो. ''शीतल, हांव तुज्या नशिबाची कातली. तुजो मोगाचो रेडो.'' ताणें तशें म्हणू नाका शीतल अजापीत जावन ताका पळोवपाक लागलें.

''हय शीतल. हांव राजा यतीन. ज्या राकेसाक तुवें मारलो तो एक जादुगार. ताणें म्हाका रेडो केल्लो आनी म्हजे प्रजेक फातोर. हांव एकदीस असोच भोंवत भोंवत एके खोपी कडेन पावलों. थंय एक जाण्टेली बशिल्ली. तिणेंच म्हाका सांगिल्लें. म्हजेर आपल्या जिवापरस मोग करपी तरणाटी म्हाका मेळटली. तेन्नाच हांव ह्या जादुगाराच्या जादवांतल्यान मेकळों जातलों. ती तरणाटी आपल्या आवय-भयणींचेरूय तितलीच माया करता आसत जाल्यार तिचे हातसून तो जादूगार राकेस मरतलो. तिणें सांगलें तशें जालें. आतां हांवूच तुजो राजा आनी तूं म्हजी राणी.''

यतीनराजान शीतलाक आपले वेंगेंत घेतलें तशें तें लजलें. शीतलाचें लग्न व्हडा दबाज्यान यतीनराजा कडेन जालें. शीतलान काणकोणांतले आपले आईक, रुपमतीताई आनी दमयंतीदिदीक लग्नाक आपयलें. खोपींत रावपी ते जाण्टेलेकय तें आपोवंक विसरूंक ना. लग्न जाल्या उपरांत ताची आई आनी ती जाण्टेली यतीन-शीतलाच्याच राजवाड्यांत रावपाक लागलीं.

**(इटालियन काणयेचेर आदारून स्वतंत्र काणी)**



**- नयना आडारकार**

मो.: ९८२३५३७५६३

# सोबीत हात



**प**यलेच्या वर्गांतल्या भुरग्यां खातीर बाईन एक सर्त दवरलेली. ज्या कोणाचे हात सगळ्यांभितर सोबीत आसतले ताका बक्षीस मेळटलें म्हणून. दुसरे दिसा ती सर्त आशिल्ली. सगळ्या भुरग्यांक दिसतालें आपलेच हात सुंदर दिसचे म्हणून. नेहान आपल्या बोटांच्या नाखटांक बरें गुलाबीच नॅलपॉलीश लायलें. गुलाबीच कांकणां घालीं. ताका मॅचींग असो गुलाबीच व्हिस्तीद घालो. सोनलान आपल्या गोऱ्याच हातांक मेथी घाली. चकचकीत ब्रॅसलेट घालें.

शुभम तर सामको फुल्लो. बक्षीस म्हाकाच मेळपाक जाय म्हणपाक लागलो. ते खातीर बाजारांत वचून बरोऽ लांब हातांचो शर्ट हाडलो. गौरवान तर हातांक बरें तांबडेंच डिजीटल घडयाळ घालें. सत्यम रंगान काळो. ताणें हातांक बरोऽ पो लायलो आनी गोरो दिसपाचो यत्न केलो.

प्रिया रंगान काळें. पूण ताका ताचें कांयच पडून वचूंक नाशिल्लें ताचो पप्पा सदांच म्हणटालो, मनशाचो रंग काळो आसलो म्हुण कांय जायना. सभाव बरो आसपाक जाय. दुसऱ्यांक मजत करपाक जाय. दुसऱ्याकडेन झगडपाक जायना. तुवें बरें काम केल्यार लोक तुका बरें भुरगें म्हणून वळखतले, तुज्या रंगान न्हय. ते खातीर प्रियान हात सुंदर दिसपाक कांयच तयारी करूंक नाशिल्ली.

आज बाई वर्गांत बेगीनूच येवन बशिल्ली. एक एक करून भुरगीं आयलीं. दुसऱ्यान हात सुंदर दिसपाक कितें कितें केलां काय म्हणून पळोवपाक लागलीं. प्रिया वर्गांत आयलें. भितर सरतनाच ताची नदर दाराकडेन आशिल्ल्या कागदाच्या कुडक्याचेर पडली. ताणें तो कागद उखलून कोयराच्या पाटल्यांत उडयलो. फुडें आनीक एक चॉकलेटीचो कागद दिसलो. तोय काडून ताणें कोयरा पाटल्यांत उडयलो.

'आज कोण पुसता फळो?' बाईन विचारलें. हरशीं सगळीं भुरगीं हांव पुसतां, हांव पुसतां म्हणटालीं. पूण आज खडवाचो पिठो हातांक लागत म्हणून ओग्गी रावलीं. प्रियान येवन फळो पुसलो.

आज आदित्याक शाळेंत येवपाक वेळ जाल्लो. तो धांवत धांवत येतालो. ताची बुटांची लेस सुटिल्ली. तो पांय घुसपून पडलो. प्रिया बेगबेगीन उठून ताच्या म्हऱ्यांत आयलें. ताका हात दिवन उठयलो. ताची उदकाची बाटली, दप्तर हाडून ताच्या बाकार दवरलें.

भुरग्यांची प्रार्थना बी म्हणून जातकीच बाईन सांगलें, आतां हांव सर्तीचो निकाल सांगतां. सगळ्यांत सोबीत हात कोणाचे? प्रियाचे. कित्याक जाणां? प्रियान आपल्या हातांनीं कोयर पाटल्यांत उडयलो. फळो पुसलो. आदित्याक उठयलो म्हणून.

सगळ्या भुरग्यांनी मागीर ताळयो मारल्यो. ■



– हर्षा शेटये
कृष्णप्रेम, अंबाजी, फातोड्डें.
मो. : ९८५०५३०१५२



*सवका सवका करून एकनाथाची जबाबदारी वाडत गेली. कोण अर्ज करूंक आयले जाल्यार कोण आपणाल्यो कागाळी सुलव्यो करून गेले. कोण कोणाक अभ्यास शिकय म्हण सांगूंक लागले जाल्यार कोण गांवां पासत कितें तरी करूंक विनोवंक लागले.*

- विन्सी क्वाद्रुस



# निसुवार्थी वागणूक

**आ**पले फाटीक बॅग लोमकळावन एक तरनाटो गांवच्या पयल्याच घरा मुखार उबो जालो. तें घर शंबर वर्सां आदलें आसूंक जाय. पूण ताची देखरेख बरे तरेन जाल्ल्यान आदल्या मदेलाचें घर आसूनय तें नवें टवटवीत दिसतालें. गॅलरींत वयर चडपाक धायेक सोपणां आसलीं आनी दोनूय बाजूनी बल्कांव आसलें. ज्युस्त बल्कांवाचे सायडिनी कुरातनांचीं झाडां आसलीं. तांकां वेग-वेगळ्या रंगाचीं पानां आसलीं. तांचे मात्शे पयस सोबेचे माड आसले.

घराचें दार बंद आसलें. तो सोपणां चडून वयर गेलो आनी ताणें दारार मारलें.

''कोण थंय?'' म्हणीत एक जाण्टेशे बायलेन दार उगडलें.

''आंटी, हांव काणकोणच्या पोळें गांवांतल्यान आयलां. गोंय विद्यापिठांत म्हाका शिकपाची संद मेळ्ळ्या म्हण हांव हांगा लागींच एक आसरो सोदतालों.'' ताणें नमळायेन सांगलें.

''हांगा आसरो बी कांय ना, वच तूं हांगा सरलो.'' तिणें कसलीच पर्वा नाशिल्लेवरी आनी दार बंद करूंक वतांच त्या तरनाट्यान हात जोडून तिका विनयलें.

''आंटी, हांव तुज्या घरांत आसरो मागिना, हांगा लागीं कोणागेरूय आसल्यार पासून सांगल्यार उपकार जायत आसलो.''

''म्हाका तसली कसलीच खबर ना.'' तिणें दार बंद केलें.

चडिल्लीं सोपणां देंवून तो मुखार चलूंक लागलो.

ह्या वाठारांत तशें रावपाक घर मेळप कुस्तार म्हण तो आयकून जाणा आसलो. पूण ताका अभ्यास करूंक आनी रातचो न्हिदूंक जाग्याची गरज आसली. ताणें मुखार नदर घाली. एक वाट गांवांत भितर वताली. सांज जाल्ली आनी काळोख जावंचे आदीं ताका रावपाची वेवस्था करपाची आसली.

बऱ्याच मुखार पावल्या उपरांत ताका एक सायकलकार मेळ्ळो.

''हांगासर रावपाक कोणागेरूय बिराड मेळत?'' ताणें सायकलकाराक विचारलें.

''हे त्या मुखावेल्या घरांत वचून विचार. एक फावट कोणाक तरी दवरिल्लो तिणें भाड्यान.'' सायकलकारान सांगलें.

''देव बरें करूं.'' तरनाट्यान ताचे आभार मानले.

तो त्या घरा दिकेन चलूंक लागलो. एक बायलमनीस एके सान चलये सांगाताक भायरूच सोपणांचेर बसून आसली.

''हांव गोंय विद्यापिठांत शिकूंक आयलां. म्हाका रावूंक ल्हानसो आसरो मेळिल्लो जाल्यार हांव तुमचो उपकारी आसलों.'' ताणें आपले हात जोडीत ते बायलमनशेक सांगलें.

''आमचेकडें तशें बिराड बी कांय ना. पूण हो तो ल्हानसो जागो आसा, थंय रावूंक तुका अडचण ना जाल्यार तुज्यान रावूंक जाता.'' तिणें सांगलें.

तरनाट्यान ते वटेन नदर धुंवडायली. तो एक गोरवांचो गोटो कसो आसलो.

''तुज्या मनांत घडये आयलां आसतलें तो गोरवांचो गोटो म्हण, जाल्यार सारकेंच पारखिलें तुवें. गोटोच तो. एका तेंपार हांगा गोरवांचें राज्य आसलें. शेतां खातीर गोरवांची गरज आसली. आतां शेतांत देंवपाचीं मिशिनां आयल्यांत आनी आमचीं गोरवां काबार जाल्यांत. देखून तो निवळ केल्लो आसा. तुजे भशेनूच कोण एकलो सात-आठ म्हयने थंय रावून गेला. म्हयन्याक पांचशीं रुपया दितालो तो म्हाका.'' तिणें आपल्या जाग्याविशीं अदीक म्हायती दिली.

''हांव पळेवन येवं?'' तरनाट्यान विचारलें. एक वटेन जागो मेळपाची आस्त निर्माण जाल्ली म्हण तो खुशाल जाल्लो. येदोळ तो निराश जाल्लो, आतां ताका आशा जाल्ली.

''ही म्हजी धूव. बाय स्वीजल, ताका मात्शें आमचें तें घर दाखय.'' तिणें आपले धुवेक ताचे बराबर धाडली.

तीं त्या गोट्या सारक्या घरांत भितर सरलीं. जागो निवळ आसलो. जमीन शेणाची आसली. वयर एक फॅन लांबतालो आनी सायडीन लायटिचो बल्ब आसलो. तेंकुनूच एक दार आसलें. तें ताणें उगडलें. ती एक ल्हानशी न्हाणी आसली. तो जागो मनांतल्या मनांत ताणें मानून घेतलो.

''कसलें शिकप करूंक आयला तूं?'' स्वीजलान ताका विचारपाचें धाडस केलें.

''हांव गोवा युनीव्हर्सिटींत पीएचडी करतां. हांव मूळ पोळें काणकोणचो. थोडे दीस यो वच केलें पूण मुखावेलें शिकप हांगाच खंयतरी रावून म्हाका करूंक जाय.'' तरनाट्यान जाप दिली.

''पी. एच. डी. म्हणल्यार कितें?''

''पी. एच. डी. म्हणल्यार डॉक्टर ऑफ फिलोजोफी. तें खूब उंचेलें शिकप.''

''हांव ह्या वर्साक एस. एस. सी. करतां. तूं म्हाका अभ्यास दाखयतलो?''

''म्हजेंच रावपाचें धड जावंक ना, आनी तूं आपलें सांगता!''

''म्हाका शिकयतलो जाल्यार तुका हांगा रावपाचें पक्कें समज.''

''तूं तुज्या घरच्यांकडें उलय.''

''तुजें नांव?''

''एकनाथ... एकनाथ गावडे.''

धांवून वचून स्वीजलान आपले आवयक कितें तरी सांगलें आनी तिणें एकनाथाक घरांत रावूंक परवानगी दिली. तीं उलयतनाच एक बायल थंय येवन उबी जाली.

''बाय स्वीजल तूं तरी म्हाका एप्लीकेशन बरोवन दी गो, पंचायतींत गेल्लें घर सारकें करता म्हण सांगूंक. ते म्हणटात बरोवन हाड म्हण.'' तिणें स्वीजलाकडें फावोर मागलो. तें अनमनलें.

''हांव बरोवन दिवं?'' एकनाथान विचारलें.

''दी रे बाबा, व्हड उपकार जायत.''

एकनाथ सोंपणार बसलो आनी आपलें बॅग उगडलें. बॅगांतल्यान बूक काडलो आनी एके पेजीचेर तिचेकडें विचारीत विचारीत तिका जाय ते तरेन अर्ज बरोवन दिलो. ना वळख, ना पाळख, अशा मनशाची निसुवार्थी वागणूक पळेवन ती खुशाल जावन गेली.

''हांव दोन दिसांनी रावपाक येतां.'' एकनाथान स्वीजलाचे आवयक सांगलें.

''दोन म्हयन्याचें भाडें हांव आदीं घेतालीं, पूण तुज्या सभावाक पळेवन तें हांव घेना.'' म्हणीत ती हांसली. स्वीजलूय हांसलें. एकनाथ मुखावेले तयारे खातीर गेलो.

दोन दिसांनीं तो आपलें थोडेंशें सामान घेवन आयलो आनी त्या घरांत पेणे केले. कवळून हाडिल्ली शेंद्री सोडली. आनी ताचेर आपलीं कांय पुस्तकां दवरून तीं वाचूंक लागलो.

काळोख जायत आयिल्लो. कोणें तरी ताच्या दारार मारलें. तो अजाप जालो. हांगा कोणाचीच वळख ना आनी... स्वीजल आसतलें अशें समजून उटलो आनी ताणें दार काडलें.

एक ६०-६५ वर्सांचो जाण्टो मनीस ताचे फुडल्यान उबो आसलो. एकनाथ ताका पळेवंकूच उरलो.

''बाबा, आमच्या घरा फाटल्यान एक व्हाळ आसा. त्या व्हाळाचे पलतडीं एक गुदांवसो आसा. तातुंतल्यान कसलें तरी उदक येता आनी त्या व्हाळांत वता. ताका कसलो-सो वास येता.'' त्या जाण्ट्यान सांगलें.

''हांव कितें करूं?'' एकनाथान विचारलें.

''हांवें आयकलां तूं खूब शिकिल्लो मनीस म्हण. कितेंय बुद्ध दिवंक शकता जाल्यार विचारूंक आयिल्लों.'' आशावादी नदरेन जाण्ट्यान एकनाथाक नियाळ्ळो.

''ह्या कामाक तुका दोन कडेन वचचें पडटलें. पयलीं तुमचे पंचायतीक कळोवंक आनी दुसरें भलायकी खात्याकडें कागाळ नोंद करूंक.'' एकनाथान बुद्ध दिली.

''तूंच मात्सो तसो अर्ज बरोवन दिवंशी?'' जाणट्यान ताचेकडें उपकार मागलो.

एकनाथान ताका भितर व्हेलो. आपणा कुशीक शेंद्रेर बसयलो आनी दोन अर्ज बरोवन दिले. आपणाचेर केल्ल्या उपकाराचें समाधान मानून तो जाण्टो गेलो.

एकनाथ पर्थून अभ्यासाक बसलो. थोड्या वेळान पर्थून कोणेंतरी दारार मारलें. तो उठलो आनी दाराकडें आयलो. तोच जाण्टो मनीस आनी एक चेडूं थंय आसलीं.

''बाबा, राग धरी नाका, आमच्या घरांत ह्यो वस्तू आसात पूण तांचो वापर कोण करिना. तुका तांची गरज आसा म्हण घेवन आयल्यांत. ही म्हजी धूव एलीजा. तें सातवेक शिकता.'' जाणट्यान सांगलें आनी आपल्या फाटल्यान आशिल्लें मेज आनी कदेल ताचे मुखार दवरलें. एकनाथ हांसलो.

''तूं उलयतनाच तुज्या गुणांची वळख म्हाका पटली आनी ते बायलेन सांगिल्लें खरें दिसलें. म्हजें घर लागींच आसा. कसलीय गरज पडली जाल्यार मागूंक फाटीं-फुडें जाय नाका.'' मेज आनी कदेल भितर व्हरत ताणें सांगलें.

''तुमकां चड आनी चड देव बरें करूं.'' एकनाथान हात जोडीत म्हणलें. तो जाण्टो हांसलो आनी आपले धुवेक घेवन गेलो.

त्या गांवांत पातळ लोकवस्ती आसली. लोक गरीब आसले आनी आपले भितरूच जियेताले. कोणाचें कोणाक पडून वचूंक नासलें. तांच्या गांवांत अडचणी खूब आसल्यो पूण जांकां त्यो लागतात ताणेंच ताका फुडो करचो आसलो. तांच्या गांवांतल्यान कोमुनीदादीच्या जाग्यावेल्यान एक उदकाची पायपलायन गेल्ली. तिच्या नांवान सरकारी मनशांनी तांची कितलीच जमीन हडप केल्ली. थोड्यांनी ते पायपलायनीक तेंकून आपणा खातीर घरां पासून काडिल्लीं. एक मुळावी शाळा आसली, थंय कांय भुरगीं शिकतालीं. माध्यमीक शाळा नाशिल्ल्यान दुसऱ्या गांवांत शिकूंक वचूंक पडटा म्हण भुरगे शिकनासले. गांवचीं चेडवां मात धाडस करतालीं. गांवांत खूब शेतां आसलीं आनी तोच तांचो वेवसाय आसलो. पावसा तेंपार शेत रोवून भरपूर पीक काडप आनी गिमांत भाजीपालो रोवून विकप हाचेर ते समाधानी आसले. भोव थोडे लोक नोकरेक वताले. आनी जे सरकारी नोकरी बी करताले, ताणीं गांवच्या एका मध्यभागांत आपणा खातीर जमनी घेतिल्ल्यो.

एकनाथ आपल्या अभ्यासा खातीर थंय रावतालो. गांवचें ताका म्हण कित्याक पडून

गेल्लें? तरी आसतना ताणें गांवां विशीं खूब म्हायती एकठांय केल्ली आनी कांय लोकांची ताका वळखूय जाल्ली. थोड्यांकडे तो उलोवन नकळो आसलो पूण तांकां वळखतालो.

असोच एक दीस बसींतल्यान रुमार येतना रस्त्यार बरेच लोक एकठांय जाल्ले ताचे नदरेक पडले. थंय एक चेडूं बसून आसलें आनी ताका मार लागिल्लो. तें ताका वळखिचें दिसलें. ताणें बस थांबयली आनी तो देंवलो.

लागीं वचून खबर काडली. जाल्यार कोणाची तरी एक गाडी ताका उडोवन गेल्ली. कितलो लोक थंय आसलो पूण ताका दोतोराकडें व्हरपाची कोण खबर करिनासलो. ताणें ताची खबर घेतली आनी स्कुटरीक पळेली. स्कुटरीक मार लागूंक नासलो. ताणें स्कूटर चालू करून ताच्या फुड्यांत हाडली.

"चल आमी दोतोरागेर या." ताणें ताका हात दीत म्हणलें. ताच्या हाताचो आधार घेवन तें उठलें आनी स्कुटरीचेर बसलें. सवका सवका करून तो ताका दोतोरागेर घेवन गेलो. तसो खास मार लागूंक नासलो पूण ताचो पांय दुखतालो म्हण तो ताका घरा मेरेन सोडूंक गेलो.

"पयल्याच दिसा तूं आमगेर आयल्लो, आपणा खातीर रावूंक आसरो मागूंक आनी म्हजे आवयन तुजो अपमान केल्लो. तरी तुवें म्हाका आधार केलो, ह्या खातीर तुका देव बरें करूं." उगत्या मनान आनी हांसत्या तोंडान ताणें एकनाथाचे उपकार मानले आनी आपलो हात फुडें केलो.

"आमी फ्रॅन्ड्स जावंक शकतात?"

एकनाथ हांसलो आनी ताणें आपलो हात फुडें केलो.

"म्हजें नांव मारिया."

"जाणां हांव." एकनाथान पर्धून एक फावट ताका मंद हांसो दिलो. मारीया मुरगटलें.

आपल्या रुमार परततना ताणें जायत्या भुरग्यांक खेळटना पळेलें. ते खेळटात थंय ल्हान झाडां आसलीं. तो मर्दी गेलो आनी तीं निवळ करूंक लागलो. ताका पळेवन भुरगीं अजाप जालीं.

"हीं झाडां, झाडांचीं मुळां निवळ केल्यार तुमकांच बरे तरेन खेळूंक मेळटलें. चलात,



आज एक दीस खेळपाचें सोडून जागो निवळ करात." एकनाथान भुरग्यांक सांगलें.

ताचें आयकून कितलेच भुरगे जागो नितळ करूंक लागले. ही ताची करणी गांवचे लोक पळेताले, ते अजाप जाले.

वतां वतां त्या वाठारांतल्या कपेलाकडें तो थांबलो. कपेलांत भितर नदर घाली. थंय एक ल्हानशी पेरपेत सुकोर सायबीणीची मुर्ती आसली. तो कपेलाक तेंकून गेलो. 'ह्या वाड्यांतल्या लोकांचो भावार्थ आपल्याच देवाचेर ना काय?' ताणें मनांतल्या मनांत म्हणलें. तेन्नाच एक जाण्टी बायल येवन थंय वाती पेटोवंक लागली. एकनाथाक पटलें आपलो अदमास चुकलो म्हण.

"तूं नवोच आमच्या गांवांत आयला अशें दिसता, न्हय बाबा?" तिणें ताका विचारलें.

"हय. हांव म्हजें शिकप करूंक आयलां आनी कार्मेलीन आंटीगेर भाड्यान रावतां."

"बरो शीक आनी नांव जोड. ह्या गांवचे भुरगे तवनास. येदेशे आसात आनी सोरो पियेतात. शिकपाचें म्हत्वूच तांकां कळना." वाती पेटोवन जातच सायबिणीचो उमो घेतना तिणें आपल्या गांवचो आनीक एक दोश ताचे मुखार दवरलो.

"एक दीस तरी कळटलें तांकां."

"तेन्ना म्हळ्यार ते व्यसनी जावन मरतले. तुज्या शिकपाचो गूण तांच्यांत घालूंक जाता जाल्यार पळे रे बाबा." तिणें ताका विनंती केली.

"पळेतां." तो थंयच्यान आपले वाटेक लागलो.

सवका सवका करून एकनाथाची जबाबदारी वाडत गेली. कोण अर्ज करूंक आयले जाल्यार कोण आपणाल्यो कागाळी सुटाव्यो करून गेले. कोण कोणाक अभ्यास शिकय म्हण सांगूंक लागले जाल्यार कोण गांवां पासत कितें तरी करूंक विनोवंक लागले. तरनाट्या भुरग्यांचो इबाडटो सभाव पळेवन तो चडूच अस्वस्थ जालो. एका २७ वर्सांच्या तरनाट्याचें मरण पळेवन तो हालून गेलो. नकली सोरो पियेवन आनी बेकारीच्या प्रस्नान त्या गांवचीं कुटूंबां लेगीत विस्कळीत जाल्लीं. ह्या सगल्या विशयांचेर बारीकसाणेन अभ्यास करून ताणें गांवच्या कांय समजूतदार मनशांक आपोवन एक सुचोवणी केली.

"पळेयात, हांव गोंयकार पूण हांगाचो न्हय, तरी तुमकां सांगतां, जो मेरेन तुमी तुमचे मर्दी एकवट घडोवन हाडिनांत, एकामेकांक समजूंक



शकनांत, एक-दुसऱ्याची अडचण आपली म्हण मानून घेनांत, एकामेकाच्या सुख-दुखांत वांटो घेनांत, तो मेरेन तुमचो फुडार केन्नाच पर्जळीत जावंचो ना. देखून तुमच्या गांवांत एक संघटना करात आनी गांवच्या प्रत्येक मनशाक तातूंत वांटेकार करात. तेन्नाच तुमच्या गांवांत उप्राशिल्ले प्रस्न, अडचणी तुमी पयस करूंक शकतले. आज तुमकां तें नाका दिसतलें. पूण फाल्यां जेन्ना जाय दिसतलें, तेन्ना तुमचेकडें वेळ आसचोना. मागीर हो गांव, ते पायपलायनवाले, गांवचे सुवार्थी मनीस जावं वायट विचारांचे मनीस तुमकां गिरासतले.'' एकनाथान सत परिस्थिती तांचे मुखार दवरली. विचार करपाक वेळ घेवन ते गेले.

पूण जेन्ना ते परत एकनाथा फुड्यांत आयले, तेन्ना तांचें मन स्थीर नासलें. कांय जाणांक एकनाथाचें मन पटिल्लें, जाल्यार कांय जाणांक दिसतालें तो आपल्या सुवार्था खातीर किते तरी करता म्हण. तेन्ना एका जाण्टयान आपले विचार मांडले.

''जर ताका आपलो सुवार्थ सादोवंक जाय आसलो, जाल्यार तो आमचो फुडारी जातलो आसलो. आमच्या मदल्या थोड्यांक घेवनूच एक संघटना बांदून आमकां ताचे वांगडी नातर गुलाम करतलो आसलो. आमचे विचार आमचेर थापतलो आसलो. असलें जेन्ना ताणें कितेंच केलें ना, तेन्ना ताच्या निसुवार्थी सभावाचेर दुबाव घेवप म्हणल्यारूच आमचे अशक्ततायेचे पुरावे दिवप. विस्कळीत आशिल्ल्या ह्या गांवाक एक दिशा दिवपाचें तो काम करूंक सोदता आनी आमीच ताचेर बेमान जातात? सामकी लजेची गजाल ही. आमच्यो कितल्यो पिळग्यो मरून गेल्यो, आमी अशे तरेन केन्ना एकठांय जाल्ले? एके कडेन येवन विचार मांडिल्ले? पंचायत वेंचणुको जातात तेन्ना मात आमचे मदीं जावपी खेळ लोकान पळेले, लोक हांसले, आनी आमचे कुस्तार ताणीं जयजयकार जोडलो. आमकां कितें मेळ्ळें?''

''सगलो गांवभर आसात ते पिशे आनी हो एकलोच शाणो?'' एका गांवकारान विचारलें.

''हांव शाणो न्हय, ह्या गांवचो आनी तुमचो हांव शुभचिंतक आनी तसो जावपाक तुमीच म्हाका प्रवृत्त केला.'' एकनाथान मदें जाप घाली.

''ह्या गांवांत तुवें केलां तें पुरो. तुजें शिकपूय आतां सोंपलां. आनीक कांय करपाची गरज ना. आमचो गांव राखूंक आनी सांबाळूंक आमी समर्थ आसात.'' राजकारणांत घुस्पल्ल्या मनशान सांगलें.

''हे तुमी न्हय, तुमचो सुवार्थ उलयता, अहंकार उलयता.'' एकनाथ मात्सो तिडकलो.

''तें कितेंय आसूं, तूं तुजी बिटकी उबार आनी चलूंक लाग. आजच्या आज. फाल्यां तूं जर हांगा दिसलो जाल्यार जें कितें वायट घडटलें, ताका तूंच जबाबदार आसतलो.'' तो राजकारणी एकनाथाच्या हाताक धरून ताका भायर घालूंक करी पूण दुसऱ्यान ताका आडायलो आनी म्हणलें,

''तो आयल्लो तसो वतलो. ताचो अपमान करून आमी जें कितें शिकल्यात, ताचो अपमान करचो न्हय.''

ते सगले गेले. एकनाथ आपले भितरूच घुस्मटूंक लागलो. ''म्हजें शिकप आतां सोंपलां. ह्या लोकांक मुखार हाडिल्ले तांकांच नाका जाल्यार... ते दळिद्रे म्हणपाचें! पूण थोड्यां खातीर सगल्यांक कित्याक सजा? ना. ह्या थोड्यांक बुद्ध शिकोवचीच पडटली. तांकां तांचो जागो दाखोवंचोच पडटलो. ह्या थोड्या फटींग आनी भ्रश्टाचारी मनशांक नागडे करूनूच हांव हांगासरल्यान वतलों.'' एकनाथ आपले ओंठ चाबीत भितर गेलो.

तो मेजार बसलो. आपलें पेन घेतलें आनी कितें तरी बरोवंक लागलो. तेन्ना एक ल्हान भुरगो ताच्या घरांत भितर सरलो.

''अंकल, म्हजे आवयन म्हाका मारलो, हांव तिका मारूं?'' त्या भुरग्यान निस्पाप प्रस्न केलो.

''तूं तुजे आवयक मारतलो? हो विचार सारको न्हय, थोड्या वेळान तीच तुका वेंगेंत घेतली. तेन्ना कितें करतलो?'' एकनाथान ताका समजायलो. तो धांवत भायर गेलो.

त्याच खिणाक ताचें मन उजवाडलें. जर तर आपूण त्या भुरग्याच्या मनांतली बदलो भावना काडूंक शकतां जाल्यार हांव म्हज्याच मनांत बदलो-भावना कित्याक घेवन आसां? हो तांचो गांव, बऱ्या वायटाचे तेच जबाबदार. घडये फाल्यांच तांकां गरज पडत. एकनाथ स्वताकच हांसलो.

मुक्त आनी शांत मनान निसुवार्थी भावना केळयत तो आपलीं बॅगां भरूंक लागलो. एलीजा, मारिया, कार्मेलीन आंटी आनी कितलींच जाणां ताचे मुखार येवन उबीं रावलीं.

■

– विन्सी क्वाद्रुस
आर्लेम राय, सालसेत-गोंय.
मो. : ९८२२५८७४९८

# अश्रेकणी

*केन्नाय चान्स मेळत जाल्यार भुरग्यां वांगडा भुरगीं जावन पळयात - तांचे वांगडा खेळात, नाचात, जाय तीं पिशेपणां करात. मागीर तुमकां दिसतलें - तुमकां ह्या सगळ्यांची कितली खोस भोगली पळय ती!*



- सुषमा तिळवे



# भुरगें-वृत्ती

**म**नीस जसजसो व्हड जाता, जबाबदारीची ताका जाण येवपाक लागता. तसतसो तो आपणा भितरली भुरगे-वृत्ती दामून उडयता. दर एकल्या भितर ही भुरग्याची वृत्ती आसताच. पूण ती सुप्तावस्थेंत आसता. जायते फावटी आमच्या भितरलें हें भुरगें बंड करून भायर येवपाक पळयता. पूण पिरायेन व्हड जाल्ल्या मनशांनीं भुरगेपणां करप म्हळ्यार तें पिशेंपण अशें आमी थारायतात. अशे तरेन आमी आमचे भितर आशिल्ल्या भुरग्याक पर्थून पर्थून चेंपून दवरतात.

चार मनशांभितर वावुरतना जावं समाजांत वावुरतना आमी आमकां जाय तशें वागूंक शकनात. वयाबरोबर, काळाबरोबर आमचेर आपसूकच जायतीं बंधनां येतात. देखून ते ते पिरायेचेर आमी तशीं तशीं रुपां धारण करतात. भुरगो, तरणाटो, वयस्क, जाण्टो अश्या पावंड्याचेर आमची जीण फुडें वता. पूण मानसशास्त्र कितें सांगता - तुमच्यांतल्या भुरग्याक जागे दवरात, जिते दवरात. दाबून दवरल्यार स्फोट जाता - कशे भशेन? तर राग, चिडचीड, बेजार, दुख्ख जावन तुमची जीण करपता. म्हणून केन्ना केन्नाय ह्या भुरग्याक भायर येवं दी. जिवीताची झर आनंदान, धादोसकायेन व्हावूंक लागतली.

भुरगें म्हळ्यार निरागसपणां! राग-लोभ-मत्सर-भंय हाची ताका बाधा आसना. जें करता तातुंतल्यान फकत खोसूच मेळयता. धोग्यांनी पावस पड्टा - भुरगीं भिजन दिसल्यार बिनधास्त भिजतात, नाचतात, एकमेकांचेर उदक उडोवन खेळटात आनी ह्या वेळार तांच्या मुखामळार आसता तें हांशें खूब मोलादीक आसता. ताची सर कोणाचकडेन करपाक जायना. आंब्या रुखार आंबे दिसले - फातरायले, उडयलीं तोरां, आंबे आनी खावन पचयले लेगीत. काजुच्या झाडार मुट्टे दिसले - तोंडाक रूच सुटलीच सुटली. मागीर शर्टार दाग पडूं वा आनी कितें जावं. मनांत येता तें करपाक मेळ्ळें काय जीव धादोस जाता. भुरग्यांनी हें ना केलें जाल्यार तीं भुरगीं कसलीं?

पूण काळ बदलला. आतां हीं असलीं भुरगेपणां फकत काणयांनीं आनी पिक्चरांनींच पळोवंक मेळटात. आतां आमचीं भुरगीं भुरगेपणांतूच जाण्टीं जाल्यांत. आतांचीं भुरगीं हें अशें सगळें व्हिडियो गेमींतल्यान अणभवतना दिसतात. भुरग्यांकूच भुरगेपणां करपाक मेळना जाल्यार जाण्टीं आनी किदें भुरगेपणां करतलीं? असो प्रस्न उप्रासता.

भुरगें-वृत्ती आनी आमचें मन हाचो थेट संबंद आसा. पावस पडटा, तेन्ना मनांत दिसता चल पावसांत भिजुया. पूण रोखडेंच दिसता - 'हांव दोन भुरग्यांचो बापूय. हांवें अशें भिजप बरें दिसना. लोक हांसतले.' असो विचार करून तो व्हड खोशयेक मुकता. मनांतली इत्सा तो थंयच दाबून उडयता. आंबो कापून खावचे परस सगळोच आंबो चोखून खावप आनी मागीर हातावयल्यान गळटा तो रोस सबंद हातार जीब भोंवडावन चोखप - हीं सगळीं भुरगेपणां! आतां येदो व्हडलो जावन अशे तरेन चौगांमदीं बसून खावप सोबना. भुरगेपणांत केल्ल्यो जायत्यो गजाली आतांय करीन दिसता. पूण आमीच आमचेर बंधनां घालून घेतल्यांत आनी ताका लागून जिवितांतली खूबशी मजा-मस्ती आमी विसरून गेल्यांत.

केन्नाय चान्स मेळत जाल्यार भुरग्यां वांगडा भुरगीं जावन पळयात - तांचे वांगडा खेळात, नाचात, जाय तीं पिशेपणां करात. मागीर तुमकां दिसतलें - तुमकां ह्या सगळ्यांची कितली खोस भोगली पळय ती! सगळो ताण-तणाव ना जावन वतलो. हें एक बऱ्यापयकी वखदूच! तेन्ना तुमचे भितर आशिल्ल्या भुरग्याक केन्ना केन्ना भायर येवपाक वाव दियात. पळयात कसो जादू जाता तो!

■

– सुषमा तिळवे
जेसीनगर, फोंडे-गोंय.
मो. : ९८२३०५५७५१

# तेफळां



*पानां-फुलां, कळे-देंठे कितलींय जरी बुड्डीलीं तरी ही दुदीण कशीच कॅर काडिना, उलट जोमान फुडें फुडें धांवता. पाडसाचेर वचपाक आधार मेळ्ळो म्हणटगीर हिचो नेट पळोवपाचो!*

**- रुपा कोसंबे.**

**जू**न म्हयन्याची वाट पळयना असो मनीस विरळाच. हो म्हयनो सृजनाचो. तेचवरी थाकायेचो, दिलाशाचो म्हणूनच एप्रिल-मे म्हयन्याचो रखरख सोंपून हो म्हयनो केन्ना येतलो हाचेकडेन सगळ्या आबालवृद्धांचे दोळे लागतात. भुरग्यां खातीर ह्या म्हयन्याची ओढ आसता ती नवी यत्ता, नवीं पुस्तकां, वह्यो, नवे वर्ग, नवे शिक्षक हांचेखातीर तशेंच पावसांत आकंठ भिजपा खातीर, प्रेमिकांखातीर, कवींखातीर तर ह्या म्हयन्याचें म्हत्वच आगळें.

मृगाचें नक्षत्र लागीं लागीं येता तसो सगळो आसमंत रंग बदलपाक लागता. मे म्हयन्यांतले गरमेचो धेंक आपशींच कमी कमी जायत वता. थंडसो शीतळ वाव सगळ्याक भरून रावता आनी ह्याच वाऱ्याबरोबर जणुकाय पावस आपल्या आगमनाची वर्दी धाडटा. वारोय बरो नेटान सगळ्या झाडांच्या पिक्या-सुक्या पानांची होवळीक पत्रिका दिल्लेवरी सगळ्याक आमंत्रणां घेवन भोंवता. सगळ्याक एक प्रकारचो उन्माद कसो भरून वता. दर वर्साक पडलो तरी ह्या पावसाचें अप्रुपच वेगळें. एक सुवाळो कसो. ह्या सुवाळ्याक मनोवपाक कश्टकरी लोक तर दोन-चार म्हयन्यां आदीं तयारेक लागतात. एखादल्या लग्नाची तयारी करची तशी तांचेर लगबग येता. शारांतल्या वातावरणाक जरी हें व्हडलें दृष्टीपंथाक आयलेंना तरी गांवगिऱ्या वाठारांनी हाची प्रचिती येता. हातूंत तांकां लाकुड-फाटो, खारें-तोरें, सोलां-साठां ह्या पुरूमेंता बरोबरच पावसांत रोवपाच्या शेता-बियांची पुर्वतयारी करचे खातीर दिसरात वता -घामांक राबचें पडटा आनी ह्या उतळतापांचेर एकमेव उतारो म्हळ्यार पावसाचें आगमन. सगळो पावसाळो तांचे खातीर सुशेग घेवपाचो नासलो तरी मनाक एक नवी उभारी मेळटा, कश्ट सुसह्य जातात आनी नवसंजीवनी मेळून फुडलीं कामां करपाची नवी उमेद गावता.

सगळी तयारी करून पावसाची वाट पळोवपाक लागलीं म्हणटगीर आनीकय एक काम उरताच तें म्हळ्यार तवशें, दुदी, भेंडे, वाल, चिडकी हांचें आळें घालपाचें. आयत्या मेळिल्ल्या पावसाच्या उदकाक ही शाक-भाजी पिकोवपा खातीर जमनीची मशागत मात करूंकच जाय. आळें घालपा खातीर वेंचिल्ली जमीन ते खातीर बऱ्यो शेणयो बी घालून भाजून घेतात. आळ्यांत घालपाच्या शाकभाजेच्यो बियो, फळ बरें वालीरच जून करून काडून कडकडीत चार-पांच वतांक सुकोवन दवरिल्लें आसता.

पावस शेनपाक लागलो रे लागलो म्हणटगीर घे घरांतल्या बायलांचेर बोवाळ पडटा. बारीक पावस पडटनाच ह्यो सुकोवन दवरिल्ल्यो बियो जमनीकडेन सुपूर्द करपाची ताकतीक. कारण, झटकून पावस पडून जमीन भिजली म्हणटगीर रोखड्योच ह्यो बियो जमनीच्या पोटांत पडूंक जाय. नाजाल्यार पावस चड पडून जमनीची उब वता आनी ह्यो बियो किल्लून येवपाक कुस्तार जातात. पूण दिस्तच बऱ्यो जतनायेन दवरिल्ल्यो बियो ऐनवेळार सापडनात कारण पावसाचो पुरुमेंत करपाच्या वेळार लातां-फोलीणां वयर सकयल जातात आनी त्या बोवाळांत ही बियांची पोटली गायब जाता. मागीर हेवटेन तेवटेन शेजराक वचून ताईबायगेर, व्हनीबायगेर बियांची मागणी सुरू जाता. हाताकडेन आशिल्ली मागीर कोणूय व्हनीबाय, ताईबाय अक्षता वाटिल्लेवरी उमेदीन गरजवंताच्या हातार बियो उडयता. हातूंत भुरग्यांकय म्हण बरोच रोल आसता. कारण पावस एकदम चड पडपाक लागलो म्हणटगीर बियो फैदासून हाडपाचें काम भुरगींच करतात आनी जाणट्यांचे देखरेखी खाला पावसात



## दुदीणबाय

भिजत, किटकिटत, बोवाळ मारत ह्यो बियो जमनींत पुरपाकय आदार करतात. खंयची भाजी खंय रोवपाची, कशी, कित्याक हाचें शास्त्रशुध्द शिक्षण घेत भुरगीं हो रोपण सुवाळो उमेदीन पार पाडटात.

पावस पडतगीर जमनींत आशिल्लें किल्लल्याबगर रावना ह्या न्यायान आठच दिसां भितर सगळी भूंय पाचवीचार दिसूंक लागता. हें आपसूक किल्ललें तोरें म्हळ्यार जमनीर पातलायिल्ली विलोदी चादरच. थोड्याच दिसांभितर एकेक वनस्पत आपली तकली वयर काडटा. तातुंतल्या तातूंत तायखिळोच चड भाव खावन वता. पडिल्ल्या पावसांत तायखिळो केन्नाय किल्लून येवं, पावस त्या तायखिळ्याक कसोच मरपाक दिना अशें म्हणटात, म्हण बी काय कोण जाणां, हो नेटान वचत थंय आपलो शेक गाजयता. तशेंच तायखिळो खंय वर्सांतल्यान एकदां तरी खावपाकच जाय, नाजाल्यार आपूण बावडो गरीब म्हण आपल्याचेर आडनदर करतात असो ताचो एक मोगाळ शीणय आसता. म्हणटगीर पावसाळ्यांतल्या तेरें, कुर्डू, लुतू, शिरमुंळ्ळी ह्या कितल्याश्याच भाजयां पयकीं तायखिळ्याक पयलीं प्राधान्य मेळटा.

कांयच वावर करिनासतना पावसांतली आयती भाजी वयर वयर सरता तशी आळ्यांतल्यो रोपयो रुजपाक लागतात. मागीर वालींक शिरीं लाय, दाट आसल्यार रोपल्यो काडून विस्कळ जाग्यार लाय तांकां पोंदाक गोबोर, सारें-शेण घाल हीं कामां पावसाची दडक ना शी पळोवन उमेदीन करून जातात. ही पोरसांतली भाजी. कांय जाणां शाकभाजी दोंगराचेर लायतात ताका 'कामत' म्हणटात. तवश्या-गोसाळ्यांच्यो वाली वयर सरल्यो आनी आंगार फुटिल्ल्या नाखटांनी आदार सोदपाक लागल्यो म्हणटगीर तांकां माटोव घालपाचें काम.

माटवांचेर तवशीं-घोसाळीं लांबपाक लागलीं म्हणटगीर केल्ल्या कश्टांचें सार्थक जाल्लेवरी जाता. तातुंतल्या तातूंत तवश्यांच्या माटवाचेर लांबतल्यो तन्न्यो पिंपऱ्यो येतना वतना कुरकुरीत खावपाक मेळिल्ल्यान भुरगीं तर उमेदीच जातात. ह्या बोवाळाक दुदीणय बी आपूण कांय कमी न्ही ह्या आवेशान वाग लागिल्लेवरी फुडें फुडें



पातळटा. हिचें काम चडशें पाडसार चडपाचें. पूण पाडसार पावतासर मात हिका बरेंच अग्निदिव्य करचें पडटा. कारण हिचीं हरितद्रव्यान भरिल्लीं पाचवींच पानां पळोवन भाजी बुड्डुपाचो मोह जाताच जाता. बारीक शिनिल्ली ही तन्न्या तन्न्या पानांची भाजी दुदयाचोच कुडको नातर बटाट आनी बिमलां वो आमाडे घालून अप्रतिम लागता. त्याशिवाय दुदणीचे देंठे, तवशें, घोसाळें, मुडल्यो, निरपणस, दुदयाचो कुडको, दुदयाचीं फुलां आनी हेर जिन्नस आनी वयर धाडायिल्लीं तेफळां (तेफळां जितीं तर विचारूंकच नाका) घालून केल्लें खतखतें एकदम सुरबूस. खतखत्यांत घाल्ले दुदणीच्या पानाचे देंठ पोकळ आसतात. पेज जेवतना हे देंठ तोंडांत धरून ताटांतलो निवळ बरो सुर्रसुर्र करून ओडपाचो. पयलीं जेवपाक मेज-कदेलां असो साजशृंगार नासतालो. शेणान सारयिल्ल्या गुळगुळीत जमनीचेर आसरमांडी घालून बसकण मारून पेज जेवपाची आसताली. म्हणटगीर पेज जेवतना हे देंठ स्ट्रॉवरी तोंडांत धरून ताटांतलो निवळ बाग घेवन ओडपाक लागली म्हणटगीर येता तो आवाज आयकून जाण्टेलीं 'आयलीं म्हसरां उदकाक' म्हण अपुरबायेन म्हणटालीं. म्हणटासर ही दुदीण तृप्ततायेन फुलपाक लागता. बारीक बारीक पाचवेंच कळे आंगार दिसतां दिसतांच, दिसानदीस ते मोटे जावपाक लागतात. कळे फुलपाक दोन दीस आसा म्हळ्यार हेर फोडींवरी रवो लावन तव्याचेर कुरकुरीत तळून खावपाचे. पूण कळे काडटना फाटल्यान दुदयाचो तोरो बी ना न्हय हें

मात पळोवपाकच जाय आं! चुकून वालीर उरिल्ल्या कळ्यांचीं बरींऽ हाताच्या शीरभर फुलां जातात. मर्दी येदो मोठो लवलवीत देंठावरी परागनलिका आशिल्लें हें केसरीच फुल पळोवपाक मनभुलयणें दिसता तें जालेंच, ते भायर वयर सांगिल्लेवरी खतखत्याक उडयलें जाल्यार खतखतें बरेंऽ मेळून येता. पानां-फुलां, कळे-देंठे कितलींय जरी बुड्डीलीं तरी ही दुदीण कशीच कॅर काडिना, उलट जोमान फुडें फुडें धांवता. पाडसाचेर वचपाक आधार मेळ्ळो म्हणटगीर हिचो नेट पळोवपाचो! कोणाची नदर पडचिना अशी मागीर पानांखाचींतल्यान एकेक दुदयाचो तिरो भायर सरूंक लागता. ह्या आपल्या पोरांक सुगूर दवरपाखातीर तिका ताकतीक वयर चडपाची लागिल्ली आसता काय जाणाकोण!

वाऱ्या-पावसार धोलत-हांसत हे पांचवे दुदया तोरे दिशीमाशी मोटे-मोटे जायत वचून तांचेर हळदुव्या रंगाची सया मारपाक लागता. हे दुदी केसरी-तांबडे जाले आनी देंठ सुकले म्हणटगीर जून जाले म्हण समजुवपाचे. असो जून करून काडिल्लो दुदी वर्सभर पसून तिगता. जाय तेन्ना फोडून खा. दुदी फोडप म्हळ्यार एक व्हडली पर्वणीच कशी. कारण तातुंतल्यो बियो. 'दुधापेक्षा दुधावरच्या सायीलाच जास्त महत्व असते' अशें लक्ष्मीबाई टिळकान 'दुधावरची साय' ह्या धड्यांत म्हळां. तशें दुदयापरस दुदयाच्यो बियो चड रुचीक. दुदी

फोडटगीर मर्दी आशिल्ल्या गिरोपांतल्यो बियो वेगळ्यो काडून, धुंवन, वाळगोवन, सोलून खावपाच्यो. मस्त लागतात. त्या भायर त्यो टॉनिकय. तातुंतल्यो थोड्यो बियो मात फुडल्या वर्साक आळें घालपाक म्हण यादीन काडून दवरूंक जाय. भितरलो मोवं मोव गिरोप आसता पळय न्ही, तो उकडून ताचें धंय बी घालून रायतें मस्त जाता. दुदयाच्यो बियो जंय उदक पडटा थंय केन्नाय मातयेंत किल्लत घाल, भाजयेक मरण ना. ते भायर बियांचो पोस म्हणजेच पुडींग करतात. सोलिल्ल्यो बियो केसर घाल्ल्या शिऱ्याक घाल्यो तर 'सोन्याहून पिवळें'. फोडिल्लो येदो व्हडलो दुदी खावप कसो ही चिंता. मागीर एकेक शीर ताईबायक, व्हनीबायक, शेजराक आनी तांगेर जाल्लीं तेंडलीं, पडवळ, घोसाळीं आसल्यार बार्टर ॲक्सचेंज खतखत्या खातीर. मागीर दुदयाचे जायते पदार्थ– भाजी, तळिल्ल्यो फोडी, गांठी, कांदो घालून भर्त, पुरयो म्हळ्यार घारगे बी.

एकच मात, ही बाळंत जाली म्हणचे म्हळ्यार वालीर दुदी पडपाक फुलां फुलतात तशीं ताचेर केन्ना केन्नाय पैंगीळ म्हण जीव पडटा. घेतला केन्नाय पैंगीळाचो वास? पूण भिवपाची कांय गरज ना. केन्नाकेन्नाय ताकाचें



उदक करून वालीचेर इल्लें इल्लें फाफुडपाचें. पैंगीळ पळटा. आंगावयलीं सगळीं फळां हळदुवशीं जावन जून जाता म्हणसर दुदयाची वाल निस्तेज जायत वता आनी पानां बिनां क्षीण जाल्लेवरी हळदुवीं जातात आनी वाल सुकपाक लागता. पातळिल्ले सुकिल्ले वालीचेर नदर मारली जाल्यार जिणेंतलीं सगळीं कर्तव्यां पुराय करून समाधानान दोळे धांपिल्ले अस्तुरेची सया मारलेबगर रावना.

बरो जून करून काडिल्ल्या दुदयाचो देंठ सुकोवन दवरतात. हो देंठ शीतळ आनी वखदीय बी. अनंताचें पाळ, सायकात्र्याची साल आनी दुदयाचो देंठ तांदूळ धुण्यांत झरोवन धनकुटेचेर वखद म्हण दितात. त्या भायर गुरवार आसतना बायलां हड्ड्यांत कलकलता बी जाल्यार हें वखद रामबाण. दर एका आंगान दुसऱ्याच्या उपेगा पडपाचो गूण हे दुदयावाली कडल्यान घेवपाचो.

एक ओपार आसा. 'दुदीनबाय पातळ्ळी आनी फाटलें सगळें विसरली.' तुमी सहमत आसात ह्या ओपारींकडेन? हें एका वेळार मनशांक लागू पडत पूण दुदयाचे वालीक? कशेंच ना! कितें विसरली? फाटलीं सगळीं पानां झडयत ती आपलेच तिरमिरीत फुडें फुडें वता म्हणून? उलट आमी मनशांनी कितलीय बुड्डून खाली तरी ती खचून वचना. हार माननासतना फुडें फुडें वता. जमनींतल्यान कितें मेळटा तें सारें-उदक घेवन प्रतिकूल परिस्थितींतूय आपलो जीव जगयता आनी आपल्या कर्तव्याक पाळो दिवन वाडत वचून भुरग्यां बाळां खातीर आपलें सगळें आयुश्य ओंपता. तांचे खातीर धतरीकडली आपली नाळ तोडना. जाता तितलीं जमनीचेरच आपलीं पाळां-मुळां घट्ट रोवून उबी रावपाचो यत्न करता आनी आपली मोख पुराय करता आनी म्हणूनच म्हाका दिसता तिका जर कोणूय कृतज्ञ म्हणटा जायत जाल्यार ताचे सारको पडमूर तोच. ■

**– रुपा कोसंबे**

व्हडलें भाट, ताळगांव. मो. ९४०४९१४४३७

# कथा



*कच्च करून लागिल्ले आदोळेचे दुख्खीन तें सपनांतलें भायर आयलें. ताणें घाव्यार हळदिचो पिठो घालो. बेगबेगीन कडी केली, नुस्तें भाजलें आनी भायल्या सोप्यार येवन ताणें आंग तेकयलें. दोळे धांपले खरे पूण ताका न्हीद येनासली. ताचेर भार आयलो तो लग्नाक वचपाक रंगाचें मन वळोवपाचो.*

- सुनिता प्रकाश पेडणेकार

# करवली

"आरे! वच रे हांगासरलो, सकाळच्यान किरकिरता सो." पारूल भाकऱ्यो भाजतां भाजतां पाडसार बसून आड्डतल्या कावळ्याक हामुडटालें. आयज आनी आनी कोण येतलो? बरी खबर दिवन ताचो बापूय दाय तर कालूच येवन गेल्लो. भावाच्या लग्नाक सांगपाच्या निमतान धा वर्सांनीं ताच्या बापायन ताच्या घराचो हुंबरो हुपिल्लो. आपूण सपनांत बी ना न्हय अशी ताची अवस्था जाल्ली. दायक पळोवन ताचे दोळे दुकांनीं भरिल्ले. ताणें केल्ल्या लग्नाच्या आपोवण्यान तें सैरभैर जाल्लें.

"बाय तुका लग्नाक सांगपाक आनी भावाच्या लग्नाचो करवलेचो मान दिवपाक तुजे आवयन म्हाका तुगेर धाडला." हें आयकून पारूल दायक पळयतच उरलें.

"आगो पळयता कितें अशें? तुका तुजे आवयन रंगा आनी चेड्या सयत आठ दीस पयलींच यो सांगलां."

ताका इतली खोस जाली त्या नादारच तें दायक च्या करपाक भितर गेलें आनी आपल्या दुकांक वाट मेकळी केली. ओल्या दोळ्यांचेर ताणें उदकाचे हबके मारले आनी च्या घेवन तें भायर आयलें. च्या पियेवन जातकच दाय वचूंक उठलो तेन्ना तें आबूज जालें. ताका कितें दिवं कितें नाका अशें जाल्लें. कितें तरी याद जावन ताणें म्हळें, "दाय मात्सो राव रे!"

ताका याद जाली आंतोनबाबून दिल्ली तिकी कालापुरांची. डब्यांतली कागदार ओतली आनी पुडी करून दायच्या हातार दवरली. हें व्हरून आईकडें दी. भायली तिकी कालापुरां लग्नाच्या सामाराक घालूंक मेळटलीं. बरो वास येतलो सामाराक.

"आगे आई भाकरी करपता मुगे! कितें चित्ता गे?" बबलूच्या आवाजान पारूलान कच्च करून आंग काडलें.

"कांय ना रे. तुका हांवें रातीं सांगूंक ना. काल तुजो आजो मामाच्या लग्नाची कोविद दिवन गेलो म्हुण. तुज्या बापायक कळत जाल्यार धुमशणां कांडटलो. आनी जाणां बबलू, लग्नाक करवलेचो मान म्हाका दिला."

"आगे हळुहळू सवकास सांग गे! मामाचें लग्न? कोणाच्या? कोण म्हजो मामा? आनी खंय आसा तो? आनी म्हाका आजोय आसा? राव त्या मधूक दाखयतां सदांच म्हाका मामागेर वचना रे सुटयेक काय म्हण चाळयता." बबलू सामको खोशयेन फुल्लो.

"आरे राव रे मात्सो. आयक, तुका मामा आसा, आजो आनी आजीय आसा. तुज्या बापाय खातीर हांगा येनांत." उलयतां उलयतां पारूलान ताका च्या आनी भाकऱ्यो दिल्यो. खातां खातां बबलून म्हळें, "आई, आनी करवली म्हळ्यार कोण गे?"

"करवली म्हणटा ती लग्नाकडें करो घेवन रावता ती भावाची भयण. तुका कांय कळचें ना तें. मामाच्या लग्नाकडें पळय. आतां बेगीन बेगीन च्या घे आनी शाळेक वच. उशीर जातलो."

च्या घेवन बबलू वचपाक भायर सरलो. इतल्यान ताका आपल्या बापायची याद जाली.

"आई, बापूय ना गे येवंक रातीं?"

"ना!" पारुलान नेटान म्हळें.

"शेर्त जाळ लावंक गेला आसतलो! काल तो वेळेवयलो कायतू ताका सोदूंक आयिल्लो.



म्हणटकच आयज आमकां नुस्त्याची कडी खावंक मेळटली तर! रातीं केन्ना गेलो गे तो?''

''बरो पोटभर गिळून गेला. संवसाराक कांय हाडूंक नाका. धा वर्सां जालीं लग्नाक एक साडयेची घडी सोडूच एक वारभर लुगट लेगीत हाडलें ना. कुशिच्यान वच रे!'' हें आयकूंक बबलू खंय रावला? तो केन्नाच शाळेचे वाटेक लागिल्लो. 'त्या बापायचो तो पूत!' बडबडत पारूल भाकरी आनी च्या घेवन वसऱ्यार येवन बसलें. पाडसावयलो कावळो आतां आंब्यार किरकिरूंक लागलो. ताणें भाकरेचो कुडको मोखून मारलो आनी म्हळें, ''सोयरो येता जाल्यार उडून वच.''

कावळो तो खावपाकूच रडटालो. भाकरेचो कुडको घेवन उडून गेलो. च्या घेवन जातकच भितर वचपाक... ''पारूल, पारूल...'' ताका उलो कसलो? ताच्या नांवाची बोबूच आयकूंक आयली. ताचो घरकार रंगा पयलीं मिना खणीर चलपी ट्रकाचो ड्रायवर. पूण आतां खणी बंद पडिल्ल्यान कोणूय आपयता तांचे वांगडा कामाक वचपी. कोण सोरो घालून काम करून घेवपी वा कोणूय पयशे दिवन.

''पारूल आसा काय मेलें गो? जाप दिवंक तोंड धरलां? वंयेकडल्यान उलो मारीत आयलां हांव.''

''बोब कित्याक मारता रे?''

''तूं मेलें म्हुण! हें घे ताजें ताजें नुस्त्याक हाडलां. बरीऽ कडी कर आनी थोडें भाज.'' टोकरो ताच्या म्हऱ्यांत आपटीत रंगान म्हळें.

'तूं जेवतलो काय पडटलो पियेवन' हें पारुलाच्या तोंडांत आयिल्लें पूण ताणें तें भितरल्या भितर गिळ्ळें कित्याक तर ताका ताचें बरें घेवन भावाच्या लग्नाची खबर सांगूंक जाय आशिल्लें.

ताणें टोकऱ्यांत नदर मारली. काळुंदरां आनी शेवटाळे जिवाच्या आकांतान फडफडटाले आनी हांगा पारूलाचें मन भावाच्या लग्नाक वचपाच्या हुसक्यान फडफडटालें. फडफड एकूच. कारणां वेगळीं.

पारूल टोकरो घेवन भितर गेलें. तें पळोवन रंगाकूय अजाप जालें. सदांच आपल्या वांगडा केरेंकेरें करपी आपली बायल आज ओगी कशी? घडये नुस्तें पळोवन तोंडाक चावी जाल्या आसतली!

''च्याव केल्या जाल्यार हाड गो! भूक लागल्या.''

पारूलान बेगबेगीन च्या कडयली. च्या आनी भाकऱ्यो घेवन तो बसला त्या सोप्यार हाडून दवरल्यो. च्या पितां पितां पारूलान ताच्या तोंडार नदर मारली. तो आयज पियेवंक ना म्हुण कळ्ळें. हीच वेळ बरी आसा अशें चिंतीत ताणें भियेत भियेत म्हळें, ''म्हाका तुका कितें सांगपाचें आसलें.''

''कितें तें?'' भका भका भाकरी खात खात रंगान म्हळें.

''काल दाय येवन गेलो! घनाच्या लग्नाचो कोवीद घेवन.''

''दाय येवन गेलो?'' रंगा च्या सांडून उबो रावलो.

''धा वर्सांनीं माती खावंक येयल्लो? तूं आनी कलवंत कशें पेनता तें! तुजो भाव लग्न जावं ना जाल्यार फोंत बांदून भोवूं. म्हाका पडूंक ना. तुका वचूंक मेळचें ना.''

रागान तांबडो जाल्ल्या रंगान च्यायेच्या ग्लासार खोट मारून मोकून भायर मारलो आनी गाळी घालीत चलूंक लागलो. तो गेल्ले ते वाटेकडेन पारूल पळयत उरलें. हो ताचो अवतार ताका नवो नासलो. आतां आनी ताचे मुखार रावपाचें ना. जेवंक खावंक सुशेग ना अशें चिंतत तें कामाक लागलें. बबलू खातीर तरी ताका रांदूंक जाय आसलें. नुस्त्याचो टोकरो घेवन तें नुस्तें उजरावंक बसलें. खवळां काडटां काडटां ताचे जिणेचें एक एक खवळ निखळत गेलें.

रंगाची आनी पारूलाची वळख म्हळ्यार मिंगेलबाबालें घर बांदतना. चिऱ्यांचो ट्रक घेवन येवपी रंगा आनी कामेरें म्हुण कामाक आशिल्लें पारूल निकतेंच वयांत आयिल्लें. काळें सांवळें, बारीक किडकिडीत पूण पळयतनाच कोणूय मोगांत पडपा सारकें. तर लांब रूंद रंगा काळो कुळकुळीत. पूण नाका दोळ्यान शिरवंत. चारशें चिऱ्यांची गाडी खालीं करतां करतां एकामेकाच्या फकाणांक ओतो येतालो. पारूलय ताका अपवाद नासलें. फकाणां फकाणां करून रंगा आनी पारूल एकामेकां थांय कशीं ओडलीं कळ्ळेंच ना. रंगान आनी वेळ केलो ना. उखल्ली जीब लायली ताळ्याक. सोमतें वचून पारूलाली आवय गोमतीकडें मागणी घाली. गोमतीक उगडास जालो तो मिंगलूच्या उतरांचो, ''हाडया मुगो जांवय? कोत्ता मुगो धुयेक लगीन?'' हें सगळें तो जाणां आसून ताणें फटाश मारल्या आसूंये! आपल्या मुखार उबो आशिल्ल्या काळ्या कुळकुळीत रंगाक कितें सांगचें तें गोमतीक कळ्ळेंच ना. पूण ताणें ताका कडसावपाक इतलेंच सांगलें, ''अजून तें लग्नाचें जावंक ना. आतांच अठरा सोंपता थंय आसा.''

रंगा तो. ताका पारूल इतलें आवडिल्लें, ते खातीर तो कितेंय करूंक राजी आशिल्लो. तो उठून तसोच मिंगलूबाबागेर गेलो. ''तूं कांयच भियेंव नाकाय रे. हांव उडयतां तुमचें जाग्यार.'' रंगाक ताच्या ह्या उतरांनीं घटाय आयली. रातचें गोमती येता तेन्ना ताच्या कानार गजाल घालपाची मिंगलून थारायलें. गोमती ताच्या उतरावयर वचचें ना हें ताका खबर आशिल्लें. गोमतीचो घोव कुष्टा तांगेर ल्हान सावन कामाक आसतालो. मिंगलूच्या पायन ताका रावपाक नाल्लांचें लॉज दिल्लें. चार आणे शेणिल्लेवरी दिसपी कुष्टान जेन्ना गोमती सारकी सुंदर, सोबीत बायल हाडली तेन्ना सगळ्यांक अजाप जालें. तें आयलें. ताणें मिंगलूबाबाल्या घराक आपलेंशें केलें. ताच्या तेंक्यान मिंगलूबाबाले घरकान्नीन कुवेट वचून जोडपाचो आपलो सुवार्थ पुराय केलो. तेन्ना सावन मिंगलूबाबाली जेवणा खाणाची सगळी जबाबदारी गोमती पळयतालें.

रंगान वचून जेन्ना ही गजाल पारूलाक सांगली तेन्ना पारूलान ताका मिंगलूलो विश्वास दिलो. आतां आनी तूं कांयच भियेवं नाका. आतां आमचें काम जालें म्हुण समज. ताका खबर आशिल्ली ताची आवय मिंगलूबाबाल्या उतरावयर वचची ना म्हण! ताका कारणूय तशेंच नाजूक आशिल्लें. ताका तें ल्हान आसतनाची गजाल याद जाली. एक दीस आमोरेचेर घना रडूंक लागलो. ताणें ताका ओगी करपाचो खूब प्रयत्न केलो. पूण तो चडचड रडूंक लागलो. तशें तें ताका उखलून मिंगलूबाबाल्या घरा गेलें. आवय रांदता आसतली म्हुण तें रांदचे कुडींत



गेलें. ती थंय नाशिल्ली तें पळोवन उलो मारीत तें परतें आयलें. घरांत सामसूम आशिल्ली. इतल्यान ताका एके कुडींतल्या दारांतल्यान उजवाडाची तिरीप दिश्टी पडली. ताणें दार धुकल्लें आनी आवयक उलो मारलो. त्याबराबर मिगलूबाबाले वेंगेंत आशिल्ली ताची आवय धांवून ताच्या आंगार आयली.

''कित्याक आइडत आयलां गो?'' रागान आनी थोडेशे लजेन तिणें विचारलें.

''आई घना रडटा. तो थांबना म्हण आयलें हांव.''

''चल वच घरा. येतां हांव.'' घनाक ताचेकडल्यान घेत गोमतीन म्हळें.

अजापान आपले आवयकडें पळयत तें घरा गेलें. ह्याच बळार ताणें रंगाक घटाय दिल्ली आनी तशेंच जालें. गोमती लग्नाक तयार जालें पूण लग्नाक न वचपाचें आनी एक पयसो ना मोडपाचे अटीर.

रंगाक पारूला मुखार ही अट व्हडली दिसलीना. ताणें लग्न थारायलें आनी त्या दिसा सकाळीं आपल्या एका इश्टाचे घरकान्नीक चुडो आनी चकचकीत साडये सकट पारूलागेर धाडली. तिणें पारूलाक साडी न्हेसोवन, चुडो घालून बरें सजयलें. आंगार हळद नासतना कन्याचें उदक पड नासतना पारूल व्हंकल जाली. वतना तें आवय बापायच्या पांयां पडलें. बापायन ताका बरें जावं म्हण आशिर्वाद दिलो. पूण आवयन ताका उतरांचो आहेर दिलो. ''आमकां खोशी नासतना तूं लग्न जाता. ह्या घरांतल्यान भायर सरलें म्हणटकच तूं आमकां मेलें. ह्या घराचीं दारां तुका सदांच बंद आसतलीं. आतां लेगीत तूं फाटीं सरल्यार जाता.''

पूण पारूलाक आपल्या मोगाफुडें कांयच दिसनासलें. रंगा बरोबर नातें जोडपाक तें अधीर जाल्लें. तें मोन्यानी भायर सरलें आनी देवळांत वचून लग्न करून सासणाक तीं एकामेकाचीं जालीं. वर्सभरान बबलू तांचे जिणेंत आयलो. तांचो संवसार बरो चलतालो. पूण बंद जाल्ल्या मिना खणींक लागून तांच्या संवसाराक दिश्ट लागली. सगळें काम ठप्प जालें. रंगासारके कितलेशेच 'हाडली पड खाल्ली पड' करून जगपी बेकार पडले. संवसाराची धजा जाली. उपासमार जावपाक लागले. पिकासांवान सोन्याच्या आधीन जाले. तातूंत रंगाय चुकलो ना. आशिल्लें नाशिल्लें तें ताणें सोन्याक, मटक्याक घालें. आनी एक दीस ताका मिंगलूबाबू मेळ्ळो. ताचे चुरचुरे दिसून ताणें ताका आपल्या भावागेर आंतोनबाबूगेर हाडून दवरलो. आंतोनबाबूली सगळी फामिल लंडनाक आशिल्ली. घरभाट पळोवंक, तांच्या नाल्लाच्या लॉजांत तांकां थारो मेळ्ळो.

कच्च करून लागिल्ले आदोळेचे दुखीन तें सपनांतलें भायर आयलें. ताणें घाव्यार हळदिचो पिठो घालो. बेगबेगीन कडी केली, नुस्तें भाजलें आनी भायल्या सोप्यार येवन ताणें आंग तेकयलें. दोळे धांपले खरे पूण ताका न्हीद येनासली. ताचेर भार आयलो तो लग्नाक वचपाक रंगाचें मन वळोवपाचो. कशेंय तरी ताचें बरें घेवंक जाय. नाजाल्यार करवली सोडूच लग्नाक लेगीत वचपाक मेळचेंना. दनपरां जेवपाक येता तेन्ना बरीऽ पुजा करपाची ताणें थारायलें. एका मिनटाक ताका लकणी आयली तेन्नाच कोण तरी धरून घसाघसा हालयता. ताचे कुडीक कळ आयली. तें जागें जावन उठून बसलें. पळय जाल्यार रंगा बरो तर्रर जावन आयिल्लो.

''दनपारच्या वेळार तुजे असले बायलमनशेन वसरेर न्हिदप हें लक्षण बरें न्हू. कोण येवपाचो आसलो काय कितें गो? कलवंत खंयचें कडलें! कांय गरज ना लग्नाक वचपाची. दोके मोडून घालतलों.'' तो झिंगून झिंगून उलयतालो. उलयता तेन्ना भस्स करून सोन्याचो वास ताच्या नाकांत सरलो.

''चल उठ, भूक लागल्या म्हाका. वाड.'' पारूलान ताका रागान पळयलें.

''पळोवं नाका. एक मारतलों धरून.'' म्हणत ताच्या आंगार गेलो. तें भितर धांवलें. जेवणाचें ताट हाडून सोप्यार दवरलें. तो भकाभक जेवपाक लागलो. ताचें बरें घेवपाक ताणें म्हळें, ''कडी बरी जाल्या?''

''बरी जावंक कितें जालां? ताजें नुस्तें तें. विकल्यार दोनशें तिनशें मेळटले आसले.''

''हय तुका नळको भरूंक उपकरतले आसले.'' तें हळूच पुटपुटलें.

''कितें फुतफुत्ता गो? गाळी घालता काय कितें?''

''ना रे हांव तुका घनाच्या लग्नाची गजाल सांगूंक सोदतालें. मात्शें आयक रे हरशीं जाल्यार वचना जाल्यार जातालें. तुका खबर ना ताणीं म्हाका करवलेचो मान दिला म्हणटकच!''

''म्हणटकच कितें? तूं लगीनाक वयतलें?'' अशें म्हणत ताणें ताका धुकलून सकयल उडयलें आनी खोटांनीं मस्तीत रावलो.

''तूं वच आनी पळय. तुका हांव जितेंच मारतलों'' आनी एक कमरा बरोबर खोट मारीत तो लकत लकत बुरशीं बुरशीं उतरां घालीत चलूंक लागलो. पारूल बाबडें रडत रडत उठून सोप्यार न्हिदलें.

रंगा नेटाबरोबर वेळेर आयलो आनी वयर आशिल्ल्या पोनेळाच्या फळयांर आडवो जालो. झणझणीत आयिल्ल्या वाऱ्यान तो न्हिदेच्या आधीन जालो. ताका जाग आयली ती कायतानान मारिल्ल्या उल्यान.

''रंगा, ए रंगा तुका हायें एक बोरी खोबोर हाडल्या. खणी बंद जावन बेकार आशिल्ल्या लोकांक फूय शेरकारान म्हयन्या म्हयन्याक पाग दिवचें थारायलां.''

रंगा उठून उबो जालो.

''जावं रे कायतू. तुज्या तोंडान साखर पडों. पयल्या पागाक तुका फिल्सूल्या बार्रार पार्टी दितलों.''

''तें मागीर पळोवया, पयलीं हे पायशें रुपया रातच्या कामाचे आनी आयजूय रांपण ओडपाक जाय जाणाय मुरे तूं? चोड पियोंव नाका.''

कायतानान हाडिल्ले खबरेन ताचो सोरो लेगीत देंवलो. ताका याद जाली पारूलाची. ओगीच मारलें ताका हांवें. ताणें हेवटेन तेवटेन पळयलें. वेळेर खेळपी भुरगीं अजून येवंक नासलीं. इतल्यान ताका भुरगीं येता तीं दिश्टी पडलीं. तातूंत बबलूय आसलो. बबलूक ताणें उलो मारलो. बबलू बाबडो भीत भीत आयलो. आवयसारको आपल्याकूय मारलो जाल्यार!

''बबलू, हे घे पायशें रुपया. आवयकडें दी आनी तिका सांग, फाल्यां सकाळीं पणजे लग्नाक कपडे घेवपाक वचया. फाल्यां तूंय शाळेक वचूं नाका.''

बबलू आनी खेळूंक रावलो ना. ताणें एकूच धांव मारली आनी आवय म्हऱ्यांत पावलो.



''आई, आई हें पळय बाबान तुका पयशे दिल्या आनी सकाळीं कपडे घेवपाक पणजे या म्हण सांगलां. हांव वयतां खेळूंक.''

पारूलाची माराची दूख खंयच्या खंय पळ्ळी. आळस काडीत तें उठलें. पांयश्यांचे नोटीक धरून तोखेत ताणें देवाचे उपकार मानले. भितर गेलें आनी पयलीं ती नोट तिखयेच्या डब्यांत उडयली. भुकेन ताच्या पोटांत कवळो आयिल्लो. जेवण वाडून घेवन तें जेवपाक बसलें. पूण उमेदीन ताका जेवपाक वचना जालें. सांज जातकच बबलू घरा आयलो. अभ्यासाक बसलो. भाटांतल्या कावथ्यांक उदक घालून पारूल घरा आयलें. बबलूक न्हाणयलो आनी च्या दिली. जेवन खावन बबलू न्हिदलो. पारूल न्हिदपाक गेलें खरें. पूण ताका न्हीद येनाशिल्ली. ताका आपल्या भावाचें लग्न दिश्टी पडटालें. नटून थटून ताच्या सांगाताक करो घेवन उबें राविल्लें आपूण दिसतालें. ताणें चिंतलें आयज रंगा जर बेगीन घरा आयलो जाल्यार हांव ताका खूब मोग दितलें. ताका पयलींच्या रंगाची याद जाली. खणीर आसतना तो दनपारां जेवंक येतालो आनी थोडे खीण तीं एकामेका वांगडा सारतालीं. तेन्ना वेंगेंत घेत तो ताका म्हणटालो, ''फाल्यां हायें सुटी काडल्या. पणजे भोंवपाक या फटफटी घेवन. तुका कितें जाय तें घेवन, जेवन, खावन सांजेर घरा येंवया.''

आनी मागीर तीं मस्त मजा करतालीं. जेवतालीं, खातालीं, साडयो, काकणां अशें जायतें घेवन तीं मिरामार वारें खातालीं आनी रातचीं जेवन खावन घरा येतालीं. ते यादीन पारूल सुखावलें. ताणें थारायलें आपल्याक एक बरी चकचकीत साडी घेवपाची. बबलूक आनी रंगाक कपडे, आवयक होटयेक साडी, बापायक कपडे, घनाक एक व्हडलो पितुळचो तोप आनी ताचे बायलेक एक ल्हानशी भांगराची नथ. ताचेकडेन एकठांय करून दवरिल्ले पयशे आसले. भाट पळोवंक, घर पळोवंक आंतोनबाबू ताका पगार दितालो. तें उठलें आनी ट्रंक उगडलो आनी प्लास्टीक पोतयेंत आशिल्ले पयशे काडले. मेजले. पुराय चार हजार आशिल्ले. ताणें ते पणजे व्हरपाचे पर्शीत घाले. न्हेसपाची साडी काडली आनी न्हिदूंक गेलें. सकाळीं जागें जालें तें ताका पडिल्ल्या एका सपनान. सपनांत ताका करो दिसलो. त्या कऱ्यावयलीं आंब्याचीं पानां सुकिल्लीं आनी वेर वचून कऱ्यांतलें उदक गळून गेल्लें. ताणें तो करो उखल्लो मात, ताचो कपचोच निखळून आयलो. ताचें आख्खें आंग घामान भिजिल्लें. ताळोय सुकिल्लो. हें आनी कसलें आयब? शी! शी! तें उठलें, उदक पियेलें आनी परतें हांतरुणार पडलें. वायट वायट विचार ताच्या मनांत येवंक लागले. ताणें ते झटकून उडयले आनी दोळे धांपले. झापड लागपाक दारार डबडब असो आवाज जालो. कोणतरी व्हडल्या व्हडल्यान ताच्या नांवान उलो

मारतालो. तें न्हिदसुरेंच उठून दारालागीं गेलें. दार उगडलें. पळय जाल्यार वेळेवयले चार पांच लोक पडिल्ल्या तोंडान उबे आशिल्ले. तें पळोवन पारूलाक कच्च जालें. ताणें भीत भीत कितें जालां काय म्हण विचारलें.

"वूनये, वूनये रंगा गेलो."

"गेलो? खंय गेलो? पणजे गेलो? आमी तिगांय वचपाचीं आसलीं मरे."

"वूनये तशें न्हू गे. गेलो म्हुटल्यार तो आमकां साणून गेलो. आयज सकाळीं कायतू ताका रापणेकडें वचूंक उठयता जाल्यार तो मेलेलो मेवलो."

फुडलें आयकूंक पारूल उरलें ना. तें घुंवळ येवन सकयल पडलें. सावशीद जालें तेन्ना ताची आवय, बापूय, भाव ताका घेवन बशिल्लीं. आवयक पळोवन ताका रडप आवरना जालें. आई आई म्हणत ताणें तिका घट्ट वेंग मारली. बबलू हें सगळें पळोवन सामको आबूज जाल्लो.

"आई, बाबा आमकां पणजे व्हरपाक येतलो मगे? तूं करवली जातली न्हय? आमी पणजे वचून बरीऽ मजा करुया. लग्नाक बरे बरे कपडे घेवया."

"बबलू, आरे आतां आमका कांयच ना. कपडेय ना आनी कांय ना."

पारूलान रडत रडत बबलूक वेंगेंत घेत म्हळें.

"म्हणजे कितें? तूं आतां करवली जावची ना? मामाल्या लग्नाक वचची ना? बाबान तुका लग्नाक वच म्हण सांग सांगिल्लें मगे..."

"आरे पोरा तुजो बापूय आमकां सोडून देवागेर गेलो. आनी आनी केन्नाच येवचोना तो."

पारूलान रडत रडत म्हळें. बबलूक याद जाली, कोणूय मरतकच देवागेर गेलो म्हणटात ती. पूण ताका रडपाक आयलें ना. तो आवयच्या तोंडाक पळयत उरलो. पारूलाचें मन रंगा आतां ह्या संवसारांत ना हे जाणविकायेन घुस्मटतालें. ताच्या दुखामुखार भावाचें लग्न, करवलेचो मान सगळें शून्य आसलें. हे थोडेशे वायट दीस सोडल्यार रंगान ताका खूब मोगाचेय दीस दिल्ले. तें येवजून ताचें मन आनी आनीक सैरभैर जालें. सदांच बोब मारीत, शबय घालीत येवपी रंगा मात आज मोन्यानी येतलो.

एक व्हड उस्वास सोडीत ताणें आपली तकली वण्टीक तेंकयली. सोरो पियेवन येवपी रंगा ना येवं अशे दिसपी पारुलाचें मन आज रंगाचे निर्जीव कुडीची आतुरतायेन वाट पळयतालें. ताणें दोळे धांपून घेतले. ताच्या दोळ्यां मुखार न्हवरो जावन सजिल्लो घना दिसलो. ताचे कुशीक तांबडीच चकचकीत साडी न्हेसून करो घेवन उबें राविल्लें आपूण दिश्टी पडलें आनी हातांत आशिल्लो वेर गेल्लो करो उदक सुकिल्लो आनी कऱ्यावयलो आंब्याचो ताळो करपल्लो. सपनांत दिशिल्लो तोच. इतल्यांत 'हाडलो हाडलो' अशी कुजबूज जाली. धव्याच कपड्यांत गुठलावन रंगाक हाडून वसऱ्यार घाला मात, पारूल किंळच्यो मारीत धांवून ताच्या आंगार पडलें. ताचो करवलेचो मान तो आपले वांगडा घेवन गेल्लो. ■

– सुनिता प्रकाश पेडणेकर

सेंट फ्रांसीस वाडो, गोवा–वेल्हा. मो. : ८००७३८५७२१

**(संपादकीय पान नं. ३ वयल्यान...)**

आतां प्रस्न आसा जो मोदी फाटल्या धा वर्सांत अमूक अमूक म्हुण लोकां मुखार आयला तो मोदी प्रधानमंत्री पदाचेर आरूढ जाल्या बराबर तसोच आसतलो? जाप मेळटली 'ना' अशीच. मागीर ती मनोहर पर्रीकाराच्या तोंडांतल्यान आयिल्ली आसू वा राहुल गांधीच्या. कारण भारता सारख्या देशाच्या प्रधानमंत्री पदाची शानूच अशी आसा, त्या पदाचेर पाविल्लो आपसूक लोकशाये मुखार नत मस्तक जाता. मोदीन संसदेंत पावल दवरले बराबर आपलें माथें संसदेच्या सोंपणाचेर तेंकयलें. राजघाटार वचून गांधीजींच्या समाधीचेर नतमस्तक जाले, सोपूतविधी आधुनीक भारताच्या शिल्पकाराचे पुण्यतिथी दिसाच घेतलो. हें सगळें करतना मोदी खुबूच भावूक जाल्लो. हें सगळें नाटक अशें कोण म्हणत? जर तें मोदीचें नाटक आसलें तरी ते भूमिकेक सलाम करचोच पडटलो. पूण जो कोण आत्म्याचे नदरेन पळयता ताका तें निखालूस नाटक दिसचेंना. कित्याक हे भूंयेवेलो दरेक मनीस म्हत्वाच्या पदार पावता तेन्ना अलगू चौधरी ताचे भितर संचारले बगर रावना.

नरेंद्र मोदीची आदली मोख कॉंग्रेस मातये भरवण करपी आसतूय बी. तशे नारे तो दितालो. पूण आतांची मोख प्रधानमंत्रीपदाक न्याय दिवन देशाक अरिश्टांतल्यान भायर काडून भांगराळो करपाची आसा. देशाची अर्थवेवस्ता जाग्यार घालपाची आसा, संरक्षण वेवस्तेक घटाय हाडपाची आसा. आतंकवाद समूळ नश्ट करपाचो आसा. काश्मिरचो प्रस्न सोडोवपाचो आसा. पायाभूत सुविधा वाडोवपाच्यो आसात. मोदी खातीर प्रधानमंत्रीपद हें कांट्यांचें सिंहासन. कांट्यांचो मुकूट घालुनूच ताका सोबोवपाचें आसा. तातुंतल्यान फाटीं सरप ताका आतां कशेंच परवडपाचें ना. मागीर आमी ताका अशेच एकटे सोडपाचे?

भाजपाक हे वेंचुकेंत ३१ टक्के मतां पडल्यांत. युपीएक २० टक्के आनी हेर पक्षांक ५० टक्के. ह्या सगळ्यांनी आतां एक जावन ३१ टक्के मतां घेवन प्रधानमंत्री जाल्ल्या मोदीक घटाय दिवपाक जाय. सरदार वल्लभभाई पटेल हांचो संवसारांत सगळ्यांत व्हडलो पुतळो करपाच्या वावराक आरंभ केलो तेन्नाच मोदीक पोलादी पुरूश म्हळ्यार कितें हाचो अर्थ सांपडला. तेच दिकेन मोदीचीं पावलां पडटात. ताच्यो कुरवो ताचे दरेक करणेंतल्यान दिसता. म्हणटकच एक आदर्श देश घडोवपा खातीर कोण नमोनमो म्हणत जर मुखार सरता जाल्यार आमचे सारख्यांनी ताचे फाटल्यान रावून नमो नमो म्हणप ना? आतां आमकांय तेंच करपाचें आसा. देशाच्या कल्याणा खातीर. ■

# कथिका



*ते चलयेचो हात हातांत घेवन, "म्हाका तूं आवडला." अशीं उदयाचीं शेकडोक उतरां आयकून तें स्तब्ध जालें आनी लजलें. नदरेक नदर मेळपाची बंद जाली. मान सकयल घालून तिरपी नदर उदयाचे हालचालीर थिरावली.*

**- विनोद गावडे**



# मोगाचे वाटेर

**गां**वच्या तिट्यार तेरेकवार दुकानां आसात. लायटी सामानाचें एक, ताचे कुशीक भुसारी. मुखार भाजयेचें. एके वळेरींत सात-आठ अशीं दुकानां आसात. लोकांचें यो वच चालूच आसता. सांजे वेळार एक नुस्तेकान लायटी खांब्यापोंदा बसून नुस्तें विकता. व्हाळादेगेवयल्या कोनशाक उदयान एक टेलरिंगाचें शॉप उगडलें. तो दिसाक एक दोन ड्रेस शिंवता. जात्रे वेळार, लग्ना सीजनांत आनी पावसा पयलीं शाळेच्या भुरग्यांचे आवय बापूय टेलरा फुड्यांत गर्दी करतात. उदय रोखडोच फामाद जालो. कपडेय झकास शिंवतालो. बोल्साक परवडपा सारकी तो फेती घेतालो. तो ल्हान चलयांचेय कपडे शिंवपाक लागलो. बुर्नावयल्या नाटकाक वतना आपले कपडे उदयकाकान शिंवल्यात म्हणीत भुरगीं नाचत पायर्णीतल्यान देवळाकडेन वतात, नाचतात तें पळोवन आवयच्या तोंडार हांसो फुलतालो. शिगम्याक नवे कपडे घालून निशाणे वांगडा भुरग्यांनी नाचप. पुनवेच्या गड्या जात्रेक तर ल्हान ल्हान भुरगीं उदयकाकान शिंविल्ल्या कपड्यांची जायरात करतालीं. उदयाक तितलीच खोशी जाताली. वाड्यावयले कपडे शिंवतां शिंवतां तो गांवभर फामाद जालो. आतां तो व्हडल्या चलयांचें माप घेवंक लागलो. चलयो आपले सायजीचे पोरणे कपडे जोकाक दिवन नवे कपडे शिंवतालीं. जोक दिलें की उदय रोखडेच कपडे शिंवून रेडी करतालो. एक दीस धा वरांचेर तिडकीन एक चली भितर सरली. टेलर शर्टाक शिलाय मारतालो. ताणें ते चलयेक बसपाक सांगलें. 'आपणाक बसपाक टायम ना. दोनांक लग्नाक पावूंक जाय. काल हांवें हो ड्रेस शिवून व्हेल्लो. तो आंगार चडना.' अशी ते चलयेची कागाळ. तें तिडकीन उलयतालें आनी उदय मुकाट्यांनीं आयकतालो. आंगार चडना म्हळ्यार कितें जाता तें सांग! असो उदयाचो प्रस्न आयकून ताका आनीक राग आयलो. 'आतांच आपलो ड्रेस सारको करून दी.' चलयेन परत रागान सांगलें. आंगार कसो चडना तें उदयान दाखोवपाक सांगलें. नवे कपडे घालून दाखयतलें जाल्यार उदयाकडेन कपडे बदलपाक दुसरी कूड ना. तीन बाय दोनाचो उदयालो टेलरींग रूम. ताका चेंजींग रूम आनी खंय आसतलो! कपडे घालून दाखयना जाल्यार टेलर परत सारकी शिलाय मारिना. ताका तर लग्नाक वचूंक जाय. टेलराच्या फाटल्यान रावून ताणें आपले कपडे काडले आनी नवे कपडे घातले. 'हें पळय अशें जाता.' ताचीं उतरां आयकून टेलरान फाटल्यान वळून पळयलें. तो पळयत रावलो. चुडीदाराचो टॉप ते चलयेचे छातयेवेल्यान देंवना. चुडीदारा सकयलें ताचें तें उगडें आंग कांय वेळ पळयत रावलो. ताका कांयच सुचना जालें. 'म्हाका हें लूज जाय' चलयेचीं उतरां आयकतांच उदय उठलो. ताचीं हाताचीं बोटां थरथरूंक लागलीं. ताणें आपली टेप फाटीवेल्यान चलयेच्या खाकेंतल्यान काडली. पूण दुसरें पोंत छातयेक तेंकयतलो जाल्यार ताचे हात थरथरपाक लागले. 'बेगीन जोक घे. म्हाका कळाव जाता.' अशें म्हणटांच उदयान जोक घेतलें. दोळ्यां मुखार ताका तें उगडें आंग दिसतालें. इतले कपडे शिवले तरीय ताका अशें केन्नाच जावंक ना. उगड्या पोटाचें जोक घेतना ताचीं बोटां चलयेचे बोमलेक लागलीं. ह्या स्पर्शान ताच्या आंगार कांटो फुलता. चलयेचीय छाती वयर सकयल जावंक लागली. उदय खुर्चेर वचून बसलो. चलयेन कपडे काडून दिले. शिलाय सोडून ताचे कपडे परत सारके करून दितगीर ती चली वचपाक गेली. ते चलयेची ओड उदयाक लागली. परत तें चित्र ताच्या दोळ्यां मुखार उबें रावलें आनी तो आपल्याकूच लजलो. सद्दां



तो ताची वाट पळयतालो. तें परत आयलेंच ना. वचून मेळटलो म्हळ्यार ताका ताचो पत्तोय खबर ना.

दिसां फाटल्यान दीस वताले. उदय ते चलयेक विसरूंक ना. उदय कपडे शिंवता. मशिनाचो कट कट कट आवाज चालूच आसता. भायर कावळो कांव कांव करता. हो आनी कित्याक आड्‌डेता अशें म्हणटांच मशिनाची वादी तुट्टा. तेवटेन कावळ्याचें रडप चालूच आसता. कपड्या तिराची दुसरी वादी तो चाकार चडयता. मशीन परत सुरू जाता. फुडल्यान एक मोटरसायकल थांबता. फाटल्यान बसलेली चली देंवता. उदयाचें लक्ष ताचेर वता. तीच चली. मोटरसायकलीन ताका घेवन आयला तो भुरगो कोण? इतलें येवजीता म्हणसर चली ताच्या फुड्यांत पावली. ताणें एक पिशवी उदयाकडेन दिली. ''हो ड्रेस म्हाका फुडल्या आयतारा शिंवून जाय.'' उदय ताच्या तोंडाकूच पळयत उरलो.

''फाटल्या फावटी जाल्लें तशें ह्या वेळार जावंक जायना.''

· चलयेक कितेंय सांगचे पयलीं उदयान आपली तकली सकयल घातली आनी ताणें दिल्ली पिशवी उगडून पळयत 'बरें' म्हणून सवकास जाप दिली. परत तकली वयर करून पळोवपाचें धाडस ताच्यांत जालें ना. कितेंय विचारतलो म्हळ्यार ताचें काळीज धडधडपाक लागलें. वोंठ थरथरत ताच्या तोंडांतल्यान उतरां सुटूंक लागलीं. ''तुजे वांगडा आयला तो कोण?'' ताचीं उतरां सोपचे पयलींच मोटरसायकल सुरू जाल्ल्याचो आवाज ताच्या कानार पडलो. तकली वयर काडून पळयत जाल्यार तें मोटरसायकलीर बसलां. तो कोण? ताचो बॉयफ्रेंड! मनांत एका फाटल्यान एक विचार येताले. ताणें पिशवी उगडली. जोकाक दिल्लो चुडिदार काडलो आनी दोनूय हातांनीं घट्ट आवळून आपलें तोंड तातूंत लिपयलें. कितलोच वेळ तो तसोच रावलो.

आतां उदय आयताराची वाट पळयता. ताणें सांगिल्ले प्रमाण आयताराक तें आपलो ड्रेस व्हरपाक येतलें. अकरा जालीं. बारा जालीं. काळजाची धडधड वाडोवपी चली येवंक ना. ताचें लक्ष समोरच्या झाडार वता. फाटल्या वेळार कांव कांव करपी कावळोय आयज ताका दिसना. सोयरीं येतलीं जाल्यार कावळो पयलींच येवन रडटा असो आईचो समज. ही अंधश्रध्दा आसूं येता. सदांच कावळो रडटाच असो ना. उदयान मनाक समाधानी केलें. दनपारचो जेवणाक वचून आयज तो रोखडोच परतो आयलो. दनपारचें तें आयलें जाल्यार परतें वतलें हाचो ताका हुस्को. चलयेक मेळून ताचे लागीं उलयतलों अशें ताणें थारायलें. सांज जाली. तें कपडे व्हरपाक येवंक ना आनी ताणें कोणाक धाडुंकूय ना. शेटर ओडून चावी करच्या पयलीं उदयान रस्त्यार एकदां नदर मारली. तें दिसलेंच ना. थोडो वेळ ताची वाट पळोवंची अशें ताका दिसलें. ताचें कितें जालें? येता म्हुण सांगून तें कित्याक येवंक ना? एकार एक प्रस्न तकलेंत घोळटाले.

उदासकायेन ताणें आयताराची रात घालयली. सकाळीं अर्दवर बेगीनूच शटर उक्तें केलें. ताणें नवो शर्ट शिंवपाक घेतलो. खडवाची वाकडी लायन वता. ताचें लक्ष त्या कपड्यार ना. तो वाट पळयता तीच चली समोरच्यान ताकतिकेन चलून येता. ताच्या चलण्यावयल्यान ताका घाई आसा अशें उदयाक दिसता. फाटल्या वेळार ताणें शिंविल्लो तोच चुडिदार तें घालून आयलां. ह्या चुडीदाराक लागून उदयाक तें आवडलेलें. फुडल्यो यादी ताच्या दोळ्यां मुखार उब्यो जाल्यो. तो मनांतल्या मनांत हांसलो. फाटल्या यादींनीं ताच्या काळजांत घर केल्लें. तो ताकाच पळयत रावता. तेंवूय ओगीच उबें रावता. ताणें आपले कपडे मागले. उतरां आयकून उदय भानार आयलो. हां हां हां म्हणीत तो परतो ताका पळयत रावलो. ''तूं चलत आयलां?'' असो हळूच ताणें प्रस्न केलो.

''हय आयज भाई घरा ना म्हणून म्हाका चलत येवचें पडलें.''

''फाटले फावटी आयिल्लो तो तुजो भाव?'' उदयाच्या प्रस्नाक जाप दितना 'हय' म्हणीत ताणें मान हालयली. ते चलयेचो हात हातांत घेवन, ''म्हाका तूं आवडटा.'' अशीं उदयाचीं रोकठोक उतरां आयकून तें स्तब्ध जालें आनी लजलें. नदरेक नदर मेळपाची बंद जाली. मान सकयल घालून तिरपी नदर उदयाचे हालचालीर थिरावली.

''हांव मंदा!''

नांव आयकतांच उदयान ताचे कपडे ताचे सुवादीन केले. 'म्हाकाय तूं आवडटा' म्हणत ताणें पयशे मशिनार दवरून तें भायर सरलें. उदयाचें लक्ष मंदाचे फाटीर खिळून आशिल्लें. जितलें पयस मंदा दिसतालें तो मेरेन तो ताका पळयत रावलो. उदय मोगाचे वाटेवयले यादीन गुस्पटत गेलो आनी मोगा वाटेर मंदा चलत गेलें.

■

– विनोद गावडे

बांदोडा – फोंडा. मो. : ९८२३५४७०४७



- गजानन जोग



## ओह माय गोंय

# तरण्या रगताचें ६ दुस्मान

ह्या खिणाक गोंयकार घराब्यांनी जंय जंय तरणीं भुरगीं आसात, थंय थंय सगल्यांत व्हड प्रस्नाचेर आवय-बापाय भितर, जंय आजो-आजी आसात, थंय तांचे भितर उकतेपणान जांव भितल्ले भितर एक चर्चा चलत आसा. तरण्या भुरग्यांचें कशें जावपाचें?

तसो भुरग्यांच्या भवितव्याचो विचार सदांच सगल्याच पालकांक करचो पडटालो, आतां पडटा आनी फुडेंय पडटलो. पूण आमची ही घडीच अशी आसा, भुरग्यांच्या फुडाराचो विचार करतना न्हयकारी विचारांचो कांच मनार सगल्यांत पयलीं येता. बाबू शाळा-कॉलेजीचें शिक्षण सारकें घेतलो मूं? बाबू वाळेस जावचो ना मूं? ताका नाकाशिल्लीं वेसना लागचीं ना मूं? वायट मार्गार पावल्यार, वेसनांचे भकीक पडल्यार आमकां तें वेळारूच कळटलें पूण? भुरगो फुकट वचचो ना मूं?

कित्याक तर आमच्या समाजांत जें कितें चल्लां तें वाडट्या पिरायेच्या, चडट्या रगताच्या आनी जिणेविशीं सगलें सगलें जाणून घेवपाची उमळशीक आशिल्ल्या अलोव्लित मनाच्या भुरग्यां खातीर सामकें लुसकानी करपी जावन आसा. कांय आडवाद सोडल्यार मायज-उण्या फरकान हें सगल्या धर्माच्या, सगल्या समाजीक, अर्थिक पांवड्यावेल्या भुरग्यांक लागू जाता.

तरणेपणांत पावली मारपी चलयांची परिस्थिती जाल्यार हाताळपाक आनिकूच गटखळ जाल्या. चली जल्माक आयली म्हण्टकत तिचे खातीर भांगर-शिंगर करून दवरपाची चिंता सुरू जाता आनी ती धा वर्सांची जांवचे आदींच पालकांक चड करून आवयेक दिशींदिशीं तरतरांचे प्रस्न सतावपाक लागतात. बाबूक जें सहजपणान करपाक मेळटा तें आपणाक कित्याक तुमी दिनांत हें जेन्ना बाय विचारता तेन्ना कोणूच ताका पटपा सारकें सांगूंक शकना. चलयांनी विचारिल्ल्या प्रस्नांक घरांत, विद्यालयांत फाव ती जाप मेळना.

कांय घरांनी ह्या प्रस्नांकडेन पालक दुर्लक्ष करून देवाक काळजी म्हणत, गांवार आयलां तें घराक चुकता अशी स्व समजूत काडीत वेळ मारून व्हरतात, जाल्यार कांय पालक भायलें वारेंच नाका अशें थारावन घरांत भितल्ले भितर दामून दपटून दवरिल्ली, सदांच खालते मानेन चलपी चली एक दीस घरांतल्यान नाच्च जाता. फोनाफोनी, सोद, रडारड, पुलीशेंत कागाळ, घरांतल्या घरांत-तूंच! तुकाच लागून! अशे तरेचे आरोप-प्रत्यारोप. तिचो सोद कसोच लागना आनी निमाणी चलीच कांय तेंपान आपूण जावन फोन करून सांगता, हांवें अमया वांगडा लग्न केलां, जावं करपाचीं आसात, हांव बरें आसां, तुमी काळजी करूं नाकात, सॉरी, म्हजेर राग धरूं नाकात. भ भ भांगरांतलो, शि शि शिवणीतली करीत केल्ली तयारी नदरे मुखार नाका जाता आनी ती शेवटून भायर मारपाकूय जायना.

घराची धर्मशाळा जावं बंदखणूय जावपाक जायना. आयच्या बाबा-बायक आजी-आजो मेळना, भांवडां मेळनांत, मागीर हेर साबार नात्यांची गजाल विसरपाचीच. घरांत तीन-चडूच जाल्यार चार मनशां. तांतूतय, चार मनशांचीं तोंडां चार दिकांक अशी अवतिकाय जालीच जाल्यार चडवेळ ती तिगपाक जायना. वयान सगल्यांत व्हड अशा घरांतल्या मनशानीच- पालकांनीच तडजोडीक फुडो करूंक जाय. ते खातीर सॉरी, माफ करात हीं उतरां भुरग्यां खातीर मुजरत वापरूंक जाय. भुरगीं हीं सैमाची देणगी. भुरग्यांच्या रूपान आमगेर फुलां फुल्लीं हेंच व्हडलें भाग्य. तांकां भाटभेंसां भशेन आमच्या नांवार करून तांचेर मालकी हक्क लावपाक, आपणालीं त्या त्या तेंपावेलीं भग्न सपनां फळाक हाडपाचें व्रत भुरग्यांच्या माथ्यार कित्याक? त्याच न्यायान, आमकां आमच्या भुरगेपणांत कांयच धड मेळूंक ना, आमच्या हातांत आसा न्हय पयसो, आमी तांकां कांयच उणें पडूंक दिवपाचीं ना. अशी प्रतिज्ञा करीत आनी हेर पालकां कडेन सर्त करीत प्रसंगाक संवसाराच्या अर्थिक नियोजनाचो विचार करी नासतना भुरग्यांनी अमकें एक जाय म्हणना फुडें पालक प्रोंत म्हण्टात! कसलें हें पिशेपण? अशे तरेन पालक आपणाल्या अहंकाराक सांसपितां सांसपितां भुरग्यां भितरूय ती हांव हांव ची कीड अचळय सोडटात. पिगी बँकेंत भरपा खातीर आठवेंतल्या भुरग्याक तो मागता, ताणें इश्टांक हाडटां म्हूण सांगलां देखून ताका हजारांनी रुपया दिवपी पालक हांवें पळेल्यात.

खरेलेपणान चांटे पावलाक भुरग्यांचेर बरे संस्कार करपाची संद भुरगींच पालकांक दितात, तांच्या प्रस्नांक फावो त्यो जापो दिवन हें कार्य त्या त्या वेळार करपाक जाय. तांचे कडेन

दियार, चुकनासतना संवाद सादपाक जाय. शाळेंत कितें जालें तें भुरगीं ल्हान आसतना सांगपाक आवयक लागीं बसोवन घेतात. फुडें भुरगीं व्हड जातात तेन्ना तांकां कांयच सांगपाचें नासता काय कितें? आमी विचारल्यार तीं सांगतलीं न्हय!

आमी थोड्या दिसांच्या संस्कार वर्गांत भुरग्यांक घालून जें कितें दोन आणे संस्कार चुकून माकून घरांत येतात, ते संस्कार, पालकांचें निरिक्षण भुरगीं सेगीत करीत आसतात. ताका लागून कापूर कशे उडून वतात. निरिक्षणांतल्यान भुरगीं शिकतात, वळखतात, जोखतात. पंदरा वर्सां जावचे आदींच भुरगीं पालकांचें पाणी जोखतात, कारण पालकांचें वचन आनी वर्तन हातूंत जो हिसपा भायलो फरक आसता तो तीं भुरगीं ज्युस्ताज्युस्त तर्जून पळयतात. खलील जिब्रान म्हण्टाच, आमचीं भुरगीं म्हळ्यार आयचे आवय-बापूयूच.

पांच वर्सां भितरल्या भुरग्याचोय अपमान जाता, हें लक्षांत दवरपाक जाय.

सद्याच्या काळांत वाडट्या भुरग्यां मुखारचे प्रस्न वाडल्यात. एका परस एक चांडाळ अशे उणेच ते ६ दुस्मान-षड्रिपू - तांकां गिळपाक आं करून आयज उबे आसात. दर वर्सा लाखांनी दुडू मोडून नरकासुराची धुमशाण परब गोंयांत मनयतात, नरकासुराच्यो सर्तीय आसतात आनी व्हडलीं व्हडलीं बक्षिसांय आसतात. नरकासुराच्या जाग्यार तरण्या रगताक लागपी ह्या ६ दुस्मानांची लासून होळी करपाची सर्त खरें म्हळ्यार आमी हाचे फुडें दवरपाक जाय. ह्या वर्सा सावन ही सर्त दवरूया.

**तरण्या रगताचे ६ दुस्मान:**

१. बादिकारी खाण (जंक-फू ड) आनी बाटली बंद थंडपेयां,

२. विडी-सिगार-जर्दा-गुटखो

३. मटको-जुगार(कॅसिनो)

४. कशशेय तरेन, शॉर्टकट वापरून बेग्गीन गिरेस्त जावप

५. बेजबाबदार रितीचे मौनसंबंध

६. नशेचीं साबार द्रव्यां (घुंवळीचीं वखदां). हेर पारंपारीक द्रव्यां आनी वखद म्हुण घरांत जावं उद्देगीक मळार इनपूट म्हुण वापरतात तीं कांय रसायना हातूंत येतात.

ह्या सगल्या दुस्मानांक नानपयत करपा खातीर होमिओपथी करता ते भशेन मुळासावन उपाय करपाची गरज आसा. पोलियो ना करपाक जमता पूण ह्या सगल्या दुस्मानां वांगडा झगडपाक- न्हय तांकां कीं-कोंत करपाक आमी भुरग्यांक शिकोंव शकतात. बेठींच बोटां दाखोवन सरकाराक, पुलिसांक, भुरग्यांक, देशी-विदेशी भोंवडेकारांक, आनी शेकीं वट्ट समाजाचेर दोश थापून कांयच जावपाचें ना. हे रिपू तशेतरेन बदपाचे नात. रीण, उजो आनी दुस्मान ह्या तिगांकूय सोंपयतना ते सारके सोंपल्यात कीं ना हें जतनायेन पळोवपाचें आसता. इल्लोसोय शेष उरल्यार तो रोखडोच वाडटा. किटीचो कवदो जाता, उरिल्ल्या कळंतराचें कालांतरान मुदल जाता आनी दुस्मानाक ल्हान समजुपी मनीस नानपयत जावन वता.

एक लक्षांत येता, भुरगीं वाडटा आसतना त्या त्या पावंड्यार तांकां ते ते तरेचें मुळावण, संरक्षण, संवर्धन मेळचें पडटा. पालक, शिक्षक, पुस्तकां एके वटेन आनी भुरगीं दुसरे वटेन. दोगांय मदल्या संवादांत अंतर, घडये हे दोनूय युनिट एकमेकांक स्पर्धक कशे समजतात. दोन पिळग्यांतलें अंतर तशेंच उरता, वाडत वता आनी ताका लागून आदीं पालक आनी मागीर भुरगीं एकमेकाक तूं वगी राव, तुका हातुंतलें सारकें कांय कळना अशें म्हण्टात. भुरगीं जाल्यार ज्या मापान घेतल्या त्याच मापान, जमल्यार सवायकेन दिवपाक तयारूच आसतात!

घराचें घरपण वचत आसा, आमची सुवात हांव घेयत आसा. घरा घरांत तीन चार हांव आसतात. आमी खंयचे धोलींत वचून बसल्यात कोणाक खबर!

भुरग्यांच्या फुडाराचे नदरेन समाज-सांखळेंतलो सगल्यांत पयलो म्हत्वाचो दुवो जें घर तेंच उबंत पडपाक लागलां.

दुसरो म्हत्वाचो दुवो विद्यामंदीर. थंय विद्या, मंदीर असलीं उतरां उच्चारल्यार लेगीत तुमचेर पुराणमतवालो असो जावं तसलोच कसलो तरी छाप बसलोच बसलो.

धा धा बारा बारा वर्सां भुरग्यांक बांकार बसोवन फाटीक पोंक, मनाक कोफुजांव आनी आत्म्याक भंय बरे भशेन घाला हें सांगपी सर्तफिकीट नांवाचो कागदा कुडको दिवपाचे कारखाने सरकारी कोशांतल्यान मेळपी द्रव्यांतल्यान चलत आसात, चलत रावतले. मानाचे आडवाद आसात, तांकां विद्यामंदिरां म्हण्टात. थंयच्या सगल्याच विद्येच्या पुजाऱ्यांक काळजा थावन प्रणाम. तांच्या हाताखाला शिकून गेल्ले भुरगे जगार खंयूय आसूं, तांचें नांव सांगतात आनी समाजांत केद्याय व्हडल्या स्थानार पावले जाल्यारूय आपणाल्या शिक्षकां मुखार पावतात तेन्ना तांच्या चरणांक हात लावपाक नमळायेन बावगतात.

भुरग्यांक ह्या विक्राळ दुस्मानांपसून फाव तें कवच - इन्स्यूलेशन दितले जाल्यार घर, विद्यालय आनी हेर संपर्क माध्यमांतल्यान आर या पार तरेचें अभियान चलत रावपाक जाय.

एक सुरवात हे नदरेन गोंयच्या विद्यालयां भितर एक अभियान, येता त्या शिक्षणीक वर्सा सावन चलोंव येता. गांजो, अफू, चरस, ब्रावन शुगर, एम्डीएम्मए, एलएसडी, कॅटमीन असलीं नशेचीं द्रव्यां फाव ती जतनाय घेवन भुरग्यांक दाखोवपा खातीर प्रयोगशाळांनी हाडूं येतात. तीं दाखोवन तांचे पासत मनशाक कसलें वेसन लागता, तो कसो सोंपता हें दृकश्राव्य माध्यमांचो वापर करून, रसायणतज्ञ, पुलीस हांचे मार्फत भुरग्यांक समजावन दिवप शक्य आसा. पुलिसांकडेन वाहनां आसतात, तांणी फुडें सरून फाव ती येवजण तयार करून हें एक अभियान कशें चलोंव येता. पालक संघांक तातूंत आस्पावन घेंव येता. निमाणे एक आसा, हावको हावको म्हण्टात तो कितें तो कसलो आसता हें जाणून घेवपाची उमळशीक भुरग्यांक जल्मा वांगडाच मेळटा. ज्ञानाचीच भूक ती. सगल्या भंयांचें, तातुंतल्यान उप्रासपी अनर्थाचें कारण गिन्यानाचो उणाव हेंच चडशें आसता.

■

**- गजानन जोग**

ताळगांव- गोंय. मो. : ९४२१२४६६५५





**लेखकान जाय जाल्यार समाजांतल्या प्रस्नांचें प्रतिक म्हुण विंचूय वापरू येतालो. पूण विंचू शेवटोच डंक मारता. समाजांत प्रस्न एकदम उप्रासना, ते वागोणे सारके पयलीं ख्वांचिनी रिगता आनी अती जातकूच डंख मारता. हांगा लेखकाक खरीच दाद फावो.**

गरनाल

- कृ. म. सुखठणकार



# बाबूचे चेड्डेंत वागोणी वता - एक चिंतन!!!

**बा**बूचे चेड्डेंत वागोणी वता (लेखनकाळ : वर्स २०१०) ही बाब दिलीप बोरकार हाणीं बरयल्ली कथा. आमकां बोरकारी दिवपी दिलीप बाबान हे कथेंतल्यान चंगळवाद (MATERIALISM) सारक्या गंभीर विशयाक हात घाला त्या खातीर तांकां परबी फावो जाता. ही कथा वाचल्या बरोबर मन अस्वस्थ जाता. हे अस्वस्थतायेंतल्यान म्हाका दोन उतरां बरयन दिसलीं.

दिलीपबाब तांचे विनोदी शैली खातीर फामाद. ताणीं 'बाबूचे चेड्डेंत वागोणी वता' ही गंभीर विशयाचेर कथा कित्याक बरयली हो पयलो प्रस्न. हाचे पयलीं अशें करपी लेखकांचीं उदारणां ना अशें न्ही. देखीक, खुशवंत सिंग. सरदारजीन, *MORE MALICIOUS GOSSIP* सारके विशय हाताळ्ळ्यात. तेच बरोबरीन *TRAIN TO PAKISTAN* हें भारताचे फाळणीचेर आधारिल्ली गंभीर कादंबरीय बी बरयल्या. आतां सरदारजींची वळख हेच कादंबरीवेल्यान जाता– *ONE OF INDIA'S BEST KNOWN AUTHORS AND JOURNALISTS KHUSHWANT SINGH ELEVATED ENGLISH WRITING IN INDIA WITH UNINHIBITED WIT AND HUMOUR AND WAS EQUALLY FACILE WITH HIS PEN ON SERIOUS ISSUES LIKE PARTITION IN THE CLASSIC 'TRAIN TO PAKISTAN'.*

'बाबूचे चेड्डेंत वागोणी वता' हे कथे नंतर दिलीपबाबाची वळख अशीच हे कथेवेल्यानूच जातली. राजूबाबान एके कडेन म्हळां *दिलीपाचें सगळें साहित्य तागडेच्या एका दाल्यांत घालें आनी दुसऱ्या दाल्यांत बोरकारी घाली जाल्यार बोरकारीचें दालें जड जातलें* (तुमकां सोदपाक त्रास जावचो न्हय म्हुण सांगतां बोरकारीच्या फाटल्या कवरार दिलीपबाबाचो उबो फोटो आसा ताचे कुशीक हें राजूबाबान म्हळां). खरें तें. म्हाका तेन्ना नाका थंय बोरकारी याद जाताली. म्हज्या लग्ना दिसा लेगीत हांव बोरकारी वाचून लग्नाक उबो राविल्लों. ही म्हाका माळ घालतना, 'काड एक्स मार आंब्यार पडलो जाल्यार आंबो पडलो ना जाल्यार एक्स गेलें', हें म्हाका कित्याक याद जालें खबर ना. हांव मुमुरख्यांनी हांसलों. हांव मुमुरख्यांनी हांसतकच हिच्या फाटल्यान साडयो न्हेंसून उब्यो आशिल्ल्या भावी व्हकलांचे दांत चकचकले. हिचो कितें गैरसमज जालो खबर ना हिणें माळ घालतना पॉज शी घेतली. म्हाका कच्च जालें, लग्नाक हजार विघ्नां. फुडें तशें घडलेंना तें सोड. अशी ही बोरकारी! पूण आतां आमकां अशें म्हणचें पडटलें, दिलीपबाबाचें सगळें साहित्य, धरुन बोरकारी एका दाल्यांत घालें आनी दुसऱ्या दाल्यांत 'बाबूचे चेड्डेंत वागोणी वता' ही कथा घाली जाल्यार दुसरें दालें जड जातलें. आतां आमी कथेकडेन वळुया म्हणचे हांव अशें कित्याक म्हणटां तें तुमकां ज्यूस्त कळटलें.

कथेची सुरवात दक्षिण आफ्रिकेंतल्या सॉकर सिटी स्टेडियमार १९वे फिफा संवसारीक करंड फुटबॉल सर्तीची फायनल चलता हाणें जाता. ती पळोवपा खातीर लेखकान आपल्या घरा व्हडली स्क्रीन लावन प्रॉजेक्टरा वरवीं पळोवपाची सोय केल्या. ती पळोवपाक घरचीं, शेजारीं पाजारीं जमल्यांत. इतल्यांत हॉलांत एक वागोणी भितर सरता आनी बाबूचे चेड्डेंत वता, अशी ही कथा. पळोवपाक ही सादी गजाल दिसली तरी तशी ती सादी न्हय हें रोखडेंच लक्षांत येता. लेखकान हांगां SYMBOLISMचो सुंदर वापर केला. SYMBOLISMचो वापर करपाक तशी कळाशी जाय. ह्या लेखान SYMBOLISM हाताळटना लेखक आपल्या अणभवाची खोलाय दाखयता. आनी ह्या कामांत ते खंयच कमी पडनांत अशें हांव म्हणन. SYMBOLISM EXISTS TO ADORN AND ENRICH NOT TO CREATE ARTIFICIAL

SENSE OF PROFUNDITY अशें फाक्किंत लेखक स्टीफन किंग हाणीं म्हळ्ळां. हाचो अणभव आमकां कथा वाचतना येता. SYMBOLISM आमकां चडसो पद्यांत दिश्टी पडटा. गद्यांत खूब कमी. देखीक, GEORGE ORWELL हांचें ANIMAL FARM. *ANIMAL FARM IS AN ALLEGORY FOR THE RUSSIAN REVOLUTION.* मान्य. पूण तातूंत SYMBOLISM अती जालां अशें म्हाका दिसता. NAPOLEAN - JOSEPH STALIN, SNOWBALL-LEO TROTSKY, OLD MAJOR- KARL MARX. कितलीं पात्रां! कितलीं प्रतिकां! तकली जड जाता. वाचप्यांचो सगळो घुस्पागोंदळ जाता. दिलीपबाबाची बाबूचे चेड्डेंत... ही कथा हे बाबतींत उजवी थारता. ही कथा मुळांतूच सुटसुटीत आनी लेखक प्रतिकां वापरुन दुखण्याचेर ज्यूस्त बोट दवरता.

पड्ड्याचेर चलपी फुटबॉल मॅच हें चंगळवादाचें प्रतिक (SYMBOL)

वागोणी– चंगळवादा पसून उप्रासिल्ल्या विंगड विंगड प्रस्नाचें प्रतिक.

घरची मंडळी आनी शेजारीं पाजारीं– चंगळवादान बरबटिल्ल्या समाजाचें प्रतिक.

जेन्ना समाज चंगळवादांत गूंग जाता तेन्ना वागोणी रुपी समाजांतल्यो समस्या आमचे चेड्डे मेरेन पावता तरी आमकां ताचें कांय दिसना हो विचार लेखकान हांगा सुंदरपणान मांडला. हो विचार मांडटनाच लेखकान आनीक एक गजाल आमकां दाखोवन दिल्या ती तितलीच विचार करपा सारकी. ती आमचे नदरेंतल्यान सुटल्यार हे कथेचेर अन्याय जातलो. ती गजाल म्हळ्यार जेन्ना समाजांत कसलेय प्रस्न उप्रासतात तेन्ना ताची सुलूस बायलांक पयलीं लागता आनी बायलांच त्या संकश्टांक तोंड दिवपाक पयलीं फुडें सरतात. हे दृश्टीन आमच्या देशांत नदर मारल्यार मेधा पाटकर, किरण बेदी, अरुंधती रॉय हींच नांवां फुडें येतात. समाजांतली कसलीय समस्या हींच उखलून धरतात आनी तांचो सुटावो करपाक बायलांच वावुरतात. ही गजाल दिलीपबाबाच्या कथेंतल्यान स्पश्ट जाणवता.

वागोणी पयलीं तुकीकूच दिसता आनी तें जिवाच्या आकांतान आड्डून सांगता *'वागोणी वागोणी.'* लेखकाच्या पोटांत दोन बियरी गेल्ल्यान ताका ताचें पडून वचना. भुरग्यांच्या तर किळच्यांनी, शिळोवण्यांनी तेंगशी गाठिल्ली आसता, तांकां दादलेय सांगात दितात. फुडें लेखकान SARCASM बेस बरो वापरला. तो बरयता– वागोणी नांवाचो कोणूच खेळगडी खंयच्याच पंगडांत नाशिल्लो. सगळ्यांक दिसलें तुकी सपनांत आड्डता. वयर बरयलां तशें बायलांक ह्या संकश्टाची जाणीव पयलीं जाता आनी तीं फावो तशी जतनाय पयलीं घेतात. लेखक बरयता, *कुलच्यांवाचेर लवंडल्ल्या बायलां भितर मात मातसो आकांत आयलो. वागोणी ती. मातशी खांच दिसल्या बराबर कशी कोण जाणां कळनासतना भितर घुसता आनी नाच जाता हें अणभवान तांकां खबर आशिल्लें. तेच पासत भानगड नाका म्हुण ताणीं कुलच्यांव सोडलें आनी उबीं रावून मॅच पळोवंक लागलीं.* वागोणेच्या गूण धर्माचो लेखकान बारीक अभ्यास केला आनी ताचो परिणामकारक वापर हे कथेंत केला अशें म्हाका दिसता. लेखकान जाय जाल्यार समाजांतल्या प्रस्नांचें प्रतिक म्हुण विंचू वापरु येतालो. पूण विंचू रोखडोच डंख मारता. समाजांत प्रस्न एकदम उप्रासना, ते वागोणे सारके पयलीं खांचिनी रिगतात आनी अती जातकूच डंख मारतात. हांगा लेखकाक खरीच दाद फावो.

हांगा हांव मात्शें विशयांतर करतां पूण हे कथेची खोलाय कळपाक तें गरजेचें. UNITED NATIONS तुकी भशेन आड्डून सांगता की ग्लोबल वॉर्मिंगाच्या आड फावो तीं पावलां उखलात पूण हे कथेंतल्या पड्ड्या वयली मॅच पळोवपी मंडळी सारकें सगळें जग भेड्डें जालां. शेवटीं UNITED NATIONSन खेदान म्हळां IT DOES NOT COST THE WORLD TO SAVE THE PLANET.

आतां परत आमी हे कथेकडेन वळुया. ही कथा चंगळवादा आड आसा हातूंत दुबाव ना पूण ती अध्यात्मा कडेन झुकना हेंय आमीं लक्षांत घेवपाक जाय. हें कळपा खातीर आमीं लेखकाची पाठभूंय समजून घेवपाक जाय. लेखक दिलीपबाब दावे विचारसरणीचे आनी तांचेर मार्क्साचो खूब प्रभाव आसा अशें म्हाका तरी दिसता. हें तांच्या खाडा कडेन पळोवन हांव बरयना. हें, लेखक आपले लेखणींतल्यान दाखोवन दिता. ताणीं तें खंयच लिपोवन दवरूंक ना. देखीक, तांची 'तेलगुळे' (लेखन काळ २०११) ही कथा घेवया. हे कथेंत श्रीधरन हें पात्र गोंयां येवन कसो गब्बर जाता हें दाखयलां. हे कथेंतल्यान लेखकाचो भांडवलशाही (CAPITALISM) विशीं तिरस्कार उगड दिसता. हो लेख वाचतना मार्क्स विचारसरणी पावला पावलाक जाणवता. तातुंतल्या तातूंत मार्क्साचो एक विचार CAPITAL IS DEAD LABOUR WHICH VAMPIRE LIKE LIVES ONLY BY SUCKING LIVING LABOUR AND LIVES MORE THE MORE LABOUR IT SUCKS हो विचार हे कथेंतल्यान फुडें आयला. श्रीधरन आपल्या तेलगु देशम बांधवांक आपली वळख दाखय नासतना सगळो वेव्हार कसो हिंदींतल्यान करता आनी तांच्या नाड्यार कशे कोटी जोडटा तें हे कथेंतल्यान दाखयलां. गरीब मजूरांचें शोशण करपाचे प्रवृत्तीचेर लेखकान बडी मारल्या.

'बाबूचे चेड्डेंत वागोणी वता' हे कथेंत स्पेना आड हॉलन्ड पड्ड्यार चलपी फुटबॉलाची ही मॅच चंगळवादाचें प्रतीक अशें हांवें वयर नमूद केलां. आतां लेखकान हांगां स्पेन आनी हॉलन्ड हे देश वेंचले हो केवळ योगायोग? निखालस न्हय. लेखकान भारत पाक T20 फायनल दाखोंव येताली. लेखकान हे देश जाणीवपूर्वक वेंचून काडल्यात. ह्या देशांचेर नदर मारल्यार आमकां अशें दिसून येतलें की हे देश विसाव्या शेकड्यांत भांडवलशाही कडेन झुकूंक लागल्यात जेणे करुन चंगळवादाचे बळी ठरल्यात. हे कथेंतले संवाद सूचक आसात.ते लेखकान फावो त्या पात्रांच्या तोंडांत घाल्ल्यान कथेचो प्रभाव आनीक वाडटा. देखीक, समाजांतल्या प्रस्ना कडेन समाजाची उदासीनता संवादांतल्यान कशी प्रभावीपणान दाखयल्या ती पळेयात...

'खंय आसा? म्हाका दिसना मरे. कितें मारुं?'

'आगे, ओगी बस पळोवंया. हांव रामोसाक सांगतां गोल मार म्हुण!'

'मां कुशीक सर पळोवया. म्हाका फायनल पळोवं दी.'

खब पावटीं अशें जाता की मूळ समस्या जी आमकां भेंकडायता ती कुशीकूच उरता आनी आमी नाका आशिल्ल्या प्रस्नांक हात घालतात. लेखक हेंय आमचे नदरेक हाडून दिता. बाबूच्या तोंडांतलें हें वाक्य पळेयात...

'मां कितें करता? ती वागोणी न्हय म्हजी पोपोटी.'

आज चंगळवाद कॅन्सरा सारको सगळ्याक पसरला. ताचें मुखेल कारण म्हळ्यार आज दुसऱ्याकडेन आसा तें आपलेकडेन आसचें अशें सगळ्यांक दिसता. हाका लागून समाजांत जीवघेण्यो सर्ती लागतात. दिलीपबाबान हेंच दुखणें हे कथेंत उत्तम रितीन आमचे मुखार मांडलां. लेखक बरयता की बाबू आपले गोरे पिट्ट पोले तांबडो हळडुवो रंग घेवन रंगयता. तें पळोवन तुकी आनी पुतुलाकूय उर्मी येता. मागीर जण एकलो आपले पोले रंगोवपाच्या वावराक लागता आनी शेवटाक तर बाबूची मां लेगीत बाबूक ऑर्द सोडटा,

'बाबू आमकांय लाय मरे.'

हें जेन्ना आमी वाचतात तेन्ना काळीज हालता आनी मनांत आपशींच एक प्रस्न उप्रासता की ही सर्त आमकां खंय पावयतली? पूण आमी एक लक्षांत दवरपाक जाय की बाबू, तुकी, पुतुल हीं दुसरीं तिसरीं कोण न्ही तर तीं आमीच.

लेखकाक आमचीं धोंगां पोंगां खबर आसात. हे कथेंत तो तीं उक्ताडार हाडटा. हे विशीं एक देख दिवची जाल्यार, समाजांतल्या प्रस्नाची जाणीव दर एकल्याक आसता. ताचे दुशपरिणामूय बेस बरे खबर आसतात. पूण ताचेर खर पावलां उबारपाची मानसिकताय मात कोणाचकडेन नासता. दर एकल्याची अपेक्षा तीं पावलां दुसऱ्यान उबारचीं हीच आसता. हे कथेंत येसलीचो पाय कितें म्हणटा तो पळेयात...

'वागोणी इज व्हॅरी डेंजरस आं! म्हाका एकदां चाबली न्हिदेंत. रात भोर येग मात्ताले. यू मस्ट सर्च हर.'

निमणे लेखक आमकां शिटकायता, तो सांगता की ह्या चंगळवादाक आमी अशेच बळी पडले जाल्यार हे वागोणेचो ऑक्टोपस जातलो आनी ताच्यो टेन्टेकल्सांचो फांस जेन्ना आमच्या गळ्याक पडटलो तो काडप आमकां कठिण वतलो.

'अंकल ती वागोणी न्हय, तो ऑक्टोपस' अशें बाबू शेवटाक म्हणटा आनी कथा सोंपता. (हांगां लेखकाक 'ऑक्टोपस पॉल' अभिप्रेत ना हें सूज्ञ वाचप्यांच्या ध्यानांत आयलांच आसतलें).

आज कोंकणी साहित्याच्या मळार नदर मारल्यार सगळें साहित्य उथळ कशें दिसता. ताका वैचारीक बसका ना. 'बाबूचे चेड्डेंत वागोणी वता' ही कथा वाचतकच ही पोकळी आतां दिलीपबाब भरुन काडटले अशी आशा वाचकांच्या मनांत उत्पन्न जाल्यार ती चुकीची ठरची ना.

दिलीपबाबाचे लेखणेंतल्यान अश्योच कथा आमकां मेळूं आनी आमचेकडल्यान चिंतन घडूं !!

■

**– कृ.म.सुखठणकार,**
रायबंदर – गोंय. मो. : ९८५०५३०७५६

*म्हज्या कुळारचो गांव हो कुळागराचो गांव. सुरंगां, चाफीं, वोंवळां अशीं फुलां कुळागरांत फुलतालीं. ह्या फुलांचो सहवास म्हाका म्हज्या भुरगेपणांत तशेंच लग्नजायसर लाभलो हें हांव म्हजें भाग्य समजतां.*



- शर्मिला वि. प्रभू

# समर्पीत जीण तांची



**फु**लां! फुलां कोणाक आवडनांत? आपल्या घरा-दारा मुखार सोबीत फुलांचें पोरसूं उरचें, पोरसांत रंगयाळीं फुलां जशीं गुलाब, मोगरीं, धाल, चाफो आसचीं अशें सगळ्यांकच दिसता. नवें घर बांदलें काय त्या घरा दारांत तीं पयलीं खंयच्यातरी फुलांच्या झाडांची खांदी जावं रोपुलें लायता. फुलांचो सहवास मनीस जिणेकच न्हय तर पुराय संवण्या-सुकण्यांचे जिणेंतय तितलोच खाशेलो असो जागो घेवन आसा. पोरसांत फुलां परमळत, फुलत तर सवणीं, कोमले आनी भोंवरेय येवंक लागतात.

निरागस, सोबीत, मनमोहक, रंगयाळीं फुलां पळयतकच मन प्रसन्न जाता. त्या फुलांकय खबर आसता, सांजवेळ जाता म्हळ्यार तें बावतलें! तरीय जो मेरेन तांचें अस्तित्व आसा तो मेरेन तें सगळ्यांकच खोशी दीत रावता. सगळ्या सजीव जिवांचेर आपलो अधिकार गाजोवपी मनशांक हीं फुलां कितें संदेश दितात काय? वेळा प्रसंगार सुकण्या-सवण्यांचो अजिबात विचारय न करपी मनीस, जिबेचे लाड पुरोवपाक तांच्या जिवाची परवा करिनासतना तांकां मारून खावपी, जमनीक तोंड तेंकसर जगपाचो हांवेस बाळगुवपी मनीसजातीक हीं फुलां व्हड असो संदेश दितात. थोडेच दीस जगलें तरी जाता, कांय खिणांचें अस्तीत्व आसलें तरी उपकारता. पूण ह्या काळांत संवसाराक तूं कितली खोशी दिवंक शकता हेंच म्हत्वाचें. फुलां, तिंवय मोगरीं, जायो आनी खास करून वोवळां पळयतकच म्हाका म्हजे आवयची याद जाता. तिका वासाचीं फुलां खूब आवडटालीं. तांतल्या तातूंत वोंवळां तिचीं सामकीं प्राणप्रिय आसलीं. तिचें कुळारचें नांवय 'वोंवळ'. वोंवळां सुकलीं तरी ती माळटाली.

सकाळीं पासयेक वतना दुसऱ्यांच्या पोरसांतलीं फुलां कांय लोक दुर्गार गोळोव मारीत काडटात तें पळोवन म्हाका वायट दिसता. कित्याक म्हणून झाडां बुड्डूवन, फुलां पाकळ्यो पिसडून हीं फुलां तोडप? कांय लोकांक फुलां-झाडां रोवपाचो भोव घोस्त आसता पूण रोयतकच तांकां उदक घालूंक बेजार येता. तांतलेंच हांव एक. जूना म्हयन्यांक बरो पावस झडूंक लागलो काय म्हजें फुलां पिशें चंवरता! कोणेंय पोरसांतल्यो कापून उडयल्ल्यो झाडां खांदयो हांव हाडून म्हज्या पोरसांत लायतां. पुराय पावसाळो सोंपता म्हळ्यार म्हजें पोरसूं फुलां झाडांनीं भरून पांचवेंचार जाता. मागीर गिमांत त्या झाडांक उदक शिंपपाक इतलीऽ उबगण येता म्हण सांगूं! पूण जेन्ना ह्या झाडांर सोबीत फुलां फुलतात तेन्ना इतली खोस भोगता, तांकां उदक शिंपिल्ल्याचें सार्थक जाता!

मनीसजिणेंत ह्या फुलांचें खूबच म्हत्व आसा. मनीस जल्माक येत सावन मरऽपर्यंत आनी मरतकच लेगीत तांकां ह्या फुलांचो सहवास गावता. भुरगें पोटांत आसतना गुरवार बायलेक पयलेच खेप फुलां माळपाची पध्दत गोंयांत आसा. तरेकवार फुलांनी सजयिल्ल्या मखरांत तिका बसयतात. तिका फुलांचो सट घालून, मुकूट घालून एकाद्या कमळा सारक्या फुलांत उबें करून तिचो फोटू काडटात.ह्या फुलांवरी सदांच हांसत राव आनी फुलांवरी सोबीत बाळकांक संवसारांत जल्माक हाड!

भुरगें जल्माक येतकच तांकां पाळण्यांत घालतात. नांव दवरतात. तांचो बारसो करतात. त्या वेळार पाळण्याक सजयिल्लीं सोबीत फुलां मुमूरखींच हांसतात. जसो भुरगो व्हड जावंक लागता तसो 'काऊ, चिऊ' ह्या शब्दां वांगडा मागीर खंयतरी फुल दिसलें काय तो तें फुल पळोवन 'फुपां' अशें म्हणटा. तीं फुपां पिसडून उडोवंक ताका कोण आनंद जाता म्हण सांगूं! त्या पिसुडिल्ल्या फुलांच्यो पाकळ्यो सासपीत तो खोशयेन मुरगुट्टा!

एखादी पुजा आसूं नातर खंयचेंय देवकार्य. फुलांशिवाय त्या मंगलकार्याचें पानच हालना. वाढदीस जावं साखरपुडो, लग्न जावं लग्नाचो वाढदीस, फुलांची सजावट ह्या कार्याक चार-चांद लायतात.

'वेलेंटायन डे' म्हळें काय याद जाता सोबीत तांबड्या गुलाबांची. एखादे सोबीत अस्तुरेन पारंपारीक भेस करून बऱ्या नववारी कापडांचेर



सोबीत अशीं आंगभर भांगरां घालीं आनी आंबाड्यार जर एकादी मोगरे फाती ना तर ती आनीकय सोबीत कशी दिसतली? कार्यावळीक जावं एखाद्या सुवाळ्याक मानेस्तांक येवकार दिवंक फुलांचो तुरो भेटयतात. तुऱ्यांतल्या फुलांवरी मानेस्तांचें जिवीत सदां टवटवीत आनी आनंदीत उरचें. फुलांच्या सोबीत रंगावरी सप्तरंगान तांची जीण भरची हो मागीर संदेशय आमी तांकां तुरो दितना भेटयतात.

फुलां मनशांचें व्यक्तीमत्व फुलयतात. पंडित जवाहरलाल नेहरु सदांच कोटाक गुलाब खोयताले. कोटावेल्या गुलाबा शिवाय नेहरुंचो फोटो हें मनांक लेगीत पटना. एखादो व्हड, बऱ्या कर्मान नांवारुपाक आयिल्लो मनीस, जावं देशभक्त, जावं एखाद्या हुतात्म्याक मरणा उपरांत 'पुष्पचक्र' अर्पण करतात. ह्या वेळार त्या पुष्पचक्रांतलें फुलान-फुल ताच्या बऱ्या कार्याचो आमकां उगडास करून दिता हेंच खरें!

म्हज्या कुळारचो गांव हो कुळागराचो गांव. सुरंगां, चाफीं, वोवळां अशीं फुलां कुळागरांत फुलतालीं. ह्या फुलांचो सहवास म्हाका म्हज्या भुरगेपणांत तशेंच लग्नजायसर लाभलो हें हांव म्हजें भाग्य समजतां. झाडार चडून सुरंगां, चाफीं खुटप, तांचो वळेसर जावं फाती करून माळप, फात्यापारार वोवळां पुंजावप, तीं माळुनच शाळेंत वचप हें सगळें सूख हांवें मनसोक्त अणभवलां. पोरसांतल्या मोगऱ्यांचो, जाया-जुयांचो, गुलाब-शेवत्यांचो परमळ मना-काळजार सांठयत हांव ल्हानाचें व्हड जालें.

आमच्या कुळागरांत उदकाच्या पाटां धडेर अकस्मात उबाळांच्या दिसांनी एक फुल फुलतालें. झाड ना, पानां ना पूण अकस्मात तें जांबळ्या गुलाबी मिस्तुराद कोराचें फुल अचकीत जमनींतल्यान वयर येतालें. तांचो मंद परमळ हुंगत रावन दिसतालो. अशें हे भुंयचाफें सामकेंच नाजूक, माळल्यार रोखडेंच बावतालें तरीय म्हाका खूबच आवडटालें.

'कोणीर' म्हळ्यार व्हड काळोच तळप. हरशीं थंय कांयच किल्लना, फुलना. पूण बरोऽ पावस पडपाक लागतकच धाकटुल्या तणा वांगडा इल्लिशीं झाडां जातालीं. त्या झाडांक दिस्त श्रावण म्हयन्यांत धवींच्च फुलां फुलतालीं. भुंयचाफ्यावरीं नाजूक पूण अजिबात परमळ ना. काळ्याच तळपा-आंगार पांचव्या रोपुल्या आंगार फुलिल्लीं हीं फुलां इतलीं सोबीत दिसतालीं म्हण सांगूं? तासन-तास त्या फुलांक पळेत रावीन दिसतालें. खडपांत लेगीत फुलां फुलोवपाच्या पावसरुपी सैमाचें व्हड अप्रूप सांगपी अश्यो ह्यो गवळणी श्रावणाची सैमीक सोबितकाय वाडोवंक आपले परीन हातभार लायताल्यो.

चिखलांत फुलपी साळीक म्हळ्यार सैमाचें व्हड अप्रूप कशें. चारय वाटांनीं दुस्वासाचो, कुसकेपणाचो चिखल आसलो तरी आपणें मात सदां-सर्वकाळ हांसतें मुखामळ घेवन फुलत रावप. कोणाकडच्यान कसलीच वायट-बरी अपेक्षा दवरिनासतना समर्पीत जीण जगपाक शिकोवपी हीं साळकां.

मनीस जिणेंतच न्हय तर सुकण्या-सवण्यांचे जिणेंत मानाचें स्थान आसपी हीं फुलां मात स्वता सदां-सर्वकाळ समर्पीत जीण जगतात. ल्हान भुरगीं म्हळ्यार निरागस, निस्वार्थी सोबीत फुलां. फुलांवरी भुरगींय खेळटना, हांसतना पळोवंक कितलीं सोबीत दिसतात! अशा ह्या नाजूक फुलांचेर जेन्ना अन्याय, आगळीक जाता तेन्ना तें आयकूनच काळीज धडधडूंक लागता. दिसता अशा ह्या सैतानाक हे भुंयेन गिळूनच उडोवंक जाय. मात लेगीत माया-दया, मनीसपण नाशिल्ल्या अशा राक्षसांक हे धर्तरेचेर रावपाचो अधिकारय ना. अशा ह्या मनशांची करणी आयकतकच भुरगेपणांतल्या काणयेंतल्या राक्षसांची याद जाता. खंय ह्या फुलांची समर्पीत जीण, खंय ह्या राक्षसांची क्रूरकर्मी वायट जीण. फुलत्या साळकाक पिसुडतना पळोवन सैम लेगीत दुख्खानी रडटा आसतलो. संवसारांतलें सगळें सूख मनशाच्या पोशांत घालून मनीस असो कित्याक वागता काय? चारय वाटांनीं फुलपी फुलांची समर्पीत जीण पळोवन कुसभर तरी समर्पणाची भावना तांच्या आंगांत येना काय? सैमाचें फुलरुपी सोबीत देणें ह्या राकेसांक अजिबातच आवडना काय? अश्या ना-ना प्रस्नांच्यो जापो सैम रडत-रडत घडये सोदता आसतलो!

■

– शर्मिला प्रभू,
आगाळी – फातोर्डा. फोन : २७४०६४०



*पयलींच्या काळांतलें खतखतें चड बरें लागतालें. भाजयोय शेणाच्या साऱ्याचेर काडटाले. गांवठी बियांच्यो शेंपयो आसल्यो. बांयचें उदक आसलें. सोय रगड्यार वांट्टाले. रांदनीर शिजयताले. म्हण तें तेन्नाचें खतखतें चड बरें लागतालें.*

- सुमेधा कामत-देसाय

# खतखत्याची समरादना

**गु**जरातेंत उंधीयु, केरळांत अविल तशें गोंयांत खतखतें. मराठींत फतफते ('ख' चो 'फ' जाता म्हण) जाल्यार पेडण्यांत अपुर्बायेन 'खतखतलें' म्हणटात.

संस्कृतायेच्या मुळाव्या अवस्थेंतले हे रांदपाखातीर सोपे अशे जिनस. कंदमूळ, भर्त, खतखतें हे अशे सोपे जिनसांचे प्रकार. पयलींच्या काळांत जाल्यार घरांत खूबशो भाजयो थोड्यो थोड्यो उरल्यो काय त्यो एकठांय करतालीं. आनी थोड्यो भाजयो पोरसांतल्यान काडून हाडटालीं. आनी मागीर तांचें खतखतें जातालें.

म्हजे भुरगेपणांत आई आदले दिसाच्यान खतखत्याचो बोवाळ घालूंक सुरवात करी. फाल्यां सोमार (म्हणचे शिवराक) म्हणचे खतखतें. घरांतल्यो उरिल्ल्यो भाजयो, थोडीं साठवणेचीं कंदमुळां (कारांदे, चिरंगे, काटे कणंगां, जाडे कणंगां, माड्येचीं पाळां) आनी थोड्यो पोरसांत आशिल्ल्यो भाजयो - सावरबोंडीं केळीं, मागीलदारांतले दादले पोपायेचे धोडे, बांयकडल्या माटवावेलीं तेंडलीं आनी गोठ्यार चडिल्ले दुदनीचे देंटे हें एकठांय केलें, काय जालें खतखतें. कारांदो खतखत्यांत घालतना विशेश जतनाय घेवची पडटा. हो कारांदो दिसूंक कुशावती न्हंयचे देगेवेल्या पाषाणाचो खंड कसो आनी शिनपाकूय पर्वतावेल्या शिळेचो कुडको कसो. हो जर आदोळेर शिनूंक गेलो जाल्यार आपल्या कुडक्या बरोबर सोमतो बोटाचोय कुडको काडटलोच! म्हण्टकीर फातरी गुणो घेवन, हातांत कारांदो घट धरून (केन्ना केन्ना वा चड करून तो हातांतल्यान सुट् सुट् करून सुटता आनी उसळटा.) ह्या कारांद्याचेर धपको घालचो पडटा. धपको घालतकीर एका कारांद्याचे दोन-तीन कुडके जातात. केन्ना केन्ना त्या धपक्याच्या नेटान सालूय निखळटा. कारांद्याक खरखरीत, दाट आनी घट घांस घेवन बशिल्ली, कट्टें कशी खरखरीत साल आसता. साल जर निखळ्ळी ना जाल्यार ती तासत-खरवडत बसची न्हय. कारांद्याचे सालीसयत कुडके खतखत्यांत उडोवंचे. हे कडू सालीक वखदी गूण आसतात.

आईचे आदोळे मुखार धा-बारा वाटल्यो आसताल्यो. कांय उदक घालून जाल्यार कांय बेश्ट्यो रित्यो. वायंगी, केळीं असल्यो रांप येवपी भाजयेच्यो फोडी उदकाच्या आयदनांत शिनच्यो पडटात.

तेन्ना लोक आयचे भशेन बाजारांतल्यान तेफळां विकतीं हाडनासले. पूण आमी आक्यां (मडगंवां) रावतालीं. म्हण्टकीर तेन्नाय बी आमकां सदांच तेफळां विकतींच हाडचीं पडटालीं. भाऊ बाजारांतल्यान जित्यो तट्टटीत बांगड्ल्यो विकत्यो हाडटालो आनी ताचे बरोबर हरव्या तेफळांचे घोंसूय हाडटालो. (केन्नाय पाड्डेच्यान गुणे आनी मागीर फुडले काळांत शांतू आयलें जाल्यार तें तेफळां हाडटालें.) मागीर आईन ते घोंस सोपोवपा खातीरूच तरातरांचे जिनस करप.

खतखतें चवथीक देवानिवेद्याच्या आनी देवकाऱ्याच्या जेवणांनी, लग्नाकारणांक, मुजीच्या जेवणांक आनी देवळांतल्या समरादनांनी जायच. खतखतें नासत जाल्यार साश्टीकारांक सणापरबांचें आनी कारणांचें जेवण पुराय जालेंशें दिसचेंचना. सार, मुगां गांठी, खतखतें, हुडीदमेथी आनी निमाणे शेवटाक फुटी कडी जायच! पेडणेकारांभितर ही प्रयोजनाच्या जेवणांनी खतखतें करपाची चाल ना. हुडीदमेथी ना आनी मुगां गांठीय ना. तांगेर प्रयोजनांनी शाकेच्यो फोडी



घालून केल्लो दाट दाळी रोस, दोन तरेचीं मसाल्याचीं तोणाकां (हळसांद्याचें, वाटाण्याचें वा काजूबियो घालून चण्या दाळीचें) पंचामृत, दुदया भाजी (ही जाय म्हणजे जायच) जाता. फुटी कडी सपनांत पसून आयल्यार ते थर्थ भियेतात आनी मिरयां, वोंवों, तांबडी सुकी मिरसांग घालून केल्ली सोयेची गुळी वायनाक घश्टीत बसता. आनी मागीर ती गुळी सोयेच्या दाट आपरोसाच्या कोळमुळांत जीव दिवपाक वता.

पावसा तेंपार किल्लां दिसांनी खतखत्यांत किल्ल घालूं येता. किल्लाच्या भितरल्या गोरबाचे सादारणशे मोटसार कुडके करून खतखत्यांत घालतात. किल्लाचो एक विशिश्ट तरेचो गंध (परमळ) आसता, तो गोंयकारांच्या नाकाक मानवता. कांय देवस्थानांनी प्रयोजनांनी विशिश्ट जिन्नस घालून खतखतीं जातात. जशें मंगेशी कुवल्याचें खतखतें आदि. (तें खावपाकूच कांय लोक इस्पीशियाल थंय वतात खंय.)

एकदां खंय एका मनशाक घोड्याचो नाल (हॉर्स शू) मेळ्ळो. ताचो उपेग करपाखातीर त्या मनशान घोडोच विकतो घेतलो खंय, तसली खबर. तेफळां मागीर पयले दिसा बांगडुल्यांच्या सुक्यांत घालप, दुसरे दिसा व्हडल्या कांटमाळ्या पेडीच्या हुमणात (जी पेड हांवें फाटलीं तीस वर्सां खावूना), मागीर सोमाराच्या खतखत्यांत आनी मागीर शुक्राराच्या, मुळो घालून केल्ल्या दाळी रोसांत पडटालीं. अशीं चार जिनसांनी इल्लीं इल्लीं घालीं (आनी थोडीं थोडीं शेजाऱ्यांक दिलीं, थोड्या शेजाऱ्यांचो समज आजून आसा की, तेफळां सारकिले जिनस विकते घेवप न्हय म्हणून). आनी थोडीं सुकलीं काय सोंपलें तांचें जिवीतकार्य.

खतखत्यांतल्यो चुकून पडिल्ल्यो तेफळांच्यो काळ्यो सुकिल्ल्यो बियो केन्ना केन्ना काळे चणे समजून आमी चाबडायतालीं.

आमी सोमारा सकाळीं उठून शाळेक गेलीं, आनी च्या पाणयाचो बोवाळ सोंपलो काय आई खतखत्याच्या वावराक लागताली. खतखत्याक म्हणटात ते तीन जिन्नस जायच. दुदी, मुळो आनी पोपाय. पोपायेन खतखत्याक आळेण (दाटसाण) मेळटा. ह्या तीनूय भाजयांच्यो मोट्योमोट्यो फोडी करप. आनी मागीर जाता तशो हेर भाजयो तातूंत रिगोवप. आदले दिसा थोडे धवे चणे फुगत घालप. आनी ते दिसा थोडी तोरची दाळ फुगत घालप. तोरचे दाळीन खतखतें वाडटा आनी ताका आळेण (बायंडींग) मेळटा. सोयेचें वांटप, गोड, मीठ, मिरसांगे पिठो, आमटाण वा सोलां, धाडायल्लीं तेफळां घालून हो येदो व्हडलो खतखत्याचो समरादनेचो तोप ती रांदनीवेल्यान देंवयताली. दुदी, मुळो शिजून ताचो सगळ्याक घमघम पातळटालो.

तो आदलो काळ, ह्या काळांत पोटाक भुकूय खूब लागताली. शाळेंतल्यान चलून बी येतकीर भूक खूब वाडटाली. भुरगीं तोपूल तोपूल खतखतें खातालीं. रातचें खतखतें खावपाची फॅशन त्या काळांत नासली. आनी फाल्यां खातीर फ्रिझांतूय दवरपाचो प्रस्नूच नासलो. थोडें वावराडेक दिलें, थोडें शेजाऱ्यांक दिलें, काय सोंपलो खतखत्याचो तोप.

शेजाऱ्यांक दोन कारणांखातीर खतखतें दितालीं. एक तर खतखत्या सारको किचमणेचो जिनस कोण सद्दां वा परत परत करनात. दुदयाच्यो शिरो आयचे बशेन बाजारांत विकत्यो मेळनासल्यो. दुदी पोरसांतले वालीचेर जातालें आनी खतखत्याच्या दिसा तो सकाळफुडें फोडटाले. अशी पद्दत आसली. शेजाऱ्यांक दिवपाचें आनीक एक दुसरें कारण म्हणचे बार्टर सिस्टमीक पाळो दिवपाखातीर. (तांचेकडल्यान एकादी शाकभाजी वा तेफळां हाडिल्लीं आसत जाल्यार तीं तांकां परत पावोवपा खातीर).

आंबाडे आशाढ म्हयन्यापासून बद्द कार्तिक म्हयन्यामेरेन मेळटात म्हण आंबाडेय तासून खतखत्यांत घालूंक येतात. मागीर खतखत्यांतली आंबटाण वा सोलां खूब उणीं करपाचीं. गोडसाण इल्ली वाडोवची. (आळूंय केन्ना केन्नाय आपले दोके भितर रिगयता.)

म्हज्या भुरगेपणांत हांव म्हज्या गांवघरा पाड्ड्यां परत परत वतालें. थंय म्हजी मावशीय रावताली. हेवटेन तेवटेन मेळून धा-बारा बामणांचीं घरां. सगळीं एकामेकांचेर उपाट माया-मोग करपी. आनी जण एकल्याचे गरजेक पावपी. उल्याक धावून वचपी. सगळें धा घरांचें पाड्डें गांव म्हळ्यार एक व्हडलें कुटूंबाचें घरूच. म्हज्या आज्या (स्व. जनाप्पा कामत) च्या आनी म्हज्या मनांत सामाजिक आनी विस्तारीत कुटूंबाची जाणीव किल्लावपाक ही पाड्डें गांवाची संस्कृतायच चड जापसालदार थरल्या.

थंय एकामेकांचीं भुरगीं एकामेकांगेर जेवपाक रावतालीं आनी इतलेंच न्हय तर एकमेकांचीं भुरगीं जण एकल्यागेर माळयेर न्हिदून पडटालीं. तांच्यो तांच्यो आवयो तांकां शेजाऱ्यांकडल्यान रातचीं उठोवन हाडिनासल्यो. 'आमगेलो विनू न्हिदलो मगे लताबाय तुमचे माळयेर, आसूं दी ताका थंयच.' दुसरे दीस सकाळीं उठून, तांगेरूच च्या, रोटयो, चटणी बी खावन सुशेगादीन भुरगीं घरा येतालीं. एक उब, एक सुरक्षितताय, एक माया एकामेकांच्या शिरंतरांनी भरिल्ली आसताली.

हांगा सकाळ फुडें एकली घराभायर सरताली. तिचो आयज खतखत्याचो प्रोजेक्ट. 'ए काकी, म्हगेर दुदी आसा, तुमगेर मुळो आसा गे?' 'ए व्हनी, म्हगेर भेंडो आसा', मागीर त्या बायलांचो विनोद. 'आमगेर ना बाये भेंडो. भेंडे आसात केप्यां.' 'तुमगेर पोपाय आसा गे?' जी ती बायल ते दुसरे बायलेक तिका जाय आशिल्ली शाक-भाजी दिवपाचो यत्न करताली आनी मागीर तिका ल्हवूच कानांत सांगताली, 'आगे म्हगेल्या चंदूक खतखतें खूब आवडटा, दी आं ताका इल्लें धाडून.' ताचेर ती बायल म्हणटाली, 'किदें गे ताईबाय, हें आनी कितें सांगूंक जाय? आयज खतखत्या बरोबर इल्लें वडयां आ' 'धाडून दितां. पळय कशें जालां तें?' मागीर दनपरां बारांक सुमार तें बायलेचो भुरगो हातांत दोन आयदनां घेवन घरांत भितर सरतालो आनी वतना त्या आयदनांत हांणी केल्ले दोन जिनस आनी बोल्सांत खटखटें, लाड्डू, चकऱ्यो असले जिनस भरून आपले घरा परत वतालो.

अशा प्रकारच्या बार्टर सिस्टमाचेर केवळ पाड्ड्यांच न्हय तर अनेक धाकट्या गांवांतल्या वाड्या वाड्यांनी गोंयांत खतखतीं जातालीं. (मुसलमानांच्या वाड्यांनी अशे तरेन बिर्याणी

शिजता खंय) ह्या बार्टर सिस्टमींत माया, प्रेम आसलें, तें आतां सोंपलां. पण तें आतां नवे पध्दतीन सुरू जालां.

म्हजे कॉलेजीच्या स्टाफरूमांत असली देवाणघेवाण जोरांत चलता. हांव पार्शेच्यान आंबाडे, तोरां, पेरां, तेफळां हाडटां. केन्ना केन्ना पार्शेचो स्पेशल झुणको, चिकन, मटण (जाचें हांव तोंड पळयना) हाडटां. कालवांचें तोणाक हाडटां. गांवांतल्या डांगीच्या हॉटेलांतली स्पेशल पाव आनी गांवठी पातळ भाजी हाडटां. सुरेखा केळकर तरातरांच्यो किसमुरी हाडटा, बेळगांवच्यान हरवे वाल हाड्टा, म्हाका आवड्टा म्हण उषा भोबे खतखतें, मुगां गांठी हाडटा, संजय नाईक पीर्णा (मावोड) च्यान आवरे हाडटा. फाटीं गीता प्रभुदेसाय आसलें तेन्ना हुमण हाड्टालें, 'मंडोळ्या केळ्यांचो' हालवो हाडटालें. गीता व्होलंटरी रिटायरमेंट घेवन गेलें आनी आमी उपाशीं पडलीं. तारानाथ होलेगद्दे दिसपट्टे तवशाचे पोळे हाडटा. रेखा केणी गुराला सान्नां आनी 'आपेमिडी' हाडटा. हे आतां आमचे नवे इश्ट, नवे सोयरे आनी नवे शेजारी. समाजांत प्रेम अजूनय तिगून आसा हाचें हें उदाहरण. म्हजी आवय सदांच म्हणटा, 'आपूण खाल्यार X जाता, लोकांनी खाल्यार भांगर जाता'.

म्हजे भयणीन म्हाका सांगलें की खतखत्याक मात्शी कोडसाण जाय. आनी ते खातीर चिडकी मिडकी घालूंक जाय. गोडसाण, तिखसाण, आमसाण, कोडसाण आनी जित्या तेफळांची मिरमिरसाण अशा पंचरूचींक लागून खतखतें हो जिनस बरो लागता आसूंये!

कॉलेजांत शिकयतना एकदां सांग्यावेल्या मुरली सालेलकारालें अनुपा हें म्हजें स्टुडंट आसलें. म्हजेबरोबर तें कॉलेज हॉस्टेलांत रावतालें. ताणें म्हाका एके पावटी सांग्यार रावपाक आपयिल्लें. म्हाका आवडटा म्हण अनुपान आवयक खतखतें करपाक सांगिल्लें. आनी म्हाका तें खूब आवडिल्लें. रेसिपी विचारली. सांगतकीर कळ्ळें की आमच्या घरच्या खतखत्या परस हातूंत इल्ली गोडसाण चड आसा म्हण. मागीर हांव तशे पध्दतीन खतखतें करूंक लागलें.



कोणागेलेंय खतखतें खातकीर हांव त्या खतखत्याच्यो बारीकसाणी विचारून घेवंक लागलें आनी मागीर ते ते पध्दतीन खतखतें करूंक लागलें. खतखत्यांचे मूळ स्ट्रक्चर एकूच. पूण थोड्यो टीप्स वेगळ्यो.

ते मजगतीं, आमच्या बेबल्याचां लगीन जालां. बेबी लग्न जावन मांडवी हुंपून वेऱ्यां गेलें. नव्या घराची नवी वळख. तांगेरूय खतखतें करतालीं. बेबीन सांगलें, 'घे म्हण भाजयो शिनून घेवप आनी मागीर तांची शिजपाच्या क्रमानुसार वर्गवारी करप. तोपान फुगयल्ली दाळ आनी चणे पयलीं शिजोवंक घालप. तांचेबरोबर कारांदे घालप. कारांद्याक उब मारली काय मस्का सांगो घालप. मागीर दुदी, मुळो, पोपाय, वायंगें असल्यो रोखड्योच शिजपी मोव भाजयो घालप. अशा क्रमान खतखतें वन बाय वन शिजलें काय गोडसाण, मीठ, मिरसांगेचो पिठो, आनी तेफळां धाडावन तयार केल्लें चुनाचें वांटप घालप.'

प्रत्येक गृहिणीक अणभवान खंयची भाजी केन्ना तोपांत घालप हें कळटा. खतखत्याक फोडीय मोट्यो शिनूंक जाय. कित्याक तर त्यो खतखत्यांत रोखड्योच शिजून मोव मॅण जातात. समरादनांनी बी व्हडल्यो व्हडल्यो फोडी घालतात. केळीच्या पानार दोन फोडी आनी इल्लो रूचीक पातळ रोस पडलो काय जेवपी धादोशी जाता. खतखतें हो मदले वेळचो खावपाचो जिनस. पोटभरवणेचो. सकाळीं धा नाजाल्यार जेवणांक वेळ आसत जाल्यार केन्नाय पेजेबरोबर खावपाचो हो जिन्नस. समरादनांनी, लग्नाकार्यांनी, मुंजींनी जेवणाक मुगां गांठी, हुड्डमेथी, चण्या रोस, खतखतें जायच!

पयलींच्या काळांतलें खतखतें चड बरें लागतालें. भाजयोय शेणाच्या सान्याचेर काडटाले. गांवठी बियांच्यो रोंपयो आसल्यो. बांयचें उदक आसलें. सोय रगड्यार वांट्टाले. रांदनीर शिजयताले. म्हण तें तेन्नाचें खतखतें चड बरें लागतालें.

आमगेर माँच्या तेंपावयलें खूप व्हडलें वायन आसलें. (आजून आसा पूण म्हजी भावजय नाजूक नारय आशिल्ल्यान ती वायनाचेर वांटीना. वायनाक दाव्या दोळ्यान पसून पळय ना.) त्या राक्षसापार्टी वायनाचेर हांव वांटूंक बसतालें. हांव हरशीं जात्याच आळशी. पूण कित्याक कोण जाणा, म्हाका त्या प्रचंड व्हडल्या रगड्याचेर वांटपाक खूब आवडटालें. चिंतत चिंतत वांटप, हें काम सोंपें कशें. हनुमंत हाताचेर द्रोणागिरी तोलत उडण करीत वतालो तेन्ना लोक ताचेकडेन तोखणायेन पळयताले. तशें त्या हतयायेद्या वायनाचेर हांव वांटता तें पळोवन लोकांक अजाप जातालें.

पयलीं हांव माँच्या कोळमुळांत कडी पिळटालें. मागीर हुमणाचें वांटप. मागीर सुक्याचें

वांटप आनी अखेरेक खतखत्याचें वांटप. तातूंत निमाणकडेन तेफळां करंगटावचीं आसतालीं म्हण तें वांटप निमाणें वांटपाचें. अर्जण्ट जाय जाल्यार कडी पिळून जातकीर वांटप. मागीर तेफळां बारकेले फातरीर धाडावन (पेडणेच्या शेतकरी वर्गाचे भाशेंत 'झेजरावन' घालप) मागीर ती सगळी एडजस्टमेंट वेवस्थित जाता.

हांवें पार्शां येतकीर पळयलें जाल्यार हे सगळे लोक कार्निव्हरस. हांकां शिवराकाचें मात्तूय प्रेम ना. खतखतें म्हळ्यार नाका जावन केल्लो जिन्नस. केन्ना केन्ना आमच्या पार्शेच्या घरांतूय खतखतें शिजता. भांय व्हडल्यो व्हडल्यो फोडी कर म्हण आड्डयो मारता. त्यो येद्यो व्हडल्यो फोडी पळोवन म्हाका भंय दिसता. पूण मांयच्या खतखत्याच्या तोपांत पडटकीर त्यो फोडी मस्त्यो, आडांगी, सुबेज, चलयो जशो घोवागेर पावतकीर कांय तेंपान मोव, अरळ जातात तशो जातात. पार्शांचें खतखतें जाताय बी मधूर. पूण तें खावपाची कोणाक उमेद ना. आगराचें आनी शिवोले तारीवयलें नुस्तें, वायडोंगरावेल्यान हाडिल्ल्यो (आमच्याच भाटांतल्या व्हाळांत धरिल्ल्यो आनी आमच्याच भागेल्यांनी आमकांच विकिल्ल्यो) कुल्ल्यो, चोपड्याचीं करपेचीं कालवां, मोरजेचे विस्वण आनी कायसूवाचे मागाचे बांगडे खावन म्हजे घोवासयत घरच्यांची जीब मातल्या. म्हजी बाबड्याची (खादोळी) जीब साश्टीकारांची.

म्हजें कुळारचें एक माजर खतखत्यांतल्यो मस्का सांगो चोखीत बसतालें. (आदले जल्मांत जैन श्रावक आसलें दिसता). तशें हांव दोळे धापून भगोणें भरून खतखतें खातां. आमच्या काळानुसार व्हडलो करंड भरून फ्रिझांत दवरतां. पणजे वचून सोमार, मंगळार, बुधवाराय बी खावपाखातीर. घरचीं मनशां विटिल्लेबशेन तोंड करून म्हजेकडेन पळयतात. आमच्या पार्शेच्या वावराड्यांक पसून खतखतें आवडना. म्हजो घोव खतखत्याच्या तोपापासून बारा किलोमीटर पयस रावता. आनी पणजेंत हाडिल्लो करंड म्हाका एकट्याकूच सोपोवचो पडटा.



पणजे हांव पसून खतखतें करतां. काणकोणचे नाजाल्यार केप्यां बाजारांतले साताठ दुदी विकते घेतां. ते मडगांव नाजाल्यार बेबीगेर साठवणेक दवरतां. दुदी फोडून म्हज्या चार घराब्यांक धाडूंक चार व्हडलीं धांपलीं पावयतां. आनी मागीर म्हजेकडले म्हजे आवडीचेच जिन्नस घालून खतखतें करतां. मुळो, दुदी, पोपाय, चिडकी-मिडकी (आसल्यार केळीं, भेंडो, वायंगे, सांगो घालतां) कारांदे आनी माडयेचीं पाळां (जीं म्हाका खूब आवडटात) घालतां. ह्यो सगळ्यो फोडी एकठांय शिजोवन घेतां. दाळ घालीना आनी शास्त्राक एकूय चणो (गरजेभायर वायेक आमंत्रण) घालिना. गोडसाण/आंबसाण इल्ली चडशी घालतांम. थोडें चून वाटून घालतां आनी हरवींच तेफळां धाडावन घालतां. म्हजें खतखतें म्हळ्यार बॉयल्ड व्हेजिटेबल्स विथ तेफळां. खरें सांगूं, म्हजें खतखतें बरेंऽ रायतें कशें जाता. हांव तें भुरकून भुरकून खातां. म्हजो घोव 'मांस भक्षक' आशिल्ल्यान खतखतें पानार पसून घेना आनी म्हजें खतखतें तर बांयभर जाता.

खतखत्याचो एक अंगभूत पाडो गूण आसा. तें थरोवन पसून कितलेंय उणें केल्यार पसून तें उण्यांत उणें धा जाणांखातीर तरी आपशींच तयार जाता. आमी घरांत दोन मनशां. करतलें कितें? मागीर म्हजें खतखतें मांडवी हुपूंक वता, कॉलेजींत वता आनी अशे तरेन खतखत्याची समरादना सोंपता.

ह्या खतखत्यांत नाब (गड्डे) घालूं येतात. कुंवल्याच्या दिसांनी कुंवल्याच्यो फोडी घालूं येतात. म्हस्काचीं किसरां घालूं येतात. कोण कोण, खंय खंय खतखत्यांनी गाजर घालतात, कोण खंय बीट घालतात. कोण खंय वाल पापडी,मटार, बटाट, माती गोबर. तें खतखतें काय कूर्माभाजी?

करात कितेंय आनी कसलेंय खतखतें. म्हजे पानार मात घालूं नाकात म्हणजे जालें!

१४/१/१२

## सांस्कृतिक संदर्भ :

१) **पर्वत** - पाड्डे केपेंचो चंद्रनाथ पर्वत

२) **माँ** - म्हजी आजी. तिचे कुळारचें नांव तिमा. तिचे स भाव तिका 'तिमा तिमा' करताले म्हण म्हजो बापूय तिका भुरगेपणांत मा मा म्हण उलो घाली. तेंच तिचें नांव मागीर तशेंच उरलें.

३) **कोळमूळ** - चोंच आशिल्लें, लाकडाचें एक तरेचें विशिश्ट आयदन. हातून पयलींच्या काळांत कडी पिळटाले. धातूच्या आयदनांनी कडी पिळल्यार भितरल्या सोलांच्या आंबसाणीक लागून कडी विटकळटा. ही विटकळिल्ली कडी आरोग्याक वायट म्हण ती लाकडाच्या कोळमुळांत पिळटाले.

आजूनय हीं आयदनां उडूपी श्रीकृष्ण मंदिराच्मा आवारांतल्या मांडांनी विक्रेक दवरिल्लीं पळोवंक मेळटात. (२०१२).

- कोळमूळ विशिश्ट तरेच्या लाकडाच्या अखंड कुडक्यांत कोरांतून काडपाक चड श्रम पडिल्ल्यान खूब म्हारग आसता आनी आतां तर खुबूच म्हारग आसात.

■

**- सुमेधा कामत देसाय**

तोंका - करंझाळें. फोन : २४६१३११२

# उस्तवारी



*सांज्यांवाची प्रथा धिमी आनी शेळमडी जावपाक कांय कारणां आसात. पयले सुवातेर मनशां-मनशां मदलें भावपण सोंपलां. आदल्या काळार शेजाऱ्यांक लेगीत भाव वा भयण मानप जातालें. खंयसरूय परक्या मनशाक मेळपाची घडी येत जाल्यार हो म्हजो गांव-भाव, ही म्हजी गांव-भयण अशी वळख जाताली. आतां ती चाल गळून पडल्या.*

- नेसिओ डि सोझा

# सांज्यावांतल्यान भावपण फुलूं दी

**मे** म्हयन्यांत फेस्तां, परबो आनी काजारां चड. जुनांत पावसाळो जालो की सगळ्यो परबो आनी फुंगसांवां रद्द जातात. पावसाचो आनंद भोगपाचे संदी मुखार हेर कार्यक्रम तितले आवडीचे दिसनात. पूण सांज्यांवाची परब मनोवपाक कोण फाटीं रावत सो ना. पावसाच्या उदकांत चिप्प भिजून मनोवपाची आगळी-वेगळी परब ही. उदका वांगडा मनोवपाची दुसरी आनीक परब ना. क्रिस्तांवाक, खास करून काथोल्कांक व्हड मानाची परब ही. हिचें म्हत्व नाताल परबे इतलेंच. नातालांक खिस्त-जयंती समरंभतात जाल्यार, सांज्यांवाक जुआंवचो जल्म-दीस पाळटात. जुआंव आनी जेजू हे एकामेकाचे सोयरे तशेंच इश्टूय बी. दोगूय सताच्या मार्गान खूद चलपी आनी प्रजेकूय चलोवपी फुडारी.

जुनाचे २४ तारखेक दर वर्सा सांज्यांवची परब येता. दीस खंयचोय आसूं दी, तारीख मात कायम आसता. हे खातीर हे परबेची आकारणी जाल्याशी दिसता. सांज्यांवाक नांव पडलां सां जुआंव दे बाप्तीश्त, ह्या भाकणारा खातीर. पुर्तुगेजींतल्यान सां जुआंव उच्चार, कोंकणी सांत जुआंव अशें धरतात. ह्या जुआंवाक बायबल, स्नान-दातार म्हुण वळख सांगता. जेजूच्या आनी जुआंवच्या संबंदाविशीं उजवाड घालता. तांच्या भावपणाच्या एकचाराचेर नियाळ करपाक शिकयता. हेंच हे परबेचें आकर्शण.

बायबलाच्या नवो करार भागांत संपूर्ण म्हायती मेळटा. लुकासाच्या शुभवर्तमानांत पयल्या अध्यायांत ३९ ते ८० वळिंनीं संत जुआंवच्या जल्माचो खुलासो जाता. फुडल्या अध्यायांत जेजू खिस्ताच्या जल्माची खबर मेळटा. एकाच वेळार एलिजाबेत आनी मारिया गर्भेस्त आसलीं. मारियेन निकतोच गर्भ धारण केल्लो, जाल्यार एलिजाबेथ ६व्या म्हयन्याच्या भेसार आसता म्हुण समजता. आपल्या जिवाची पर्वा करी नासतना, मारिया आपले मावस-भयणीगेर धांवता. ३ ते ४ दीस चलून वेची ५ मैलांची वाट ती. थंय वचून एलिजाबेथ प्रसूत (delivery) जायसर मारिया रावता. मायेमोगान सेवा करता. तिचे आवडी-निवडी प्रमाण जेवणां-खाणां उपलब्ध करता. हो खीण आनी एकचार, आयचे पिळगेक लेगीत संतोस हाडटा. दुसऱ्या खातीर आपलो जीव रिस्कार घालपी ही घडणूक, आधुनीक मनशाक जगपाचो भरवंसो उपजयता.

एलिजाबेथीक जुआंव जल्मलो, तर मारियागेर जेझू जल्माक आयलो. फुडें, जेझू नीज देव आसून लेगीत जुआंवां कडल्यान उदका-स्नान वा बातिज्म घेवंक अनमनलो ना. हें देवान नेमिल्लें कार्य कोणूच नाकारूंक शकना. खरें म्हळ्यार जेझून आवयच्या कुसव्यांत आसतना जुआंवाक अभिशेकीत केल्लो तो खीण उत्तम. ज्या वेळार मारियान, एलिजाबेथीगेर वचून नमन केलें आनी वेंग मारली, त्याच वेळार दोगी बाळकांनी उडयो मारिल्ल्यो तो उल्लेख भोवच सूख दिवपी.

ही भेट, अभिशेक, सेवा, मोग, भावपण ह्यो गजाली बाळगुनूच सांज्यांवची संकल्पना चालीक लागल्या. जेझूच्या काळा उपरांत सुमार १५व्या शेकड्यांत येवरोपी खंडांत सुरू जाल्ली ही परंपरा आयज संवसारांत कितल्याशाच प्रांतानी पाळीत आसात. मूळ उद्देश जरी भंग जाता, तरी सांज्यांव मनोवपाची उर्बा ताजी आसा.

आमच्या गोंयांत सास्टी, बार्देश आनी तिसवाडी तालुक्यांनी ही परब उमेदीन मनयतात. प्रत्येक गांवांत दर एका वाड्याचो म्हुण तात्पुर्तो पंगड तयार जाता. हेच ते मुखेल गडे बांयत उडयो मारपी. बाकीचे लोक तांकां सांगात दितात त्या खातीर खुशालकाय दुपेट जाता. जाण्टीं-



नेण्टीं, चले-चलयो, भुरगीं-बाळां सांगात दितात. फुलां, पानां, वाली घेवन तयार केल्लीं कपेलां वा मुकूट माथ्यार घालतकूच काळजां धादोसपाक लागतात. मिरवणूक काडीत एकूय घर भायरायनासतना आंगणांत वचून गितां गावप, नाचप, मस्कऱ्यो करप, आदी हातुंतल्यान एकचाराची भावना फुडें वता.

सांज्यांवची सोबाय वाडोवपाक घुमट, ट्राम्पेट, पेंपरें, कासाळीं सारकीं वाद्यां आसतात तें जालेंच. त्या भायर खेरीत गितांची खातोड जाता. कातारां, मांडे, दुल्पदां जीं वर्सभर कोनशाक पडिल्लीं तीं भायर सरतात. मर्दींच आड्डप, हुयेली मारप, नारे दिवप जाता. 'विवा रे विवा, विवा सांज्यांव...' वा 'पातोळी मागोता रे सांज्यांव, पातोळी मागोता...' अशीं कितलींशींच पालूपदां आयकूंक मेळटात. 'तूं इल्लो घे रे, हांव इल्लो घेतां, फाल्यां कांय मेळोना, ओसलीं फेस्तां वर्साक कित्याक दोन पावटी येना...?' हें गीत म्हणटना सोऱ्या-बाटली नाचोवपाक थोड्यांक विशेश खोस भोगता.

नातालां सारकी भौशीक सुटी जरी नासली, तरी लोक घरा रावची संदी घेतात. चडशे तरणाटे कामाक दांडी मारतात. बायलां म्हुण फाटी रावतशीं ना. पातोळ्यो करपांत वा बात्क, बॉल, धणे करपांत गुल्ल रावतात. हेरांकय किते ना किते कार्य आसताच. अणसां सोलप, पणस कातरप, आंबे चिरप आदी कामां आसतात.

मागीर वर्सावळी प्रमाण सांज्यांवचे गडे, वाड्याच्या कपेला मुखार वा सार्वजनीक खुर्सा मुळांत एकठांय जातात. ठरयल्ल्या वेळार इल्लो वेळ मागण्यांत सारून मुज्गा तालार भायर सरतात. सांज्यांव भायर काडपाचो वेळ चडसो सकाळच्या १०-१२ मजगतीं जाता. घरान घर लोकांक परबीं दीत सांज्यांव फुडें पावता तितलो, आनिकय जाण मिरवणुकेंत सामील जातात. पावस मात्सो पडपाक लागलो की मज्जा वाडटा. जांकां भिजूंक नाका ताणीं सत्री फुलोवन भागीदार जावप. खावपा जिन्नस वांटल्या बगर सांज्यांव एकल्यागेर सावन दुसऱ्यागेर वचना. कोणागेर आंब्या शिरो जाल्यार कोणागेर अणसा कापां. एकल्यागेर बरकयेचे गरे जाल्यार दुसऱ्यागेर केळ्यां कुडके. पातोळे कुडके खावपाक कोणूच फाटीं रावत-सो ना. हळदीच्या पानांनी उकडलेल्यो आसूं वा चांफ्याच्या, दोगांयचो परमळ तितलोच रूचीक. हालीं तेंपार केक, बिस्कुती वाटूं लागल्यात तें विचीत्र दिसता.

सांज्यांवाचें आनीक एक खाशेलपण म्हळ्यार त्या-त्या वर्साकाळांत काजार जाल्ल्या जोडप्याची उपस्थीती. लग्न जाल्ले धुवेक आवयगेर सावन खास वजें येता. सगळे खावपाचे जिन्नस तशेच १-२ सोऱ्याच्यो बाटल्यो. मागीर आमोरे पयलीं दर एका घरांत वचून इल्लें-इल्लें वांटप. ल्हान-व्हडांचीं तोंडां गोड करप. ह्या नव्या जोड्यान सांज्यांव आपणाल्या मावोड्या मनोवपाचो कायदो आसा. त्या खातीर हे वटेन वजें येता जाल्यार घोव-बायल मावोड्या पावतात. थंय मागीर अखखो दीस तीं लोका सांगातीं सारतात.

इतले उमेदीचो आनी भावचाराचो हो उत्सव दिर्शी-दिर्शी ना नपयत जावपाचे वाटेर आसा. इतल्या वर्सां मजगतीं मूळ हेतू सांडला, ह्याच खातीर ताचें स्वरूप बदल्लां. जाणकारांनीं आनी जाण्टेल्यांनी हे परंपरे फाटलो उद्देश मुखावेले पिळगेक उक्तो करूंक ना सो दिसता. त्याच खातीर खूब गैरसमज भितर सरला. आधुनीक मनशाक ही परब हेरां फेस्ता सारकीच दिसपाक लागल्या. सकाळीं पयलीं देवाचें नांव घेवप, मिसाक बी वचप, मागीर दिसभर मस्ती-मजा करप. थोड्यांनी सबंद दीस नशेंत सारप. हीं फेस्तां, इगर्ज आनी आपलें घर, इतले भितर सिमीत उरतात. पूण सांज्यांव दर एक घराक, दर एका मनशाक मेळपाची संदी दिता. संपूर्ण वाड्यार चलून भोंवपाची संदी दिता. जर सायबीण मांय गर्भेस्तपणार ५ मैलांची वाट चलून मोग-मयपास जागोवंक शकली, जाल्यार आमी फाटीं कित्याक रावप?

सांज्यांवाची प्रथा धिमी आनी शेळमडी जावपाक कांय कारणां आसात. पयले सुवातेर मनशां-मनशां मदलें भावपण सोंपलां. आदल्या काळार शेजाऱ्यांक लेगीत भाव वा भयण मानप जातालें. खंयसरूय परक्या मनशाक मेळपाची घडी येत जाल्यार हो म्हजो गांव-भाव, ही म्हजी गांव-भयण अशी वळख जाताली. आतां ती चाल गळून पडल्या. आयच्या काळार खाशा भाव आपल्या भावाचें तोंड लेगीत पळोवंक सोदिना, अशें खिणा-खिणाक जाणवता.

दुसरें एक काराण आसा, गांवांनी आतां बांयो उरूंक नात. तळीं आनी खाडी पुरून गेल्यात. शारांनी तर बांय सोदून लेगीत मेळची ना. मेळ्ळ्यारय ती वापरपा सारकी आसना. गांवां वांगडा खेड्यांनी लेगीत नळाची वेवस्था जाल्या. कोसळूंक पावलेल्यो बांयो दुरूस्त करपाक कोण तयार ना. बांयत देवलेलो सांज्यांवकार सुरक्षीत वयर सरतलोच म्हुण खात्री आसना. भितर खंय तरी आपटून पडत म्हुण भंय आसता. खूब फावटी असले अपघात घडटले पळोवंक वा आयकूंक मेळटात. तेन्ना सहज कोणायचेंय मन दुखी आनी निराश जावप सबावीक आसा.

ह्या असल्या अबसयोगांक (accidents) लागून सांज्यांवाक बादा येवप, हें आमचें दुर्दैव. खरें म्हळ्यार सोऱ्याचे नशे खातीर हे अपघात घडटात. सोऱ्याचे धुंदींत केल्लें खंयचेंच कार्य वांकडें जाता. तातूंत बांयत उडकी मारप सामकें धोक्याचें. बांयत उडी मारप सामकेंच बंद जावपाक जाय, अशें म्हाका मना पासून दिसता. जीव सांबाळून फेस्तां-परबो मनोवप शाणेपणाचें, अशें हांव मानतां. जर सांज्यांवाचो संबंद उदका लागीं आसा जाल्यार, तें कशेंय मेळोवंक जाता. घसघशीत पावस तर देंवताच, त्या भायर नळाचें उदक उपलब्द आसता. ह्या उदकान न्हावन सांज्यांव सोबयल्यार कितलें बरें जावचें ना! जीव होगडावपाचो रिस्क मुळासावन नश्ट करपांत शाणेपण आसा. ह्या दिश्टीकोनांतल्यान सांबाळ करपाक जाय.

शेवटीं संत जुआंवाच्या मानाक भेटयल्ली ही परब सर्वय दिकांनी अर्थभरीत जावंक फावो. संत जुआंव आनी जेझू ख्रिस्त हांचे सारके संबंद आमचे मर्दी रुजूंक जाय. तांच्या मदलें भावपण आमचे मर्दी वाडीक लागपाक जाय. मांय मारियेची सेवा आमीय सगळ्यांनी आत्मसाथ करपाक जाय. तेन्नाच सांज्यांव परीपूर्ण जातलो. संत जुआंवाक खरी आदरांजली फाव जातली. हीच अपेक्षा बाळगून अंदूचे परबेक तयार जावया. व्हिवा सांज्यांव!!

■

– नेसिओ डि सोझा
आर्ले-राय. मो. : ९८५००५९१२७

## प्रशासनांत राजभाशेचो चडांत चड वापर जावचो म्हूण सरकारान घेतिल्ले उपाय



- राजभाशेच्या कायद्याची प्रभावी कारवाय जावची हे नदरेन शिफारशी करपी सर्वसमावशेक तज्ञ वांगड्यांचें सल्लागार मंडळ.
- राज्य प्रशासनांत अखिल भारतीय सेवा अधिकारी तशेंच सगळ्या सरकारी कर्मचाऱ्यांक राजभाशेचें प्रशिक्षण दिवपा खातीर 'राजभास प्रशिक्षण येवजण'.
- विंगड विंगड विशयां वयल्यो पारिभाशीक उतरावळी तयार करपा खातीर विशयतज्ञांची उतरावळ समिती.
- वेगवेगळ्या सरकारी येवजण्यांची म्हायती, अर्ज, दस्तावेज, बी, लोकांक तांचेच भाशेंत मेळोवन दिवपा खातीर अणकार मंडळाची रचणूक.
- राज्यांल्या लेखकांच्या कोंकणी/मराठी लेखनाक उर्बा दिवपा खातीर 'राजभास प्रकाशन येवजण'.
- संस्कृत भाशेचे वाडी खातीर राज्यांतल्या ह्या मळार वावुरपी, नोंदणी जाल्ल्या संस्थांक अर्थीक पाठबळ दिवपाची तशेंच घटनेचे आठवे वळेरेंत आसपाव आशिल्ल्या भासांक उर्बा दिवपाची नवी येवजण.
- गोवा कोंकणी अकादेमी, गोमंतक मराठी अकादमी आनी दाल्गाद कोंकणी अकादमीक, भास, साहित्य, संस्कृतायेचे उदरगती खातीर आवर्ती अनुदान.

# राजभाशेचो भोवमान हो राष्ट्राचोच भोवमान



वितरावपी :

**राजभाशा संचालनालय,**

गोंय सरकार,

जुन्ता हावस, पयली लिफ्ट, पांचवो मजलो, पणजी-गोंय

दूरभास क्र. 0832-2420069 । 2420979

# ॲन्टासिड



## तारक काय मारक?

- राज वैद्य

समीर हो एक सेल्स एक्जीक्युटीव. ताचें आयुश्य सामकें दगदगीचें. मिटिंगो, व्हिजिटां, भारतभर भोंवडी आनी हाका लागून केन्नाय खावप-जेवप. रातचें उसरां मेरेन काम. न्हीद सामकी अर्दकुटी. सदांच आपले तांकी परस टार्गेट चड दवरून तें पुराय करपा खातीर धांवपळ, कश्ट. ते खातीर टेन्शनां. हाका लागून अपचन, पित्त चाळवप हें सदचेंच जाल्लें.

समीर ज्या भाड्याच्या फ्लॅटांत रावतालो ताचे कुशीक आशिल्ले फार्मासींत ताणें सद्दा वचप. थंयच्यान तो आत्र्या-पयऱ्यान ॲन्टासिडच्यो चोखपाच्यो गुळयो घेतालो. ताचें हें बरेच खेप जाता तें पळोवन आनी हालीं हालीं मोठ्या प्रमाणांत तो गुळयो व्हरता तें पळोवन एक दीस त्या फार्मासकारान हुसक्यान ताका सांगलें, ''सर, हालीं हालीं तुमी ह्यो ॲन्टासिडच्यो गुळयो खूबच घेवपाक लागल्यात. म्हाका हें सारकें दिसना. हें ओटीसी वखद आसलें तरी तें योग्य प्रकारे आनी योग्य प्रमाणांतूच घेवपाक जाय आसता. तुमच्या ह्या प्रॉब्लेमा खातीर तुमी दोतोराक मेळ्ळ्यात? मेळूंक ना जाल्यार बेगीनूच मेळात न्हय!''

समीरान ताका म्हळें, ''ना रे, तशें कांय ना. म्हजे हे धांवपळीक लागून, अवेवस्तींत जीवन शैलीक लागून आनी सततच्या स्ट्रेसाक लागून जाता तें. केन्नाच्या केन्नाय खावप, सदचेंच हॉटेलांतलें जेवण, जागरणां हाका लागून जाता तशें. तुमच्यो ह्यो ॲन्टासिडच्यो गुळयो चोखल्यो म्हणटकच जादूच जाल्लेवरी रोखडोच सुसेग मेळटा.''

''पूण तुमी त्यो हालीं चडूच घेवंक लागल्यात. हें योग्य न्हय सर. केन्नाय एकदां अपचन जालें, पित्त चाळवलें जाल्यार एक-दोन वापरपाक हरकत ना. सद्या तुमकां ह्यो ॲन्टासिडच्यो गुळयो घेवन तात्पुरतें बरें दिसता आसत, पूण तुमच्या आतकड्यांनी अल्सर, कर्करोग बी आसलो जाल्यार? हें पळयात, हांव तुमकां भिवयना. पूण खऱ्यानीच जर कसलेंय दुयेंस आसल्यार तुमी ॲन्टासिडान त्या दुयेंसाचीं लक्षणां चिड्डून उडोवंक शकतात. भितरल्यान समस्या वाढत वचूंक शकता. प्लीज, तुमी हाचेर आडनदर करूं नाकात. बेगीनूच दोतोराक मेळात.''

फार्मासकारान समीराक कळकळीन सांगलें, पूण समीरान ताचो हुसको फाफडून उडयत म्हळें, ''वेळ खंय आसा दोतोराक बितोराक मेळपाक? हुस्को करूं नाकात. व्हडलेंशें कांय न्हय तें. हांव बरो जातलों.''

पूण फार्मासकाराक तें पटलें ना. ताणें म्हळें, ''म्हाका दिसना तुमचीं लक्षणां पळयल्यार. हांव तुमकां पर्थून विनवणी करतां. तुमी जाता तितले बेगीन दोतोराक मेळातूच. तो मेरेन हांव तुमकां ह्यो गुळयो दिवचोंच ना.''

सुमार सात-आठ म्हयन्यां उप्रांत एक दीस समीर ते फार्मासींत भितर सरलो. पूण ताका कोणूच वळखलो ना.

''कशे आसात तुमी सगळे? म्हाका वळखूंक ना दिसता तुमी?''

समीरान हांसत हांसत फार्मासकाराक विचारलें. तेन्ना फार्मासकारान ताका बारकायेन नियाळ्ळो. आवाज तर वळखिचो दिसतालो. समीर आदलो समीर उरूंक नाशिल्लो. सामको बारीक जाल्लो.

''समीर? सामको भागला! कितें जालें?''

फार्मासकारान अजापान विचारलें.

''आतां बरो आसां. पूण फाटले स म्हयने त्रास काडले. हांवें तुमी सांगता तें आयकल्लें जाल्यार ही पाळी येवची नाशिल्ली.'' समीरान हांसत हांसत म्हळें आनी आपली कर्मकाणी सांगली.

फार्मासकारान ह्या मुखार ॲन्टासिडाच्यो गुळयो दिवंचोना म्हुण सांगतकच ताणें त्यो दुसरे फार्मासींतल्यान घेवपाक आरंब केलो. उप्रांत ताका कोणेतरी ओमेप्राझोल गुळयो घेवंक सांगलें. ताका लागून ताका आनीक मातशें बरें दिसूंक लागलें. हाका लागून दोतोरागेर वचपाचें मुखार मुखार धुकलत रावलें. एक दीस नागपुराक सेल्स मिटींगेच्या वेळार तो अकस्मात रगत ओकूंक लागलो. जेन्ना तो शुध्दीर आयलो तेन्ना आयसीयूत आशिल्लो. फार्मासकाराचो तर्क सारको आशिल्लो. समीराच्या पोटांत व्हडलो अल्सर आशिल्लो. ताची जगपा-मरणाची लडाय सुरू जाल्ली. तातुंतल्यान तो साल्वार जाल्लो. दोतोरान सांगलें, आनीक कळाव जाल्लो जाल्यार Perforation म्हळ्यार झोळयेक आरपार बुराक जावपाचो. कॉप्लीकेशनां वाडपाचीं. तरी रगत खूब गेल्लें. रगताच्यो दोन बाटल्यो चडोवंच्यो पडिल्ल्यो. ऑपरेशन करचें पडिल्लें. धा दीस हॉस्पिटलांत उरलों. कारवारच्यान फामील आयली धांवून. तांचेय हाल. सगळ्यांक भंय जाल्लो. कंपनीचे मनीस आशिल्ले म्हुण साल्वार जाल्लो. तरी बरें कॅन्सर नाशिल्लो म्हुण!

दोतोरान कम्पलीट बेडरेस्ट घेवंक सांगलें. तीन म्हयने घरांतल्यान भायर सरूंक दिलेंना. घरच्यांनी नोकरी सोडूंक लायली. घराकडलो धाकलोसो धंदो आशिल्लो तातूंतच ताणें लक्ष घाल्लें.

समीराची ही खबर आयकून फार्मासकारान म्हळें, ''जावं सायबा, जीव वाटवलो हेंच व्हडलें जालें. आतां काळजी घेयात.''

ताचीं उतरां आयकून समीराक रडूंक आयलें. म्हणूंक लागलो, ''तुमचें आयकल्लें जाल्यार म्हजेर ही पाळी येवची नासली. तुमचो सल्लो कितलो योग्य आशिल्लो. पूण हांवें तो मानलो ना. तेच पासत हांव मुद्दाम तुमचे उपकार मानूंक आयलां. तुमी म्हजे बरें मागपी म्हणूनच देवान म्हाका साल्वार केलो.

ॲन्टासिड इतल्यो साद्यो गुळयो, पूण तांचो जतनायेन वापर केलो ना जाल्यार तारपा बदला त्यो मारक थारतात.'' भरिल्ल्या दोळ्यांनी फार्मासकाराचे हात धरीत समीरान म्हळें. ■

इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन,पणजे - गोंय,
मो. : ९४२२०६२२८६, ई-मेल : ipacpd@gmail.com







# अजुनूय दरबारी राजकर्ण?

मराठ्यांच्या इतिहासांत वाचिल्लें-

इंग्रजांनी पुण्याचेर घुरी घालपाचें थारायलें. बोरघाटाचे शिमे मेरेन तांणी आपणालें सैन्य हाडून दवरलें. नाना फडणवीसान राज्य राखपाची 'शिकस्त' केल्ली. कोण कितलें सैन्य घेवन येतलो - शिंदे कितलें घेवन येतलो, भोंसले कितलें हाडटलो, होळकाराचें सैन्य केदें आसतलें, हाचो हिशोब चलिल्लो.

'आमी इतलें सैन्य घेवन येतात... बदलांत आमकां कितें मेळटलें?' एकलो विचारता.

'तुका? चल, खानदेशाचो अमको अमको वाठार तुजो...' नाना जाप दिता.

'आमकां कितें मेळटलें?' दुसरो विचारता.

'तुका? अमको अमको वाठार आयच्यान तुजो.' नाना जाप दिता...

आयज वेगळें कितें चल्लां? हेंच न्हय व्हय?

जंय जंय नवीं सरकारां वेंचून आयल्यांत थंय थंय कोण न्हय कोण मुखेलमंत्री जाला. तो आपणालें कदेल घट उरचें म्हुण भोंवतणी नदर मारून पळेता; कोण आपणाक तेंको दितलो कोण दिवंचो ना, हाचो हिशोब मांडटा. पेशव्यांनी आपणाक राखपा खातीर अरबी लोकांक हाडिल्ले. कित्याक, मराठे पातयेवपा सारके उरूंक नाशिल्ले. तसो, आयचो खंयचोय मुखेलमंत्री आपणाल्या पंगडांतले कोणूच पातयेवपा सारके उरूंकनांत हे जाणविकायेन पक्षा भायल्या लोकांचेर नदर भोंवडायता. 'हो अपक्ष म्हुण वेंचून आयला.... हाचो आधार मेळूं येता' अशें म्हणटा आनी ताका विचारता. अपक्ष म्हणटा, 'म्हजो आधार? बरे भाशेन तुका मेळटलो. पुणून एक सांग, बदलाक म्हाका कितें मेळटलें?'

'तुका?... हें मंत्रीपद दितां.' अशी मुखेलमंत्री जाप दिता.

'तुका? ह्या कोरपोरेशनाचें चेरमेनपद दितां... तुका? खादी बोर्ड दितां... तुका? पीडीअेचो अध्यक्ष करतां.' आयचो मुखेलमंत्री हे भाशेन हाका ताका कितें न्हय कितें दीत रावता.

तरी आसतना तो घट उरता व्हय? खंयचोच मुखेलमंत्री आपूण घट आसां अशें मानिना. 'खूप शर्तीने राज्य राखलें यशवंत फडनवीस नाना..' नानान राज्य राखपा खातीर कितें केलें ना? करूं येतालें तितलेंय केल्लें. आनी राज्य राखिल्लें. खंय मेरेन? तें होगडायलें ना ते मेरेन!

अजुनूय हेंच दरबारी राजकर्ण चलचें ह्या देशांत? तेंवूय लोकशायेच्या नांवान?

## चन्द्रबली

खबरे-पत्रां वाचता आसतना नदर, पाड पडिल्ली, पडूंक जायना असल्या खबरांचेर वचून पडटा.

आनी मागीर जीव सकल - वयर जाता.

असलेच एके खबरेचेर पयर नदर पडली -

उत्तर प्रदेशांतल्या बांदा जिल्ल्यांतल्या एका गांवांत चन्द्रबली नांवाच्या एका धा वर्सांचे पिरायेच्या भुरग्यान गोळाक हुमकळून खंय जीव दिलो.

कित्या खातीर? परिक्षेंत नापास जाल्लो म्हुण? न्हय. आवयन दुखपा सारकें कितेंय म्हळ्ळें म्हुण? न्हय. तर खंय सद्दां उठून सुकी भाकरी मिठाक लावन खातालो ताका तो उबगल्लो. ताका आयुश्यांत एकूच खेपे कसलेय तरी भाजये वांगडा भाकरी खायन दिशिल्ली. आनी तागेली ही इत्सा भागूंक नाशिल्ली. तागेली आवय एक विधवा. तिका भाजी करप पुटव नाशिल्लें. तिची जोड असल्या 'चैनीं'क पावनाशिल्ली. चन्द्रबली आदल्या दिसा गांवांतल्या राखण्यां वांगडा रानांत गेल्लो. राखणे दनपरां जेवपाक बशिल्ले. तेन्ना भाकरे वांगडा ते भाजी खाताले. तें ताणें पळेल्लें. चन्द्रबलीच्या नाकांत भाजयेचो वास गेलो. आपणांक थोडीशी मेळची अशें ताका दिसलें. पुणून, राखण्यांनी ताका घे म्हळें ना, हाका मागपाचो धीर जालो ना. सांजचो घरा येतकूच तो आवयकडेन हट घेवन बसलो, 'आयज म्हाका भाजी करून दी.' आवय दुसरें कितें करतली? ती रडपाक लागली.

चन्द्रबलीक हें सोसलें ना. आवयचें रडप आनी खावंक भाजी ना मेळप हाचे परस जीव दिल्लो बरो, अशें म्हणून ताणें जीव दिलो...

ही खबर वाचून कोणाचें काळीज कळवळ्ळां जातलें, कोणाक खबर, पुणून म्हजो जीव सकल वयर जालो.

कितले चन्द्रबली आसात जातले आमच्या देशांत? हजारांनी? लाखांनी घडये कोटिंनीय आसूं येतात. स्वराज्य मेळून आतां अर्दे शतक जायत आयलें. अजुनूय चन्द्रबली ह्या देशांत आसचे? पन्नास वर्सां पसून कितें करता सरकार? फ्रीज, टीवी, स्कूटर, मारुती गाडयो आनी असल्योच वस्तू भायर धाडून फॉरेन एक्सचेंज जोडपाचेंच काम मू? फॉरेन एक्सचेंज जोडप म्हत्वाचें, काय चन्द्रबली सारकेल्या लोकांक भाजी मेळोवन दिवपाचो विकास घडोवन हाडप म्हत्वाचें?

एका निर्णयार आमकां येवचें पडटा-

दिल्लींत रावतात ते 'लॉर्ड' जातात, तांकां हिन्दुस्तान दिश्टी पडना, आनी चन्द्रबली सारके भुरगे तर निखालूस दिश्टी पडनात. हे दिल्लींतले 'लॉर्ड'च देशाचें 'प्लॅनींग' करतात आनी-

सगळी शक्त फॉरेन एक्सचेंज कशी जोडची हेच विवंचनेंत खर्चितात.

देशांत फ्रीज जातले, टिवी जातले, शेम्पू, शाबू जातले, स्कुटरी मोटारी जातल्यो, फॉरेन एक्सचेंज घे म्हुण मेळटलें. फकत चन्द्रबलींक भाजी खावंक मेळपाची ना. 'मेरा भारत महान!'

■

(जाग – मे १९८९)

# प्रियदर्शन

प्रिय माधवबाब,

तुजो सुनापरान्तांतलो 'निरोपाचो आपरोस' वाचलो.

२००५च्या मे सावन तूं हें सदर सातत्यान बरयत आयला हें वाचून हांव हिशेब करूंक बसलों. २००५ मे ते मे २०१४म्हणचे लागीं लागीं णव वर्सां तुवें सातत्यान हो आपरोस घेतला. म्हणचेच सुमार दोनशीं कवींच्यो कविता, मागीर ती तांची एक कविता जायना, तुवें बारीकसाणीन वाचल्या, नियाळ्ळ्या आनी आपरोस घेतला हीच गजाल ग्रेट म्हणूंक जाय.

सातत्यान णव वर्सां एक सदर बरोवप कठीण न्हय. हांवें कांय दिसाळ्यांनी पंचवीस – तीस वर्सां सदरां बरयल्यांत. पूण ते वेगवेगळे विशय आसताले. तातूंत नविदाद आसताली. पूण वेगवेगळ्या कालेतीच्या, वेगवेगळ्या कवींच्यो कविता वाचून, मनन करून तांचेर भाश्य करप हें भोव कठीण काम.

हांव तुका फाटलीं तिसेक वर्सां पळयत आयलां. तुजो काव्य प्रवास आनी साहित्यावेल्या अभ्यासाची म्हाका जाण आसा. म्हणटकच आपरोसाक एखाद्री कविता घेतकच 'ही बेस्ट जाल्या' म्हणत कवीची निखळ तुस्त तोखणाय तूं करचोना हाची म्हाका कल्पना आसा. कवितेची सामिक्षा, कवितेचो आपरोस वो मोलावणी म्हळ्यार मापणी न्हय. घेतलें एक माप, घातली तातूंत कविता मापली ती आनी ही पाव लिटर, ही अर्द लिटर वो एक लिटर म्हणपाक!

कविता वो हेर खंयचीय कला ही केन्ना मापुंकच येना ह्या मत्ताचो हांव. कला केन्ना खंयचेच माप पट्टेंत जोखूंक येना. ती समजुची आसता, तिचीं विंगविंगड तासां आपल्या काळजाच्या पोशान अजमावपाचीं आसतात. आवयच्या गर्भांतल्यान निकत्याच भायर आयिल्ल्या भुरग्याक नर्स आपल्या दोनूय हातांनी घेवन वजन अजमायता पळय तशी. मागीर जाय जाल्यार अचूक वजन घेवं येता मापयंत्राचेर! तुगेलो आपरोस म्हाका नर्सीन केल्ल्या अजमावणेवरींच भावता. तातूंत निखळ मापणी नासता तर, काळीज, प्रेम, आपलेपण, अपुर्बाय अशीं कितलीं बारीक मोटी मापां घालून रस, रूप, अर्थ हीं कवितेचीं आंगां म्हळ्यार भाव, तूं नकसूदपणान आपरोसता.

हांव तुजो एक निस्सिम वाचक. तुजो 'आपरोस' विशेश करून वाचत आयलां. हांगा 'विशेश करून' अशें म्हणपा फाटलें कारण म्हळ्यार



हालीं हालीं सगळेंच वाचप जायना. वेळेचें खूऽब्ब रेशनींग करचें पडटा. पयलीं जें कितें भकाभक वाचिल्लें तेंच फावलें म्हणपाचें! तरी लेगीत कोंकणीच्या मळार कितें चल्लां, कोणा भितर स्पार्क आसा? संवसारांतले कोण कोण लेखक नवो ट्रेन्ड घेवन आयला हाचेकडेन जर ट्रेक दवरतलो जाल्यार म्हजे सारख्याक तुजे सारख्या 'वाचस्पती' कडेन हो असो संपर्क दवरचो पडटा.

आपरोसांत तुवें उक्तायल्ल्या भोवतेक सगळ्याच मुद्यांकडेन हांव सहमत आसां. चलतां चलतांच कविता करूंक येता, पन्नासेक कविता जाल्यो काय तांचें पुस्तक छापपाक कोंकणी अकादेमी सारख्यो संस्था अनुदान दिता. कांयच ना जाल्यार तांच्या मतदार संघांतलो आमदार – मंत्री पुरस्कृत करता. तांकां पुरस्कृत करपाक शिगमो, कार्निवालचो चित्ररथूय सारको आनी एखाद्रया कवी–नाटककाराचें पुस्तकूय सारकें. पूण पुस्तक छापूंक मुखार सरतल्या ह्या सर्जकान आपले रचणायेचेर गांभिर्यान विचार करूं नाका?

तुवें आता मेरेन ज्या दोनशी कविंच्या कवितांचो आपरोस घेतला वो जांकां अकादेमीन अनुदान दिवन पुस्तक उजवाडायलां ते कवी खंय आसात हाचो सोद कोणें घेवपाचो? खरें म्हळ्यार जणएकल्यान आपलो सोद आपणेंच घेवपाचो!

तुका याद जातली, आमी आरंभाच्या काळार कविता रचताले तेन्ना, जेन्ना जेन्ना मेळटाले तेन्ना आपली नवी कविता वाचून दाखयताले, हेरांचें नवें कितें वाचलां तें सागताले. कवितेचेर चर्चा जाताली. बाकीबाब, शंक रामाणी बी आपलें मोठेपण कुशीक दवरून आपली नवी कविता आयकयताले आमचे सारख्यांक. र. वि. पंडित गाडी थारावन, जबरदस्तीन गाडयेंत बसोवन वो रस्त्यांत मेळटा तेन्ना आडावन 'कविता आयक रे!' अशें अधिकारवाणीन सांगतालो. शंकर भांडारीची कविता आयकुपा खातीरूच हांव ताचे वांगडा 'जुवाजिनाल्या' बार्रार बसतालों.

आतां तूं, रमेशबाब, नागेशबाब बी 'आयकतलो रे?' म्हणत आपली कविता आयकयतात तेन्ना म्हज्या सारख्याची तंद्री लागता आनी जिवाक बरेंऽ दिसता. हो एक सर्गीय, उच्च प्रतीचो समागम आसता. हांगा कवी आनी रसीक, दिवपी आनी घेवपी हे एकेच तांकीचे आसले म्हणटकच एक आगळीच जुगलबंदी घडून वता. आज होच उणाव आमकां सरभोंवतणी दिसता आनी 'गेले ते दिन गेले' अशें म्हणचें पडटा.

ह्याच अंकांत रमेश वेळुस्काराचो 'भुतकाळांतले बिर्दीतल्यान' हो लेख आसा. तातूंत ताणें आयज आमी जें पुस्तकांचें प्रकाशन घडोवन हाडटात ताचेर बडी मारल्या. प्रकाशन जाय. जो कवी, लेखक आसा ताच्या सोयऱ्या दायऱ्यांक इश्टमित्रांक तो कवी, लेखक जाला म्हुण कळपा खातीर वो अमक्या अमक्याचें नवें पुस्तक आयलां हें कळपा पासत. पूण हालीं सराक खबरा पत्रांचेर फोटो येवपा पासत आनी जे कोण चार लोक येतात ताणीं पुस्तक विकतें घेवचें आनी आपल्याक चार पयशे मेळचे ह्या पासत प्रकाशनाचो उद्देश्य आसता. जे उत्सव प्रिय आसतात ताणीं आपल्या अपुर्बायेच्या पुस्तकाचें प्रकाशन करचेंच. पूण आमचे सारख्यांनी हाचेर वेगळे नदरेन विचार करपाची गरज आसा.

म्हाकाय दिसूंक लागलां, आतां हे फुडें शंबरेक लोकांक आमंत्रित करून पुस्तक प्रकाशन करचे बदलाक जे खरेंच साहित्याचे दर्दी आसात त्या पांच–पंचवीस जाणकारांक आपोवप, तांतल्या पांच लोकांक पयलीं पुस्तक धाडून दिवन ताचेर हे बसकेंत अभिप्राय दिवंक सांगप आनी हें पुस्तक लोकार्पण करूं येता अशें मत जर ते बसकेंत जालें जाल्यार त्याच पंचसारस्वतां हस्तुकीं प्रकाशन करप. प्रसिध्दी जायच आं! नातर 'नवें कांय ना रे?' अशें विचारप्यांक बातमी मेळचिना.

तुजें 'आपरोसा'चें हें पुस्तक कोण काडटलो, केन्ना येतलें हाची कल्पना ना. पूण येवंक जाय. कारण फुडाराक कोंकणी कवितेचो अभ्यास करप्यांक 'स्पार्क' आशिल्ले कवी हे भुंयेर आशिल्ले हाच्यो कुरवो सोदपाक मजत जातली.

बरें मागून.

■

इश्टागतीन तुजोच,

दिलीप...

# आकर्शण




अस्मिताय प्रतिशठानान हालींच नामनेच्यो ज्येशठ लेखिका सुधाबाय खरंगटे हांच्या 'कपयाळें' ह्या कथा संग्रहाचें दबाज्यान विमोचन केलें. त्या वेळार डॉ. किरण बुडकुले, जुजे लॉरेन्स, शांताराम वर्दे वालावलीकार, लेखिका सुधा खरंगटे, नयना आडारकार आनी उदय भेंब्रे.




हालींच टि. बी. कुन्य ट्रस्टान त्रिस्तांव ब्रागांझ कुन्य हाणीं बरयिल्ल्या 'डिनेशनलायझेशन ऑफ गोवन्स' ह्या पुस्तकाचो पद्मश्री सुरेश आमोणकार हाणीं केल्ल्या 'गोंयकारांचें देशभश्टेपण' ह्या कोंकणी अणकाराचें विमोचन केलें. ह्या वेळार नागेश करमली, उदय भेंब्रे, माधव कामत, सुरेश आमोणकार, श्रीधर तांबा आनी विवेक पिसुर्लेकार माचयेर हाजीर आशिल्ले.



काँग्रेसचे फुडारी श्री. गुरूदास भा. नाटेकार हांचीं हालींच तीन पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. तांचें विमोचन करतना प्रा. कृष्णाजी कुलकर्णी, प्रा. गोपाळराव मयेकर, ॲड. रमाकांत खलप आनी प्रो. रवीन्द्र फोगेरी.

# आकर्शण



नामनेची कोंकणी मराठी लेखिका सुमेधा कामत देसाय हांच्या 'आंबाड्याच्या घरांत' ह्या पुस्तकाचें विमोचन तांच्या पार्शेच्या घराकडेन आनंद सुवाळ्यांत हालींच जालें. त्या वेळार चित्रकार संजय हरमलकार, लेखिका जयंती नायक, प्रो. माधव कामत, कवयित्री मेघना कुरूंदवाडकार आनी सुजाता भाटकार माचयेर हाजीर आशिल्ले.




ज्येश्ठ सुटके झुजारी श्रीमती ज्योती दत्तात्रय देशपांडे हांच्या 'स्मृति–कलश' ह्या पुस्ताचें विमोचन हालींच पर्वरी जालें. त्या वेळार डॉ. काळे, डॉ. जोशी, ज्योती देशपांडे मुखेल सोयऱ्या वांगडा.



मंगळुरच्या 'मांड सोबाण' हे संस्थेन कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमी आनी 'राखणो' सातोळ्याच्या जोड पालवान साडे धा दिसांचें एक सांस्कृतीक शिबीर मंगळुराक आयोजीत केल्लें. ताच्या समारोप सुवाळ्याक वांटो घेतिल्ल्या कलाकारांनीं सांस्कृतीक कार्यावळ सादर केली.



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ दु | कृ | २ प | यो | ३ ग | ■ | ४ | | ५ व | |
| स्मा | ■ | त्र | ■ | ६ द | बं | ग | ■ | ळ | ■ |
| ७ न | र | का | ८ सू | र | ■ | | ■ | ९ | १० |
| ■ | ■ | ११ र | न | ■ | १२ सं | ग | म | ■ | |
| १३ ना | र्ळु | ■ | ■ | १४ सा | क | ■ | ■ | १५ | ■ |
| ग | ■ | १६ सं | डा | व | ट | ■ | १७ मा | ड | ■ |
| १८ प | च | म | ■ | धा | ■ | १९ धु | | | २० |
| च | ■ | २१ ज | २२ वा | न | ■ | ■ | २३ | | |
| मी | ■ | २४ ढो | ल | ■ | २५ उ | मा | ■ | | ■ |
| ■ | २६ | र | ळ | | | ■ | २७ सी | ■ | २८ |

## आडवे

१. वायट उपेग, चुकिचो उपेग, ४. दाराची भोंवतण, दाराची फास्की, व्हड दार, ६. सलमान खान आनी सोनाक्षी सिन्हाचो फामाद सिनेमा, ७. दंडणा भोगयणो नरकांतलो राकेस, ९. दाग, सारें वा हिंदींतली चीट, पत्र, ११. धांव(इंग्लीश), अभिषेक बच्चनाचो एक सिनेमा, १२. राधा का XXX, त्रिवेणी XXX, मेळणी, मिलन, १३. माडाचें फळ, श्रीफळ, १४. व्हड पोती, १६. सुंदर मांडणी, सोबीत रचणाय, १७. धालो खेळपाचें आंगण, पसरो, दुकान, १८. पांचवी तीथ, १९. अक्षय कुमार, सुनील शेट्टी आनी शिल्पा शेट्टीचो एक फामाद सिनेमा, २१. जय XXX जय किसान, तरणाटे, २३. जाणटो, पिरायेन व्हड, २४. चरतें, कातिचो रोग, २५. XX शंकर म्हळ्यार म्हादेव-पार्वती, पार्वती, २६. मेकळेपण, उगडो सबाव, २७. समुद्र, सागर (इंग्लीश), २८. दीस (इंग्लीश)

## उबे

१. दुसऱ्याचें वायट चिंतपी आनी वायट करपी, २. वार्ताहर, रिपोर्टर, ३. XXX एक प्रेमकथा : सनी देओलाचो एक फामाद सिनेमा, ४. उबगण, कंटाळो, ५. परिचय, ८. पुताची बायल, १०. रीत, पद्दत, माण्णी, १२. अरिश्ट, संकश्ट, १३. नाग पुजपाची परब, १४. शुभ मंगल XXXX, १५. खर, चड तापिल्लें, १६. बुदवंत, समजिकायेचें, १७. मंडप, माटोव (मराठी), २०. दमयंतीचो घोव, हिंदींतलो नळ, २२. वावटळ, तुफान, २५. किरकोळ, म्हत्व नाशिल्लें.

## मे १४ उतरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| आ | ग | र | ■ | जो | ळो | व | ■ | ■ | |
| ग | ज | ■ | मा | ड | ■ | र | स | पा | |
| रो | व | णी | ■ | का | न | स | ■ | व | |
| ■ | द | ■ | प | र | म | ■ | बो | णे | |
| का | न | मं | त्र | ■ | ■ | अं | ■ | का | |
| न | ■ | दी | ■ | चि | ■ | क | स | र | |
| पा | झ | र | ■ | क | म | ळ | ■ | ■ | |
| ळी | ■ | ■ | स | चि | न | ■ | त | र | |
| ■ | व | जा | बा | की | ■ | ■ | रा | ■ | |
| क | र्ण | ■ | व | त | ■ | का | जू | बा | |

# Directorate of Tribal Welfare

Shrama Shakti Bhavan, 5th Floor, Patto Panaji-Goa
Phone: 0832 2438024

## Different Schemes of the Department

1) **Post Metric Scholarship:** Monetary help to ST Students who are doing further studies.
2) **Pre-Metric Scholarship:** Scholarship to students from Vth to SSC.
3) **Kanya Dhan:** Aid of Rs. 25,000/- provided to ST Girl students after passing Xth Standard and entitled only after passing XIIth Standard.
4) **Merit based award and recognition of high performance in the Board Exam of SSC and HSSC in the state of Goa:** To motivate students by giving merit based Award based on the benchmark of the performance and to provide financial incentive to high performing students who are economically weak.
5) **Grants for running hostels:** For backward classes students by Voluntary Social Organization.
6) **Scholarship to Home Nursing Courses:** Help given for completing Home Nursing Course.
7) **Sahayata:** Assistance to voluntary organization for organizing Socio-Culture Activities.
8) **Book Bank Scheme:** Help given to institute for buying of set of books for the library and a cupboard.
9) **Gagan Bharari Shiksha Yojana:** Monetary help given to ST students on the expenditure on travel, food & accommodation. Rs. 7500/- p.a. for Day Scholar & Rs. 15000/- p.a. for Hotellers.
10) **Prashikshan Yatra:** Financial assistance up to Rs. 1 lakh for the institutions conducting study tour for incurring expenditure on travel and food of the ST students up to 40 number and two teachers.



